भौ. किरणबाय
हांका
मायेमोगान
वि. शेळडेकार
20/11/2010

# मोगाळ सुकणीं सावजां

विजया पै धुंगट शेळडेकार

कौशल प्रकाशन
मडगांव गोंय
२००७

**Mogall Suknnim Savjam**

A collection of short stories by Vijaya Navin S. Sheldekar

**मोगाळ सुकणीं सावजां**

---

**पयली खेप** : ऑगस्ट २००७

**प्रकाशन क्रमांक** : २



ए-१. बी-१, रोझा मिस्टिका, शिरवडें,

मडगांव - गोंय. ४०३६०१.

फोन : ०८३२-२७१०३७९

**उजवाडावपी**

कौशल प्रकाशन,

ए-१. बी-१, रोझा मिस्टिका, शिरवडें,

मडगांव - गोंय ४०३६०१.

**छापपी**

श्रीगुरूकृपा टायपोग्राफिक्स

बाबय कॉमर्स सँटर

मालभाट - मडगांव - गोंय.

फोन : ९४२२४३९८१५

**मुखचित्र**

वासू / सुब्राय

**मोल**

रू ९०.००

अभय, सतीश आनी कौशल
हांच्या उगडासाक

# मनांतलें...

भौ. चंद्रकांतबाब केणीन 'एक कथा बरय गो' म्हण्टकच कथा बरयली. 'कुळागरांत' छापून येतकीच भोव खोस जाली. तातुंतल्यानच राष्ट्रमतांत सदरां बरोवपाक सुरवात केली. केणीबाबान मनापासून केल्ली तुस्त, बरयल्लें साहित्य पुस्तक रुपान उजडावपाची प्रेरणा दिवन गेली. गोंयांत दूरदर्शन येतकीच निवेदन करपाची संद केणीबाबाक लागूनच मेळ्ळी. इतलेंच न्हय कोंकणी भाशा मंडळ, अखिल भारतीय कोंकणी परिषदेच्या १९व्या अधिवेशनाचें सरचिटणीसपद भुशोवपाचीय संद तांकां लागून मेळ्ळी तशेंच बऱ्याच साहित्यिकांकडेन वळखूय जाली.

केन्नाय खंती जालें जाल्यार तांणी दोन उतरां सांगलीं तीं जिवितांत वाट चलपाक मोलाचीं थारलीं.

राजहंस, सुनापरान्त आनी म्हज्या शाळेंतल्या भुरग्यांखातीर मोनोलॉग, नाटकुलीं, बरयलीं. निबंद, वक्तृत्व, मोनोलॉग सर्तींनी भुरग्यांक तयार करतना मेळिल्ली खोस उतरांनी सांगपा सारकी न्हय. ह्याच मोगाळ भुरग्यांखातीर हीं 'मोगाळ सुकणीं सावजां.'

शिरवडें
ऑगस्ट २००७

विजया पै धुंगट शेळडेकार

# ओडलायणीं पशु-पक्षी चित्रां...

कोंकणींतलें हें एक वेगळेच तरेचें पुस्तक. पशु, पक्षी ह्या प्राण्यां संबंदींचें पुरायेन तांकांच तरल संवेदनेन आनी कळवळ्यान ओंपिल्लें.

मोनजाती विशीं हें पुस्तक. पूण तांची म्हायती दिवपी वा निखटें वर्णन करपी मात न्हय. तशीं जनावरांचीं शेवण्यांचीं आनी हेर प्राणीमात्राची निखटी म्हायती दिवपी पुस्तकां कोंकणींतूय आसुंये.

हें पुस्तक पाळीव जनावरां, कुकडां, शेवणीं हांचे लेखिके कडले आनी तिच्या घरच्यांकडले नाते संबंद विसकावन वर्णिता. ह्या प्राण्याविशीं लेखिकेक संवेदनशील आत्मीयता आसाच. ते भायर तिच्या घराब्यांतल्या हेर ल्हाना-व्हडांकूय ह्या मूक प्राण्याविशीं असामान्य सहानुभूति आशिल्ली पळोवंक मेळटा.

हातूंतल्यान एक प्राणि प्रिय, संवेदनशील, सुसंस्कृत, घरंदाज, घराब्याचें एक स्वतंत्र चित्र वाचप्यांचे नदरे मुखार उबें जाता.

हीं पाळीव जनावरां आनी कुकडां, शेवणीं मोनी इतलोच किदें तो फरक. नाजाल्यार लेखिकेन तांकां घरांतल्यो जिव्यो मानवी व्यक्तीच अशें धरून हें बरप केलां. ते नदरेन हीं 'व्यक्तिचित्रां' अशें मानपाक हरकत नासुंये.

मोनजात मोनी आसली तरी तिकाय मन आसता. हें मन जाणा जावन घेवपाची, मुक्या प्राण्यांचेर मोग करपाची, तांचो प्रतिसाद स्विकारपाची संवेदनक्षमता जाय. आनी ही संवेदन क्षमता केवळ एखादे मनेका (गांधी) कडेनूच आसूं येता अशें मानपाची गरज ना. कोंकणी लेखिका विजया शेळडेकार हिचे ठांय असली अस्सल आत्मीयता, संवेदनशीलता आसा हें ह्या पुस्तकांतल्यान स्पश्टपणान जाणवता.

मोनजातीच्या मोन्या सुख-दुःखांक, व्यथा-वेव्हारांक वाचा फोडप, तांकां उतरां दिवप हें कवीचें आनी लेखकांचें काम. हे लेखिकेन हें आगळें वेगळें अशें पुस्तक बरोवन हें काम बेसबरें केलां. सामकीं ओडलायणीं, मनभुलोवणीं अशीं हीं प्राणिचित्रां.

वयलेचाराक हें पुस्तक भुरग्यांखातीर अशें कोणाकूय दिसूं येता. पूण हें खरें न्हय. 'तांचोय मोग करात' हो संदेश खरेपणीं जाणट्यां खातीर. भुरग्यांक पशु-पक्ष्यांचीं आनी मोनजातीक भुरग्यांची सैमीक अशी सबावीक ओड आनी आपुलकाय आसता. बालगितांनी, आल्लयांनी, पाळणो गितांनी असले मूक प्राणीच चड संचार करतात. ह्या पुस्तकांतल्या पंदरा प्राण्यांचीं नांवां मोटीं मजेशीर. ताका लागून सहजपणान विनोदाची एक झालर हे बरपावळीक लाभल्या.

'काळग' ही एक गाय; 'लापयांव' हो तिचो पाडको. एका बुकल्याचें नांव 'टिम्मकुटू'. 'पिगू' एक कोंबी. एका कुत्र्याचें नांव 'मॉपेट'!

(हरशीं मोटार वाहनांची क्षमताय 'हॉर्स-पावरी'न (घोड्याचे शक्तीन) मेजतात. मॉपेड हे ल्हान मोटार सायकलीचो फोर्स सुण्याचे शक्तीन मेजपाक हरकत नासुंये!)

'सोमो' हो एक सोंसो. 'चांदो' एक चानी. चिमणेचें नांव 'चूही', 'रामो' हो आनीक एक कोंबो. बोकड्याचें नांव 'फायटर'. माकडाक इंग्लिशींत 'मंकी' म्हणटात. ह्या पुस्तकांत तो 'मंको'. पारवो म्हणटकच सबावीकपणान 'गुटर्रगूऽऽ' आयलेंच. 'किटलो' हो कीर. शिळोणी घालपी साळोरी अर्थात 'शीळू'. 'मॅक' हो आनीक एक बुकलो.

घरचींच मनशां जाल्लेवरी लेखिकेन मोनजातीक आनी कुकडां-शेवण्यांक मनशाळायल्यांत आनी तांकां एक identity अपर्ण केल्या. पूण तांकां सर्कशींतलेवरी बळयां आपणाक जाय तशीं निश्ठूरपणान वापरूक मात नात. तीं आपणाक जाय तशीं मुक्तपणान वावरतात, खेळटात, जियेतात. हें एक ल्हानशेंच पाळीव प्राण्यांचें संग्रहालय. न्हय, न्हय; एक ल्हानशें 'अभयारण्य' म्हणूंया. अभयारण्यांत प्रण्यांक भंयां विरयत जाय थंय, जाय तसो संचार करपाची मेकळीक आसता.

हांगांय तशेंच. घरा फुडल्या आंगणासावन सालांत, माज घरांत, चौकेर, सामकी रांदचे कुडी मेरेन भोंवपा करपाची पुराय मुक्तताय...

देखीक, लेखिकेचो बापूय लापयांवांक २-३ म्हयन्यांचो आसतना सद्दां फांती बिस्कुत्यो खावपाची संवय लायता. एक दीस भोंवतणी कोण नासो पळोवन लापयांव रांदचे कुडींत दबे उस्तिता. मुखार दिशिल्लो कीलभर बिस्कुत्यांचो पुडो करकरायत फस्त करता. अशें हें मुक्या प्राण्यांखातीर ह्या घराब्यांतलें भंयमुक्त वातावरण.

ह्या घरांत जातली पशु-पक्ष्यांची अपुर्बाय अप्रुपूच म्हणपाची.

लापयांवाचो बारसो एका ल्हान भुरग्यावरी व्हडा कौतुकान आनी दबाज्यान जाता. ताचे आवयच्या, काळग गायेच्या तोंडांत साकर घालप किदें, पाडक्याक 'लापयांव नांव दवरलां गो' म्हूण सांगप किदें! फकत एक पाळणें तितलें फाल्त.

मागीर ताका नदर लागत म्हणून गळ्यांत दोरो, कपलाक तिटी, एक आनी दोन, सगलींच अप्रुपाचीं कौतुकां! लापयांव दुदाक वळवळचो न्हय म्हूण गायेचें सगळें दूद काडप ना हो दंडक. मजा म्हळ्यार हो लापयांव लेखिकेच्या बापायन दिल्यारूच बिस्कुत्यो खावपी. हेर कोणाच्या हातच्यो ताका उपकरनात.

अश्या ह्या लापयांवांक धिरयेचो बैल करचो अशें येवजितात. पूण दुर्दैवान एक दीस अचकीत शेतांत ताका कोणतरी चाबता आनी लापयांव पालवता. ह्या घराब्याच्या कल्चराक अनुसरून गंभीरतायेन, दुखेस्त अंतरस्कर्णांनी, विधिवत् ताचो इंतेर जाता.

ही जाली लापयावांची थोडेभितर काणी. हेर चवदा प्राण्यांच्यो खासीयतीय लेखिकेन तन्मयतेन आनी व्हडा आत्मीयतेन चितरायल्यात, उतरायल्यात.

सगल्याच प्राण्यांविशीं हांगां विस्तारान बरोवं नजो. पूण मोस्त्राखातीर म्हूण 'टिम्मकुट्टू'चीय मातशी खबर घेवया. लेखिकेन बारीक निरीक्षण शक्तीन ताचीय अति अपुर्बाय कशी जाता ताचें नकसुद उतरांनी वर्णन केलां.

'टिम्मकुट्टू' हो एक अति लाडावल्लो बुकीमाम. ताका नुस्त्याबगर जायना. लेखिकेचो बापूय नुस्त्याची पोती घेवन येता म्हणपाचो 'तेलेग्राम' ताका खंयच्यान येता तें कळपाक मार्ग ना. ना थंयसून हो ताच्या पायांकडेन हजर!

पात्रांवान कसलें नुस्तें हाडलां जायत हें तो वासावेल्यानूच पारखिता. सादें बारीक नुस्तें, करबट, भोपशें, खारें बी हाडलां अशें दिसल्यार तो लागीं रावना. पळयात केदी मिजास ती!

सोमार हो भोवतेक मडगांवकार हिंदूंचो शिवराकाचो दीस. पूण त्या दिसा हो टिम्मू खंयसून तरी कांयच ना जाल्यार खारें फैदासता आनी मारे झेतान, आंगणांत हाडून खाता. परस्पर स्वतंत्रपणान आपणाली गरज भागयता. मोनजात शिटूक तशीच स्वयंपूर्ण म्हणटात तें फट न्हय. पूण मजा म्हळ्यार सणा परबेच्या दिसा, बारशा - वाढदिसा बी खीर, मणगणें पायसूय आवडीन तो खाता. मागीर लेखिकेची आवय अपुर्बायेन सान भुरग्याक विचारचें तशे तरेन प्रस्न करता. 'फाटल्या जल्मांत तूं भट बी आशिल्लो काय किदें रे?'

टिम्मकुटूक एक दीस घरांत रिगिल्ल्या फुरश्या वांगडा झटापट करची पडटा. फुरशें मरून पडटा, टिम्मू जिखता. पूण ताच्या कानसुलाक मात मार लागता. लेखिकेची आवय जे मायेन आनी लक्तुबायेन ताचेर उपचार करता तें वर्णन वाचीसारकें. लेखिकेन कसलोच अडेचो झेत मिरयनासतना ल्हान ल्हान प्रसंगांतल्यान ह्या मूक प्राण्यांच्यो गजाली सादे सरळ भाशेंत फुलोवन फुलोवन सांगल्यात. अलंकारीकताय ना, जड-गुळो उतरां नात, तात्वीक चर्चा ना. 'तांचोय मोग करात' हो मोगाचो स्थायीभाव आनी अखंड कायम सूर मात ठांय ठांय जाणवता. बल्कावांचेर, वासरेर, पडवेर, वा चौकेर बशिल्ले कडेन गजाली सांगच्यो ते सहजतायेन हें बरप जालां.

सार रूपान, तात्पर्याचें सांगचें जाल्यार हें पुस्तक वाचप्यांक अंतमुर्ख करून विश्वात्मकते कडेन व्हरून एक व्यापक असो संदेश दिवंक सोदपी :

मनशांचेर मोग करचोच. पूण ह्या भूतलाचेर आसपी हेर प्राण्यांचेंय आमकां लागूंक जाय. हें विश्व सगल्यांचें. मळब फकत गरुडाचें, घोणीचें वा गिधाडां सारकेल्या व्हडल्या पक्ष्यांचेंच न्हय. मळबांत चिटुकले चिमणेकूय सान पाखांनी मुक्त विहार करपाची मेकळीक आसा, हक्क आसा.

दर्या फकत देवमाशांचो, वा हेर व्हड नुस्त्याचोच म्हणूं नजो. थंय ल्हान सुंगटांक, बुराट्यांक, शेंवटाळ्यांकूय मुक्त संचार करपाचो अधिकार आनी स्वातंत्र्य सैमान दिवन दवरलां. कोणाच्यानूच ताचेर आक्रमण वा अतिक्रमण करूं नजो.

'तांचोय मोग करात' हे उक्तेंत 'हे विश्वचि माझे घर' वा 'वसुधैव कुटुम्बकम्' हीं तत्वां सार रुपान आसपावल्यांत. एक आगळें - वेगळें पुस्तक बरोवन कोंकणी साहित्यांत मोलादीक भर घाल्ले खातीर लेखिकेक परबीं फावतात. ह्या पुस्तकाक वाचप्यांकडल्यान उर्बेभरीत येवकार मेळचो अशें हांव आवंडेतां. तथास्तु...

**प्रकाश थळी**

# मांडावळ

१

# लापयांव

माया म्हयन्यांतलें वोत आंग करपून वडयतालें. तरी आसतना हांव वोतांत वसून रडटां म्हणून आईन धेंगसो घालो. "चल गो भितर, बाय हांगा यो." आईचीं उतरां आयकून हांव काचाबूल जालें. पूण वोतांतल्यान घरांत वचन दिसनाशिल्लें.

तेन्ना हांव फकत आठ-धा वर्सांचें. एका वर्सा आदींच, 'काळग' आमच्या घरांत आयिल्लें. पळोंवक मर्त माकड. पूण काळगान लापयांवाक जल्माक घाल्लो. तो दीस आशिल्लो आयतार. आई रातभर 'काळग' सुटत म्हणून दोळ्यांक पाती लायनासतना बशिल्ली. सकाळीं मात स वरांचेरच बोवाळ जाल्ल्यान, धांवत येवन अनून कानांत सांगिल्लें, काळगागेर पाडो जाला. काळगागेर कोण जातलो म्हणपाचो हुस्को कितले दीस जाल्लो आशिल्लोच. तांतूत आई काळगाक पोशेता. "ताका चार घालूं नाकात गो" म्हणून शिटकायता आनी काळगाचें मोटें पोट म्हळ्यार केन्ना एकदां कोण जातलो तो कळ्ळयार पुरो हो हुसकोच.

भायर वचून गोठ्यांत पळयल्यार एक सोबीत गुबगुबीत पाडो नदरेंत भरलो. केन्नाकाय पाड्याक हात लायन अशें दिसलें. आईन म्हळें "वार पडची आसा. काळगा म्हऱ्यांत वचप ना. पाड्याक पळयलो मगो? चल भितर वचून न्हीद." पूण उपरान्त न्हीद आयलीच ना. पाडो, ताचे दोळे, पांय उबे करून आवयक तेंकप पळयन दिसतालें. दनपार जाली आनी पाड्याक पळोवन जालें. पूण मन भरनाशिल्लें. केन्ना ल्हवू बोट लाय, केन्ना माथ्यार आशिल्ल्या चंद्राचेर हात भोंवडाय करून करून आमी खोशी जावन नाचतालीं. काळग मात खरेंच पाड्याक आपले जिबेन चाट्टना आमकांय चाट्टालें. वेल्यान आमी भुरगीं म्हणून शींग लेगीत हालयनाशिल्लें. "आगो

तांकां तशें करून त्रास करीनात, तांकां पुरो जालां." आईचीं उतरां आयकून निमणें ल्हवूच आनी एक फावट "शाणो बाव तो." म्हणत घरांत धांव मारली.

"पाड्याक नांव कितें दवरचें" म्हणून आईन घरांत म्हळें. मनांत कितलीशींच नांवां आयलीं काळू, सोमू, चांदो... पूण "लापयांव" दवरपाचें थारायलें. उपरान्त लापयांवाचोय 'बारसो' म्हणटात तसो जालो. बाबान जिलवी हाडिल्ली. आमोरेचेर साकर आनी वात दाखोवन आईन "लापयांवाक" नांव दवरलें. साकर तोडांत घालीत काळगाकय सांगलें "बाये तुज्या पाड्याचें नांव लापयांव दवरलां गो." त्या दिसा पयलेच खेप लापयांवाक आईन उबारून घरांत हाडलो. पूण लापयांव चलतां चलतां पडटालो. "खरोच मरे हो लापयांव." म्हणून आई हांसली. मागीर आमी ताका धरून उबो केलो, पूण लापयांव बरोच जड आशिल्लो. सगळी शक्त लायल्यार पसून उबोच जायनाशिल्लो. मदींच मँ मँ करतालो. काळग मात ओगी आसलें. रवंथ करीत बशिल्लें.

घरांत लापयांवान खोशी हाडिल्ली. दिसयभर फकत 'लापयांव' 'लापयांव' 'लापयांव' ही उतरां कानार पडटालीं. लापयांव दूद पिता तें पळोवन आमी हांसतालीं. काळग मागीर आपली होंट चोरून इल्लेंशें दूद दवरिल्लें तेंय सोडटालें. लापायावांक दूद पिवंक जाय म्हणून आई दूदच काडिनाशिल्ली. असोच म्हयनो गेलो. लापयांव आतां उडणा मारूक लागिल्लो. धांवतालो, हे वटेन ते वटेन आवयक वचून धोंगशितालो. दूद पिवन बरो मोटो जाल्लो. "वारें भल्लां ताचे कुडींत." खरेंच वाऱ्याभशेन लापयांव झप्कन नाच जातालो. उपरान्त काळग 'हामें' करतालें ते बराबर धांवत येवन आवयक लुचतालो. लापयांव नाचता, उडक्यो मारता तें पळोवन फाटल्यान धांवतांच शिंगां मारुंक येतालो. मागीर काळग ताका आपलीं शिंगां ल्हवू तेंकोवन आड वडयतालें. काळग मोने पूण आमकां कितेंय जायत म्हणून लापयांवाक समजायतालें. गळ्यांत दावें पडटांच लापयांव मँ मँ करतालो.

लापयांव टुणटुणीत जाला. ताका कोणाचीय नदर लागत म्हणून आईन तांबडोच कुडको ताच्या गळ्यांत बांदिल्लो. बाबान बाजारांतल्यान मणयाची माळ हाडून घाल्ली. लापयांवाक दूद पिवन मस्ती मारिल्ली. आई लापयांवाच्या वांट्याचें इल्लें इल्लें दूद काडून आमकां पिवंक दिताली. चड दूद पिल्यार दूदको जाता. लापयांवाच्या पोटांत दूदच जातलें. दोन म्हयने केन्ना जाले कळ्ळेंच ना. पूण लापयांव बरोच मोटो जालो. माथ्यावेल्या चंदान तर लापयांव चड्डच सोबीत दिसतालो. पूण दोन म्हयने भितर

लापयांव म्हळ्यार धाकटो भाव कसो जालो. काळगाक घाल्ली तणाची काडी तोंडांत घेवन वरांचीं वरां चाबडायतालो. काडी गळ्यासकयल देंवनाशिल्ली आनी बारीकय जायनासली. पूण ताचो तो जाणटेपणाचो आव पळोवन लापयांवाची अपुरबाय जाताली.

आमोरेचेर बाबा घरा येतालो. येतना हातांत पांच स बिस्कुत्यो आसताल्यो. तीन म्हयने जाल्ल्यान आतां लापयांव खांवक शिकिल्लो. सुकें, जितें तण खायनाशिल्लो. आवयचे खावडींत तोंड घालून कुंडो खातालो. दर दिसा आतां लापयांव बाबाची वाट पळयतालो. बाबा येतांच आमोरेचेर में में करून बाबाक खावंक हाडलां काय म्हणून विचारतालो. मथामामाली फांती बिस्कीट म्हळ्यार जीव की प्राण म्हणटात तसो बिस्किटिचेर तुटून पडटालो.

एक फावट बाबान सदांच बिस्किटिचे कुडके हाडचे पडटात म्हणून एका बराबर एक कील बिस्कीट हाडून दवरली. आईन सकाळीं दूद काडले उपरान्त मातसो लुचोवन ताका सोडलो. आई दूद काडटाली. कोणूच उठूंक नाशिल्लो. काल बाबान हाडिल्ली बिस्कीट तशीच आशिल्ली. पूण लापयांव दांव्यांसयत घरांत भितर सरलो आनी रांदचे कुडींतले आईले सगळे डबे उस्तूंक लागलो. त्याच वेळार कुरकुरीत फांती बिस्किटिचो वास नाकांत भरतांच लापयांव ताचेर तुटून पडलो. करा- करा-कूर-कूर करुन लापयांवान बिस्कीट खावन वडयली. घोस्ताची बिस्कीट खावन काळगाचीय याद जाली ना. पूण केदो वेळ आपलो पूत दिसलो ना म्हणून 'हामें' केले उपरान्त लेगीत लापयांवान जाप दिली ना. आई दुदाचे तांबये घेवन भितर सरली आनी लापयांवांचें हें कर्म पळोवन बेगिबेगीन उरिल्ली बिस्कीट कुशीक काडली. पूण लापयांव भायर वचूंक तयार नासलो. वेल्यान आईक चाटपाक लागिल्लो. इतल्यान आईन म्हळें "खबर आसा हांव जाय म्हणून. हो मोग फकत बिस्किटिचो. उपरान्त "घेरे ही पळय" म्हणून दोन बिस्किटी भायर दाखयतांच लापयांव धांवन भायर गेलो.

लापयांवांक आतां सगळें कळटालें. "लापयांव" हें नांव आपलें हेंय ताका कळिल्लें. "यो रे" म्हणटांच येतालो आनी "पुरो तुजी फकांणां, चड अपुरबाय जाल्या तुजी" अशें म्हणटांच लापयांवांक राग येतालो. मागीर कुंडो, पेंड, कितेंय दिवं, खायनासलो. "फकाणां कळनात. पिसोरे." म्हणून माथ्यार हात ओडून पोशेतांच लापयांव मागीर आपली खरवती सारकी, आवयचेभशेन दिसतले आपले जिबेन पोले चाटूंक लागतालो, कान चाट्टां चाट्टां खातालो, पूण कुडको काडिनासलो. ताचे दांतय लागनाशिल्ले.

स म्हयन्याचो लापयांव मोटो आडांगी जाल्लो. रागार जातांच एकच उपाय करतालो तो म्हळ्यार पांय, हात चाट्टालो. अशें करून लापयांवाक एक वायट सवंय लागिल्ली. आईल्या कापडाचो पदरय दांतांनी चावतालो. कितलोय मारल्यार लेगीत आईक ल्हेंवप आनी उपरान्त परत कपडो खावप. कपडे चावपाची ताका संवयच जाल्ली.

घरांत वडी घेवन मारपाक कोणच तयार नाशिल्लो. लापयांवय घरांतलोच जाल्ल्यान 'पाडो' आसून लेगीत ताका कोणे हात लायलो ना. पूण एक दीस 'काळग' अकस्मात बरें ना जालें. काळगाचें पोट फुलिल्लें. आईन जायते उपाय केले. दोन दिसांउपरान्त काळग बरें जालें. ते दोनय दीस 'काळग' रडटा तें पळोवन मात लापयांव कुंडो लेगीत खावंक तयार नासलो. "मोनी जात. ताका उलोंवक येना पूण ताका कळटा." आईचीं हीं उतरां खरीं आसलीं.

आमोरेचेर येवपी बाबा दोन दीस जोर येवन घरांत उरलो. पूण बावाच्या हातांतली बिस्किट लापयांवान आनीक कोणाच्याच हातांनी खालीना. बरो जातकच बाबा कोट घालून वता तें पळोवन मात लापयांवान 'भें भें' करून बावाक बिस्कीट हाड आं" म्हणून याद केली.

फाटले वटेन आशिल्ल्या शेतांत लापयांवाबरोबर धांवपाची सर्त लागताली. पूण केन्नाच फाटीं उरलो ना. पात्रांव, ताका झुजांत धाडात. ताका खावड घालून घट करपाक जाय. कोणे कोणे सुचयल्लें.

गुटगुटीत लापयांव आतां परकी कोणय मनीस आमकां येवन तेंकल्यार शिंगां नासलीं तरी ताका शिंगां मारून धांवडायी. ताका लागून कितलेशेच खेपो गोठयांत येवन शेण व्हरपी बायलो कांचवेताल्यो. तांच्या आंगारच धांवन वतालो. बाबान लापयांवांक झुजा मळावेलो 'पाडो' करपाचें थारायलें. शिरवड्यावेलो व्यंकप्पा ताका पळोवन खोशी जालो. "पात्रांव हांव करतां ताका झुजारी" म्हणून व्यंकप्पा गेलो आनी दुसरे दिसा सगळीं जात्रेक गेलीं.

सांजवेळां किस्तोद मानायान आईन सांगिल्लेप्रमाण दूद काडून दोगांकय शेतांत सोडून घालीं आनी किस्तोद येवन मातसो आड पडलो. आमोरेचेर घरांत पावल दवरतांच कळ्ळें, लापयांव गेलो. शेतांत कसले जिवारीन घांस मारलो वा कितें कळ्ळें ना. पूण फोण काडून लापयांवाचे कुडीर फुलां ओंपलीं. सकाळीं पुरले उपरान्त वोतांत बसून सुर्याच्या वोतांत काळजांतलो लापयांव मस्त पेटिल्लो दिसतालो, पूण दुकांची तळय ताका पळोवंक शकनासली. लापयांव गेलो. पूण लापयांवांक

हातांत घेवन भोंवपी हात तशेच आसले. आज ताच्या मर्णा उपरान्त उगडास जातालो त्या उतरांचो "बाकान्नी दूद तुमकां पिवों जायें मुगे माजीर तेका नाकूट लायन मारोन उडोय." अशीच आनी एक भंयाची गजाल काळजांत मर्णाचीच रिगिल्ली. दिश्टी मोडणें मारून मरतात म्हणपाची. दूदको जायत म्हणून आई ताका बाटलेंतल्यान उदक घालताली. तातूंतल्यान तो वाटवलो.

गोठो, गोरवां पाडव्या दिसाय भरून मदींच लापयांव नाच जालो. पाडव्यादिसा ताचेर तरेकवार रंगाचे तिबे लायिल्ले. मनांत आयलें ताका कोणाचीय पूण नदर लागली. देखून घरांत दुदाची झर व्हांवयले उपरान्त सगळ्यांक खोशी पळोवन लापयांवच वाऱ्यार उडून गेलो.

काळग आमोरेचेर रडूंक लागिल्लें, हांबेतालें, पोराक आपयतालें. पूण जेन्ना ताका आईन पोशेत सांगलें, "काळो, तुजो काळगो गेलो. परत येवचो ना." तेन्ना काळगाच्या दोळ्यांत दुकां आसलीं.

गाय रडटा म्हणपाचें पळोवन आमच्या दोळयांत दुकां आयिल्लींच. एक नवो जीव, एक जनावर, मोनी जात म्हणून पाचारतात ती काळजांत घर करून गेल्ली.

घरांतल्या ल्हानाव्हडांक यादीचे खीण मात दवरून गेल्लो. "लापयांव". आजय एकाद्रया ल्हान पाड्याक पळयतांच लापयांवाची याद जाताच. पूण ताचें नांव मात आयकून अजुनय जायते जाण हांसतात.

"लापयांव" म्हणटांच हांसपी, ताची काणी आयकतांच खोशी जातात. मोनी जात जी आमकां सुखी दवरता, आमचे भशेनच समजूंक शकता, आपले भाशेंत उलयता, आमची भास येना म्हणून फकत दाव्याचोच हक घेवन बसता. लापयांवाची जीणय अशीच. स म्हयन्यांत कॅन्सर जावन मेल्ल्या भुरग्याक आमी हळहळटात. पूण लापयांवाकय अशे तरेन अकस्मात ओडून व्हरपी त्या मर्णाचो राग येता आनी लापयांवाची काणी दोळयांत दुकां हाडलेवगर रावना.

मोनजात ही मोनी आसली तरीय तिका मन आसता म्हणटात तें सामकें खरें.



२

# टिम्मकुटू

आमोरेचेर दारांत माजरां पिलांचें म्यांव-म्यांव कानार पडलें. तातूंतलें एक पील ल्हवू खाचींतल्यान भितर सरलें. "माजर आयलां, शी! धांवडाय ताका. कोणालें म्हणून कोण जाणा?" इतल्यांत पील धांवत आईच्या म्हऱ्यांत पावलें. पायांक तेंकून "म्यांव म्यांव" करुन काकुळटीक आयलें.

आईन पिलाक उबारून भितर व्हेलें. एके ताटलेंत दूद घालून पिवंक दिलें. पिलाक भूक लागिल्ली. सडसडीत दूद पिलें. आतां म्यांव म्यांव करिनासतना तें ओगी एकाच कोनशाक बसलें. थंय एक पोन्ने गोजडेचो कुडको आसलो ताजेर तें न्हिदलें.

दुसऱ्या दिसा ताका उदकांत न्हाणयलें. पुसून जातकच पील धवें फुल्ल न्हय तर पुडीकोरा दिसलें, सोंशाभशेनच. दूद आनी चपातेचो कुडको खावपाकय लागलें. ल्हान पिलाचें घरांत रडप कानार पडलें, त्या दिसाच्यान हुंदीर मातशे कमी जाले. मागीर ताका नांवय दवरलें. पूण जेन्ना तो बुकलो म्हणून कळ्ळो तेन्ना सगळ्यांनीच ताजें वेगळें नांव दवरलें "टिम्मकुटू".

टिम्मकुटू ल्हवू ल्हवू व्हड जातालो. ल्हान आसतनाच भायर वचून येवपाची ताका संवय आशिल्ली. आईच्या पांयाकडेन न्हिदतालो. कोनशाक दवरिल्ले गोजडे परस आईच्या पांयाक तेंकतांच ताका शांततायेन न्हीद पडटाली. आई उठ्टांच आपुणूय उठून तयार आसतालो. आई न्हिदता तेन्ना न्हिदतालो. दीसभर आईच्या फाटल्या फुडल्यान टिम्मकुटु भोंवतालो. सांजवेळा नीलु बरोबर पेल्लान खेळटालो. तोडांत पेल्ल धरून धांवप आनी तोंडांतल्यान काडपाक येतांच दावकूल मारप.

आपलो पेल्लाचेर हक दाखयतालो. उपरान्त 'चल खेळया मरे' म्हणून हातांत मागतांच पेल्ल सोडटालो.

आईचें सुताचें गुठल ताका पेल्ला भशेन दिसतालें. पांयाकडेन पडिल्ल्या गुठला बरोबर वरांची वरां टिम्मकुटु खेळटालो. पूण पुरो जातांच आईच्या म्हऱ्यांत वचून पांयाचेर तकली दवरून न्हिदपांत ताका सुख मेळटालें.

टिम्मकुटु मातसो मातसो व्हड जालो आनी आतां घरांत 'म्यांव म्यांव'च्या बदला 'म्यांवो म्यांवो' जाल्लें कानार पडपाक लागलें. जसो जसो व्हड जातालो, घरांतलीं कितलींशींच कामां आपल्या माथ्यार घेतालो. सकाळीं आई उठचे आदींच उठून तयार. बेगीन उठून दर एकट्याच्या कुडींत वचून खासा आपल्या दावकुलान ना जाल्यार म्यांव म्यांव करुन उठयतालो. तरी आयकना जाल्यार आपलें आंग घासून उठ मरे म्हणून ल्हवू काकुळटेक येतालो. सगळीं उठिल्लीं पळयतकच आपल्या कामाक लागतालो. आईन घाल्ली चपाती खातालो. ते उपरान्त खंय वतालो कोणाक खबर! दनपरां जेवणाक तयार. जेवन ताळ्यार शीत आनी नुस्तें पडटांच नाच्च जातालो. इतलें आसुनय बाबा नुस्तें घेवन आयलो म्हणपाचोय तेलेग्राम ताका कोण दितालो कळनासलें. बाबाक नुस्त्याची पोती घेवन आंगणांत फुडलें पावल मारूंक दिनासलो. "आरे म्हाका वडोवशीत." टिम्मकुटू आयकूंक तयार नासलो. निमाणे बाबा ताका थंयच पोतयेंतलें एक नुस्तें काडून वडयतालो तें आंगणांतच खायत बसतालो.

टिम्मकुटूक कसलें नुस्तें हाडलां हें वासारच कळटालें. करबट, सुकें करुंक बारीक सुगटां हाडटांच टिम्मकुटू पयस वचून बसतालो. ना जाल्यार त्याच वेळार 'म्यांवो म्यांवो' करीत खोंपीर वयर वचून न्हिदतालो.

सोमार येतांच टिम्मकुटू घरांतल्यान पळ काडटालो. त्या दिसा कोणालीं तरी खाऱ्या नुस्त्याचीं बोडकां दारांत घेवन येवन खावंक बसतालो. दारांतली चिंच टिम्मकुटूक खूब पालव दिताली. सकयल रस्त्यावेल्यान वतल्यो नुस्तेकान्नी दनपरां आपल्या भुरग्यांक भजीं जावं बटाटवडे घेवन घरा वतालीं. कावळे चलून वतल्या नुस्तेकान्नीच्या पाटल्याचेर झोपय मारुन तांतली पोटली फारायताले. एकाद्री कागदां पोटली जड आसताली. कावळो चोंचींतली पोटली सोडटालो. कागदा पोटली जमनीर पडटकीच ती भुरग्यांक कशी व्हरतली म्हणून थंयच सोडटाली आनी टिम्मकुटूचें फावतालें.

वागाभशेन आशिल्लो आपलो जबडो आनी तपकिरी रंगातलो थिपके आशिल्लो

टिम्मकुटू मागीर एकाद्र्या सावजाचेर तुटून पडचो तसो भज्यांचेर ताव मारतालो. ज्या दिसा कांयच ना तेन्ना ताजी नदर चिंचेर वयर चडटल्या हुंदराचेर थिरावताली. घरांत फकत सोमारा दिसा आमी शिवराक आसतालीं. त्या दिसा टिम्मकुटूचो घरांत डबे हालय, रातीचो खंयचो सकयल वडय हो उद्येग सुरु जातालो. शिवराक म्हणून कळटांच वयर पाडसार वचून शिकार करपांत गुल्ल.

टिम्मकुटू ल्हानाचो केन्ना व्हड जालो कळ्ळोच ना. पूण ताजें दिसप मात वागाभशेन. टिम्मकुटू बुकलो, पूण घरांत वारसो जावं लग्न आसल्यार ताका ज्युस्त समजतालें. फोगोट्यां मारानाचो आवाज म्हळ्यार टिम्मकुटू धा हात पैस धांवतालो.

मुज वा लग्ना दिसा केल्ली खीर, मणगणें, पायस कसलेंय गोडशें नेटान खातालो. "आदल्या जल्मांत कोणय पूण भट आसलो हय रे? अशें आई म्हणटा म्हणून "म्यांव" करतालो. च्याचे बरोबर शेव, चिवडो, लाडू जावं दूदफेणो मनशाभशेन सगळें खातालो. दुसऱ्या दिसा भायर वचून ज्युस्त फावो त्या तणांचीं पातींय चाबडायतालो. गंजनाची नवी आयिल्ली पाती टिम्मकुटू खातालो.

एक फावट हुंदीर खुबूच त्रास करतात, सामानाची वाट लायतात म्हणून बाबान ताका रातभर दुकानांत भितर घालून दवरलो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं दार उगडटांच टिम्मकुटू धांवत रस्त्यावेल्यान तोय बी पलतडच्यान आलतडीन घरांत आयलो. घरांत येवन मोट्यान आड्डूंक लागलो.

"आरे कळ्ळें तुजें काम. यो हांगां, दूद घालतां पी." म्हणटाच आईच्या पांयाचेर लोळण घेवन मेल्लेवरी पडटालो. दोन दिसां उपरान्त ताका समजल्लें दुकानय आमचेंच म्हणून. पयलेच दिसाभशेन धांवन येनाशिल्लो. बाबा मागीर ताका ग्लुकोज जावं हेर कसलीय बिस्कीट खांवक दितालो. ती खावन सवकासायेन "वच रे आतां घरा" म्हणटकच परत घरा येतालो.

टिम्मूची नदरय तशीच तीक्ष्ण आसली. घरांत कीड, मूय कोणाकच भितर सरपाचें धाडस नासलें. तरी आसतना एक फावट फिर्शें घरांत केन्ना भितर सल्लें कळ्ळें ना. पूण घरांत येवन बसतांच टिम्मकुटून ताजेर घुरी घाली. तांचें दोगांयचेंय बरेंच झूज जालें. टिम्मकुटूच्या पोल्याक मार बसलो. पूण फिर्शें मरून पडलें. खाटी मुळां कसलो बोवाळ जाता काय म्हणून आईन पळयल्यार दोगांय एकामेकांक सोडीनात. लागसारच पाळण्यांत भुरगें न्हिदिल्लें. आईन मानायाक आपोवन फिर्शें भायर वडोवंक लायलें. टिम्मकुटू मात त्या दिसा आईच्या पांयाकडेन न्हिदलो ना.

इतले मजगतीं ताज्या पोल्याक जखम जाली. टिम्मकुट्टू कोणाकच हात लांवक दिनासलो. पूण आईन एक दीस ताका घट धरून तापयलो. "जीव चड जाला? मरता हय रे? राव अस्सो राव" म्हणून आईन हळडीपिठो मारलो. टिम्मकुट्टूक बरें दिसलें. वयर तांबडें वखदय लायलें. ल्हवू ल्हवू दर दिसा मेल्लेवरी पडून वखद लावन घेतिल्ल्यान टिम्मकुट्टू बरो जालो.

खरें म्हळ्यार टिम्मकुट्टू वाड्यावेलो हिरो आसलो. कितलीं नवीं नवीं माजरां आंगणांत दिसतालीं. पूण टिम्मकुट्टूसारको एकटोय नासलो. आईन एक फावट ताका पॅण्ट आनी शर्टय शिंवलो. तो घालून टिम्मकुट्टू दोन दीस बसून राबलो. पूण कपडे काडटांच हुस्क्या मेकळो उडयो मारून नाच्च जालो.

दनपार जावं आमोरेचेर आपल्यो खबरी करतात हें ताका कळटालें. फिर्शाक मारलां त्या दिसा टिम्मकुट्टूक पळोंवक शेजारचे कितलेशेच जाण आयले. आईन मात ताका लिपयलो."गेलो दिसता खंय हेडपाक" म्हणून आयिल्ल्याक सांगलें.

टिम्मकुट्टू मोनी जात खरी पूण कोणय बरो ना जावन खाटीचेर न्हिदतांच तो खाटीवेलो हालनासलो. मच्छरदाणीतय भितर सरून जितले दीस खाटीचेर न्हिदिल्लो कोणूय घरांतलो दिसतालो तेन्ना टिम्मकुट्टू काकुळटीक येवन 'म्यांव' म्हणटालो. ताका खाण जेवण नाका जातालें. उपाशीं उरला ताचें नुकसान भरून काडटना हुंदराक एकाच दावकुलाच्या चपक्यांत धरून मारून खातालो. केन्ना कटा कटा करून तांचीं हाडांय चाबतालो.

एका रेजीदोरान टिम्मकुट्टूक आमगेर पळोवन मागलो. बाबान तर ताका दिलोच ना. आईन सांगलें "ताका आमी भुरग्यावरी सांबाळ्ळा. आपल्या भुरग्याकच काडून कोण दुसऱ्याक दीत व्हय?" "नो. सॉरी" म्हणून रेजीदोर गेलो. पूण टिम्मकुट्टू त्याच दिसा आमोरेचेर भायल्यान भितर घरांत सरलो. रांदचे कुडींत आई रांदताली. इतल्यांत एका विखारी जिवान ताका घांस मारलो. 'म्यांव' म्हणून टिम्मकुट्टू दोन फावटी आड्डलो. कितें जालें म्हणून आमी सगळींच धांवली. पळय जाल्यार टिम्मकुट्टू फडफडटा. थंयच ताजो जीव गेलो. पूण टिम्मकुट्टू मेलासो दिसनासलो.

एका मिनटांत चपकुलांत मोट्या मोट्या हुंदरांची जीण सोंपोवपी आज एका जिवाच्या तावडींत सांपडून कसो मेलो कळ्ळोना.

घरांत रेडिओचेर वयर बसून, कान उब्बे करून रेडिओ आयकुपी, दारांत फुलांकडेन उबो, आंगणांत बाबाची वाट पळोवपी टिम्मकुट्टू मेला कसो दिसना. दनपरां पानार

बसतांच आईक जेवणाची उंडी नाका जाताली. पयली ताजी आसताली. आईन मागीर सांगलें "तो मरूक ना. सोंपल्या ती कूड" म्हणून. पूण निमणी पळयिल्ली टिम्मकुटूची काळी निळी जाल्ली कूड मात कशीच विसरूक येनाशिल्ली.

गोरो गुवगुवीत, पूण ताजें तोंड निळेंच जाल्लें. जणू सगळें वीख आपुणूच पिवन मेकळो जाल्लो. बाबान स्वता आपल्या हातांनी ताका पुरलो. फोणकुलांत दवरतांच वयर फुलां आनी ताजें पॅण्ट, शर्टय दवरलें. सांज सकाळ जाय अशी ताजी दुदाची ताटलीय आईन ताजेवरोबर फोणकुलांत दवरया म्हणून सांगलें. दिसतालें टिम्मकुटू आमकां सोडून कित्याक गेलो? आतां तो परत येवचो ना म्हणून कळटांच सगळ्यांक वायट दिसलें.

टिम्मकुटूची याद परत परत दोळ्यांत दुकां हाडटाली. चलता भोंवता थंय टिम्मकुटूच आसा असो भास जातालो. कूड नासली पूण तो माया लावन गेल्लो.

सोफार बसपाचे ताजे सदांचे सुवातेर टिम्मकुटूच बसला अशेंच दिसतालें. घरांतलें ताजें रितेपण जाणवतालें.

टिम्मकुटूच्या मर्णांत खरें म्हळ्यार आमच्या खेळांतलें 'बेटलाबेटूल' ना जालें. टिम्मकुटू खेळाचो राजा ना जाल्ल्यान आतां खेळय आसूं अशें खूब दिसूंक लागिल्लें. एकार एक मूठ दवरून चणे, मूग करून खेळटना निमणी मूठ चपकुलाची आसताली.

टिम्मकुटू एक जनावर. पूण ताणें आपणाकय समजिकाय आसा, मनशावरी उलोवंक येना आसलें तरी "म्यांवो म्यांवो"चे भाशेंतल्यान एका कुटुंबातलो वांगडी जावन त्या कुटुंबाच्या वांगड्यांच्या काळजांत आपली सुवात एका मनशावरी दवरिल्ली. मागीर हे मोने जातीक मोनी कशी म्हणूं येत. एकाद्रो मनीस मोनो आसलो म्हणून ताका 'जनावर' म्हणीनात. जाल्यार टिम्मकुटूक जनावर कशें म्हणूं येत?



## ३

# पिगू

जाकी आमोरेचेर भितर सरलो. जाकी सदांच येतना कितेंय तरी घेवन येतालो. आजय जाकी कितेंय पूण घेवन आयला. "जाकी कितें आसा रे हातांत?" "बाकान्नी आमच्या धाकट्या चेडवान दिलां." "कितें रे?" आईन विचारतांच जाकीन म्हळें "बायेक कोंबये पील हाळां." जाकीन कोंबये पिलाक हातांत घट्ट धरिल्लें. हाताच्या उबेन पील आवाज काडनाशिल्लें. "बाये हें चोय तुका हाळां." पिलाक सकयल जमनीर दवरीत जाकीन म्हळें आनी सकल दवरतांच पील जाकीच्या पांयांक तेंकून उबें रावलें. "बोरें हांव वोयतां." "आरे! राव खंय वता बायेक अपुरबायेन पील घेवन आयला. च्या घे आनी वच." जाकी थंयच बसलो. पील जाकीक तेंकलें. "आगो हें चोय तुगे बाय. हांव वोयतो आतां घारा. हिंगा बोरें कोन्न राव." "जाकी आनीकूय आसात रे पिलां?" आई नाशी पळोवन आमी जाकीक विचाल्लें. "बाये जायतीं पोरां काळ्यांय म्हुजे धुयेन. तुका सोदून काडोन दिलां मुगो बाये. धोवो कोर बोरो न्हूं रे?"

धवें फुल्ल पील पळोवन जाकी उमेदीन सांगतालो. इतल्यांत आईन दिल्ली च्या पिवन जाकी वचपाक लागलो. पील आंगणामेरेन जाकी फाटोफाट धांवलें. व्हड व्हड पावलां मारूक जाय नाशिल्लीं तरी उडणां मारपाचो यत्न करतालें. जाकी सायकलीर बसून गेलो. पील एकटें पडलें, ल्हवूच परतलें. घराच्या भायल्या वारांदार पावलें. आतां कू कू.. करूक लागलें. हेवटेन तेवटेन गळो वयर काडून पळयत कूकू करून मदींच आड्डलें. पिलाचो मोटो आवाज कानार पडटकच आईन म्हळें "पळय पोर आवयक सोदता." कांचवेल्लें पोर हेवटेन तेवटेन मातशें धांवलें. उपरान्त खरशेलें, आनी बसलें. मदींच कूक कू करून रडूंक लागलें. पुरो जाल्ले पिलाचे दोळे झेमेले.

"पोटाक भूक लागली गो?" म्हणून आईन हात लायलो. पील उठलें, आनी आई म्हऱ्यांत आयलें. आमी ल्हवू पिलाचेर हात भोंवडायलो. एक फावट कूक.....कू केलें मागीर पील ओगी रावलें. "हात लायल्यार लेगीत पील कांयच करिना" आमचें मन नाचूंक लागलें. "काय बरें पील" पांखां वेल्यान हात भोंवडायतांच पील आंग चोरतालें.

पिलाक खंय दवरप हो प्रस्न मनांत आयिल्लो. पूण आईन खोंटलो हाडूंक लायलो. खोंटल्यांत पिलाक दवरलें. पूण पिलान पुट्ट करुन भायर उडी माल्ली. खोंटल्यांतल्या तणांत रावप ताका आवडलें ना. ताचें मन लागनासलें. नवी सुवात, नवीं मनशां, खोंटलोय वेगळो, पीं. .पीं...करीत पांखांटे हालोवपाचो यत्न करीत उडूंक लागलें. आईन घाल्ल्यो कणयो खाल्यो. पूण खोंटल्यांत बसलें ना. सगळीं न्हिदलीं तेन्ना ल्हवू आईचे खाटीमुळा येवन बसलें. खाटीच्या एका खुराक तेंकलें.

दुसऱ्या दिसासाकून पिलाक भायर खोंपीत दवरपाचें थारायलें. घरांत घाण करता म्हूण. रात जातांच खोपींत धापिल्लें पील आकांतान आड्डूंक लागलें. निमणें ताका खोंटल्यांतल्यान भायर काडलें. पील सरळ आईच्या खाटीकडेन उबें रावलें. "आई ताका घरांतच दवर गे." आमी म्हळें.

त्या दिसाच्यान पील घरांतलेंच जालें. आईन ताजें नांव 'पिगू' दवरलें. धवें पिगू कणी कणी खातां खातां तांदूळ, गंव, खावंक शिकतालें. पिगुचीं पांखां व्हड जावंक लागलीं. चोंचय लांब जाली. पिगुची इश्टागत जाली सोमी बरोबर. सोमी धवोच सोंसो आनी पिगू धवी कोंबी. दोगांय बरीं वाडटालीं. कोंबी आनी सोंशाची इश्टागत पळोवन अजाप जातालें.

एक फावट घरांतलीं सगळीं भोंवडेर वचपाचीं आशिल्लीं म्हणून आईन सोंशाक मेकळो दवरलो. भायर ताच्या घरांत ताका जाय तेन्ना भितर भायर सरूंक मेळटालें. पूण पिगुक मात बांदून धांपचें पडटा म्हणून ताच्या पांयांक लांब सुतली बांदली. पिगू मातयेंत जाय तें उस्तूंक शकतालें. जाय जाल्यार घराच्या भितोडे बसतालें. सकाळच्यान दोगांय एकटीं जालीं. दोगांय एकामेकांक समजायतालीं, काय उलयतालीं कळ्ळें ना. पूण आमोरेचेर फाटलें दार उगडटांच सोमी दारांत उबो आनी खोशयेन पूट् पूट् करून उडक्यो मारता! भायर पळयल्यार पिगू ना.

आईन पिगू पिगू म्हणून दोन उले मारले आनी इतल्यांत पिगू हजर जालें. पळय जाल्यार अर्दी सुतली पांयाकच लोंबकळटा. पिगू आनी सोमी दोगांय एकामेका

म्हऱ्यांत बसलीं. "पिगू तुका सोमीन सोडलें गो?" सोमी उठून नाचूंक लागलो. पिगू ओगी बसून रावलें. पांयाची सुतली सोडयसर तशेंच रावलें. पिगू ल्हवू ल्हवू करून घरचेंच जाल्लें. सामकें मनशाळिल्लें. सकाळीं आई उठ्‌ठांच ताका पयलीं खावंक गंव जायच आशिल्ले. आपल्याक घरांत घेनात ही ताका खंत आसली. ल्हान आसासर आईन खाटीमुळां दवरलें. उपरान्त घराच्या भितोडे माथ्याकडेनच ताका घूड बांदलो. पिगू घुडांत बसतालें. पूण कान आईच्या आवाजाचेर आसताले. भायले वटेन कोणय खोंपींतली बडी, सोण्णां वी चोरुंक आयिल्लीं दिसतांच पिगू वेगळोच आवाज काडी. आई मागीर मोठ्यान म्हणटाली, "न्हीद गो पिगू, ओगी न्हीद तूं."

दनपारचें मात शीत कालोवन घाले उपरान्त पिगू चोंच वयर काडून काडून पळयत आसतालें. "आई केन्ना न्हिदतली आनी आपूण खाटीक वचून तेंकतलें हाची वाट पळयतालें. कितलेंय उलय वा धांवडाय, धुकळ! पिगू हालनासलें.

एक फावट घरांत घाण केली म्हणून कमलान ताका मारलें. पूण त्या दिसाच्यान घरांत आयल्यार लेगीत ल्हवू पाखां फुलोवन आयिल्ल्या मोरावरी ल्हवू ल्हवू दोंके दवरुन बसप. ल्हवू साडी अचळय उबारुन चलचें तशें, आई आड पडिल्ली उठले उपरान्त भायर पळ काडटालें.

अपुरबायेचें पिगू व्हड जालें. तांतयां घालूंक लागलें. आईन ताका खूब सांबाळ्ळें. एक फावट दोन तांतयां घाले उपरान्त तिसरें तांतें फुटलें. चौथें तांतें उबयनासतनाच उठलें. मागीर आईन ताका घुडांतलें भायर काडलें. ताका एका खोंटल्यांत बसयलें. खोंटल्यांत तण घालून ताका धांपून दवरलें. पिगू आतां व़ेळार ज्यूस्त तांतें उबोवन जातांच एक वेगळोच आवाज काडटालें. "आगो सोडटां" म्हणटांच पिगू परत आपल्याक भायर काड गे म्हणून सांगतालें. ताची भास आईक आनी आईचें उलोवप ताका बरें कळटालें.

आतां पिगूक तांतें घालपाचें जातकच जागो सोदपाची गरज पडनासली. कॉ कॉ कॉ..... करीत आई म्हऱ्यांत उबें रावतालें. "चल भायर, खोंटलो दवरतां. घरांत भितर गेल्यार उलयतलीं तीं." आईचीं हीं उतरां आयकतांच पिगू सरळ खोंटल्या म्हऱ्यांत उबें जातालें.

तिसरे फावट पिगून परत तांतयां घालीं. बारा तांतयां घेवन पिगू रवाणेंक बसलें. पिगू घुडांत बशिल्लें. आईन कोले, कोळो हुंदीर तांतयां व्हरत म्हणून घुडाक नवें दार लावन घेतलें. "आई पिगू पिलां केन्ना काडटलें गे?" "आगो दीस आसात अजून"

करतां करतां एकवीस दीस जाले आनी बाविसाव्या दिसा सकाळीं घुडाकडेन पीं पीं आवाज कानार पडलो. हे वटेन पिगू कू कू कूक करुंक लागलें. सकाळीं "पिगून पिलां काडलीं गो" म्हणून आईन म्हळें आनी पिलांक पळोवन जीव उचांवळ जालो. पिगून इल्लीं इल्लीं माणकुलीं सोवीत पिलां काडलीं. वारा पिलां. तातूंत मदीं बशिल्लें पिगू. पिलांचे वारीक तिळांभशेन काळे दोळे आनी तरेकवार कोर. चींव चींव करुन आवयच्या पांखांतच पिलां लिपतालीं. पयल्याच दिसा सगळ्या पिलांचो रंग पळोवचें दिसतालें. आई सगळ्या पिलांक पळोंवक मेळना मगे" "राव मागीर पिगूक भायर काडून निवळ करतां तेन्ना पळयात." आईन मागीर म्हळें खरें पूण मन रावंक तयार नासलें. आईन सांगिल्लें काना मनार घेनासतना हांवें परत आईच्या पदराक धरुन म्हळें. "आई म्हाका पिलांक पळोवंक जाय." "घुडाकडेन पासय मारल्यारपसून पिलां नदरेक पडनात." तशें जाल्यार हांव रांदतां आनी ताका नाचणें घालतलें तेन्ना तुका आपयतां. दनपार मेरेन आई केन्ना रांदून सोंपयता काय म्हणून वाट पळयत बसलें. आईचो उलो कानार पडलो आनी घुडाकडेन धांव मारली. सकाळीं मातशी पळयिल्लीं पिलां आतां सारकीं पळोवंक मेळ्ळीं. आईन पिलांक आनी पिगुकय भायर काडलें. पुडीकोर, धवो, काळो अशा रंगाच्यो स जोडयो. "एक डूज पिलां काडल्यांत पिगुन, पळयात गो." आईन आमकां सगळ्यांक पिलां दाखयलीं. पिगुन पिलांक हात लायता तो पळयलो. पिलांक आमी उबारून धरलीं. पिलां आड्डूंक लागलीं. पूण पिगू ओगी आसलें. आईन नवें तण घालून पिगू आनी पिलांक बसयलीं. किस्तोदीन म्हळें "बाकान्नी कितू पिलां काळ्ळीं गे?" "जायतीं आसात."

आमकां नवो उद्येग मेळ्ळो. दर दिसा नाचणें घालप, किस्तोद घुडाचें दार उगडटांच तांकां धरप. किस्तोदीक मात पिगू हात लेगीत लावंक दिनासलें. ताचे मानायाचे हात पिलांक दुखयत म्हणून काय कित्याक कोणाक खबर! ल्हवू ल्हवू नाचणें, कणी खातां खातां पिलां व्हड जावंक लागलीं. पिगू कावळ्याक म्हर्‍यांत घेनासलें. घोणीचेर, कावळ्याचेर झूडून वतालें. एक फावट पिलाक चोंच मारपाक आयिल्ल्या कावळ्याक पिगून चोंचायलो. गोमटेरच चोंची मारून कावळ्याक जमनीर वडयलो. पिलांक धरपाक येतल्याच्या आंगार वयर उडून पिगू चोंची मारतालें. घरांतल्यांनी पिलांक हात लावप ताका मान्य आसलें. पूण कमलान, जावं किस्तोदीन हात लायतांच रगत काडटालें. पिगू पिलांक सारकें वळखतालें. एक पील मातशें फाटी उल्लें जाल्यार कूक कू करून ताका आपयतालें.

पिलां व्हड जालीं. तशीं चड व्हड न्हय आनी पिगू तांकां चोंच मारूंक लागलें. पिलां वचून वचून ताका तेंकतालीं पूण पिगू तांकां मारून धांवडायतालें. ताची देख कडक आसली. एकाय पिलाक घरांत भितर पावल घालूंक दिनासलें. पिलांक आवयच मारता तें पळोवन अजाप जातालें. स जोडयो. दर एकट्यान दोग तीग जाणांचो पंगड केल्लो. आवय मारता म्हणून वुचकळ्यांत पडिल्ले दोग कोंबे आनी धा कोंबये पोरां. सवंय जाले उपरान्त वेगवेगळे भोंवताले. घुडांत एकठांय घालतांच पिगू तांकां रातभर वडय बडय बडयतालें. बाबडे केंकें करून वोगी रावताले.

कांय म्हयने गेले. पिगुन आपलो सदांचो वावर सुरू केलो. सकाळीं दारार दोक्यांनी खरखर करून आईक उठोवप. गंव खावप. दनपारचें शीत आनी उपरान्त ल्हवू आईच्या खाटीमुळाकडेन येवन ओगी बसप. एक फावट आईच्या पांयांकडेन आशिल्ले वागोणेचे पिगुन एकाच चोंचीन दोन कुडके केले. उपरान्त रोखडीच मटम केली. पिगुचें भोंवप तितल्या वाठारापुरतें आनी घरांतल्या जाणट्या नेणट्या तशेंच परकी मनशाक वळखुवपाची समजिकाय पळोवन अजाप जातालें.

त्या म्हयन्यांत आजी हातुणार आसताली. आजी रातची खांकत जाल्यार पिगू भायल्यान 'कोंक' करतालें. घरांत खबरेक सोयरीं येतावतालीं. आई अशी वोगी वसल्या ती पळोवन पिगून आईच्या पांयार येवन तकली दवरली. "आगो कितें जालां? चल, बेठेंच बसलां गो हांव चल तूं चल." पिगू हाल्लें ना. ते राती आज्जेचें चड जालें. आजी आतां वता अशेंच जालें. पूण ती रात गेली आनी सकाळीं उठून भायर आयल्यार आज खूरखूर पिगू खंय गेलें? अशें आई म्हणटांच दिसलीं पांखां. शेजाऱ्नीन पिगूचीं पांखां कापिल्लीं पूण आमी पिगूक लायिल्लो गुलालाचो रंग पिसुडिल्लीं कांय पिसां दिसलीं. "मनशाचेर अरिश्ट आयल्यार खंय मोनी जात जावं सुकणीं सावजां आपल्याचेर घेतात." आजी वचचे बदला पिगूच भुर्रर करून मोरा पाखांनी उडून गेलें. उरिल्लीं फक्त पांखां आनी गुलावी रंग.



४

# मॉपॅट

रामनमी दिसा अभयाक जाय म्हणून मारजाकिनान एक पेटो दारांत हाडून तेंकोवन म्हळें, "तुमगेर सुण्यापेटो ना म्हणून हो हाळ्ळा." पळय जाल्यार एक गुबगुबीत बुकलो कसो सोंशावरी धवो आनी फाटीर पुडीकोराचे तिबे आशिल्लो एक सुण्या पेटो आसा. दोनय कान लांबताले. मोट्या बारीकसाणीन पेटो सगळ्यांक तेळटालो. नदर मात सामकीच सादी भावार्थी, काकुळटेक आयिल्लेवरी दिसतालो. माणकुले दोळे पीटपीट करुन बंद उकते करुन मदींच कूं कूं चालूच आसलें.

कापसावरी गुबगुबीत पेट्याक सगळ्यांनी उखलपाक सुरु केलें आनी पेटो मोट्यान कूं कूं करून रडूंक लागलो. पेट्याचे उमे घेत "शाणो तो!" काय बरो गुबगुबीत! कायबरो दिसता अशें म्हणत ताका ह्या हातांतल्यान त्या हातांत पावयत रावले. ताका बरेंच दुखलें आनी ताणें मोट्यान क्यांव कूं कूं केलें.

आईन येवन आमच्या हातांतल्यान ताका सोडयलो आनी पेटो रडपाचो थांबलो. आईच्या हातांत पेटो एकदम रडपाचो बंद कसो जालो हाचेंच अजाप दिसलें. पेटो ओगीच रावन आईचे हात आपले जिबेन चाटूंक लागलो. बोट खावंक लागलो. दूद घालतकच पिवपाक लागलो. आईन ताका एका कोनशाक व्हरून दवरलो. थंयच मिशिन आसलें. शिवपाच्या मिशिनाकडेन तो तेंकून बसलो. कांय वेळ कुंय कुंय केलें आनी उपरान्त थांबलो.

'मॉपॅट' हें ताचें नांव सगळ्यांक आवडलें. ताचें नांव सुरवेक ताका समजनाशिल्लें. पूण ल्हवू ल्हवू ताच्या कानार तें पडटांच दोनय कान उबे करपाक लागलो. मातसो मातसो व्हड जाता तितलें ताचें नाचप धांवप सुरू जालें. पूण ताचो एक नेम आसलो.

भायर वचपाक जाय जातकच फकत कूं कूं चालूच आसतालें. उपरान्त जेन्ना ताका कोणय तरी भायर व्हरता म्हणून कळटालें तेन्ना तो आपलें तोंड आपोआपच बंद करतालो. ताचेवेल्यान ताका निवळसाण जाय म्हणपाचें कळटालें. न्हय ते सुवातेर केन्नाच हळशीक न करपाचोय नेम ताणें स्वताक घालून घेतिल्लो. ताका लागून घर निवळ उरतालेंच तेच बरोबर मॉपॅटाची तोखणाय दिसताली. मॉपॅट नितळ रावंक सोदतालो. पूण उदकाक पांय लेगीत लायनाशिल्लो. मातशी आंगाक धूळ लागतांच चाटून निवळ करतालो.

मॉपॅट व्हड जाता तितलो गुटगुटीत जालो. वागाभशेन तोंड आतां मिशिना खाचींत घालनाशिल्लो. मॉपॅटाक नाचपाक खूबच आवडटालें. घरांत हेवटेन तेवटेन धांवत आसतालो. कांय वेळा शेंपडे बरोबर तर कांय फावटी येतल्या वतल्याच्या पांयाच्या बरोबर खेळटालो. मदींच पोवटेक घांस मारून गुरगुरतालो. दांतानी घट धरतालो पूण घांस लागून रगत केन्नाच येनाशिल्लें. घरांत भों भों भें भें, ल्हानाक भिश्टावन सोडटालो. पेल्ल मात मेळटांच पयस पयस धांवत रावतालो. दारांत एकाद्रो परकी मनीस नदरेक पडटांच ताका भिश्टावंक भों भों करुन आड्डतालो. घरांत दीसभर धुमशेणां कांडटा म्हणून ताका बाबान एक दीस बरोच तापयिल्लो. तेन्नाच्यान “बाबा आयलो रे” म्हणटांच मान सकल घालून ओगी बसतालो.

मॉपॅटाची जेवपाची एक वेगळी ताटली आसली. एक वाटो जातूंत ताका उदक पिवंक मेळटालें. जशी जशी ताची कूड वाडत गेली मॉपॅट पुराय बदल्लो. जणू आपल्या आंगार पुराय जापसालदारकी पडिल्ले भशेनच तो वागूंक लागलो. घरांत ल्हान भुरगें पाळण्यात दवरतांच मॉपॅट पाळण्या पोंदा वचून हजर जातालो. ताका पाळण्यांतल्यान भायर काडटांच थंयचो उठून वतालो. ल्हान भुरग्याची जापसालदारकी ताणे आपल्या खांदार घेतिल्ली.

घराचे एके कुडींत तांदळाच्या साकांच्यो आंटयो लागिल्यो आसताल्यो. पूण मॉपॅट ताजेर बसून राखणदार जातालो. मानायांक साकाक हात लावंक दिनाशिल्लो. खायत म्हणून तांच्या आंगार धांवतालो.

“आरे तो आमचो. कुशीक सर. ताका तांदूळ व्हरुंनी” बाबान अशें म्हणटांच मोन्यानी उठून कुशीक सरतालो. बाबाच्या फाटल्या फुडल्यान आसतालो. घराकडेन साकून दुकानार दिसाक धा पावटी मारतालो. बाबा ताका चुकोवन दुकानार वतांच ताका कळटालें. मागीर तो खंयच्यान नाच्च जावन शॉर्ट कट रस्त्यान मदींच बाबा

मुखार हजर जातालो.

पावस पडटा जाल्यार ज्युस्त मदीं सत्रेंत उबो रावनय वतालो. ल्हवू ल्हवू बाबाबरोबर चलतना 'रींग' कशी आशिल्ली ताची शेंपडी बरी सोबीत दिसताली. लुटूक लुटूक करून आपले कुले हालयत नेटान चलतना एकाद्या हिरोचोच आव हाडटालो. वाड्यावेल्या सुण्यामदीं आपूण तांचो दादाच म्हणटालो. कोणाकच आयकनासलो आनी भियेनासलो.

एकाद्रो मनीस दाराच्या कवडेमेरेन पावतांच भोंकून ताच्या पोटांत गुळी हाडटालो. भितर सरतल्याक शेळो घाम काडटालो. पूण येतलो मनीस बरो सोबीत आनी नेटाचो दिसल्यार वोगी रावन ताका येवकारय दितालो.

खावपा जेवपाच्या बाबतींत तो भकारोच म्हणपाचो. कितलेंय वाड, केन्नाय वाड, ताच्या गोळांत वतालें. मागीर आई म्हणटाली "मॉपॅट तें तुजें पोट काय भाट रे तें." आईन आपल्याक कितें तरी म्हळां हें कळटांच कूंकूं करून हात वयर काडटालो. "फकाणां कळना मरे, पिसो खंयचो" म्हणटांच लाडांत येतालो. मागीर आईच्या पांयार लोळण घेतालो. ना जाल्यार दोनय पांय वयर काडून उबो रावन आईचे हात चाटूंक लागतालो.

आपलो मोग परगटावपाची ताची एक पद्दत आसली. चाटप आनी फकाणांनी दातांत पांयांचीं बोटां घेवन बेठीच घांस मारिल्ले भशेन करप. शेंपडी हालयत रावप वरांची वरां. पोटाक भूक लागल्यार शेंपडी हालयत तोंडां मुखार येवन उबो रावप.

एक फावट बावान ताका कोल्ड ड्रींक पिवपाक दिलें. पेल्यांत दवरिल्लें पिलो आनी पोदां उल्लें तें पेलो ओतोवन पिलो. केन्नाच्यान इंग्लीशमॅन जालो. 'शेक हॅन्ड' कर म्हणटांच शेक हॅन्डय करतालो. बाबाचीं उतरां पाठ जाल्लींच. पूण बाबामुखार केन्नाच मस्ती करनासलो. तो आपलो धनी म्हणपाचो ताका समज आसलोच. देखूनच वावान मारलो, तापयलो, म्हणून कांयच करनासलो. पूण एक आसलें. बावान फकाणांनी पसून मारल्यार दोळ्यांतल्यान दुकां गळयतालो. बाबा मागीर "यो रे रेड्या, पळय कसो लागलो रडूंक. यो या." म्हणटकच शेंपडी हालयत वचपाक तयार जातालो.

घरांतल्या दर एका मनशाक नांवान वळखतालो. आपलें नांवय ताका बरें पाठ जाल्लें. पूण एक. घरांतल्या मनशांक सोडून हेर कोणेय नांव घेतल्यार ताचेर तुटून पडटालो.

सिनेमांची गाडी जांव हेर खंयच्योय गाडयो मायकार मोट्या मोट्यान आवाज करतात तें कानार पडटांच ताचें मोट्या मोट्यान भूंकप सुरु जातालें. फोगोट्यो, मारान लायतांच भोंकपाक लागतालो. मागीर बेगीन बंद जायनाशिल्लो “आरे पुरो सायवा! कान फुटले.” हें आयकतांच तोंड धांपून वोगी बसतालो. मॉपॅट फकत भूंकत रावन परक्याक भिशटायतालो. पूण घांस काडला म्हणपाची कागाळ करपाक मात ताणें केन्नाच कोणाक संद दिली ना.

मॉपॅट एक सुणो आनी टिम्मकुटु एक बुकलो. पूण सुण्या-माजराची इश्टागत पळोवन कांय फावट तोंडात बोटां घालचीं पडटालीं. दोगांय एकामेकांक चाट्टालीं. नाकाक नाक तेंकोवन कसले भाशेंत उलयतालीं देवाक खबर. टिम्मकुट्टू ताच्या वेंगांत घट्ट न्हिदतालो. दोगूय एकठांय शीत घाल्यारय जेवताले. तांचे मदीं गुरगुरप केन्नाच कानार पडलें ना. मॉपॅटाक हाडांचो मुळा सावन घोस्त. सकाळीं लाला हांडां हाडून ताज्या कपलार फोडटालो. वरांची वरां मॉपॅट तीं चघळत बसतालो. हाडांचे वारीक जाल्ले कुडके टिम्मकुट्टू चावडायतालो. दोगूय एकामेकाक सोडनासले. सकाळीं बाबाबरोबर वचपाक भायर सरतांच टिम्मकुटुचीय शेंपडी फाटल्यान आसतालीच.

मॉपॅटाक आई रांदता तें पळोवन मटणाच्या वासान तोंडाक लाळ सुट्टाली. फुडल्या दारांतल्यान ल्हवूच फाटल्यान क्रूस मारून आईक पळोवन वरशें तोंड करुन रावतालो. “आयलो लाळयो. लाळया मागीर सगळ्यां बरोबर वाडटां. चल आतां” अशें म्हणटांच मागीर एक मिनीटय थंय उबो रावनाशिल्लो.

घरांतल्या सगळ्यांचो ताका मोग आसलो. आपल्याक कोण चड बरें करता आनी कोण बरें करना हेंय ताका कळटालें. एक फावट घराच्या फाटले वटेन आशिल्ल्या शेतांत ताका एक माजर दिसलें. ताचे फटल्यान मॉपॅट लागलो. ताका धांवडायलें आनी घरा येवंक येतना शेतांत खेळपी अनू ताचे नदरेक पडलें. अनूक राखूंक शेतांत रावलो. म्हणटा म्हणसर अनूच्या पांयांत कवंची लागून भळाभळा रगत व्हावंक लागलें. मॉपॅटान कोणाएकल्याक ताका हात लावंक दिलो ना. ताच्या आंगार वचूंक लागलो. “तुमीच बायेक कवंची लायली.” घडये अशेंच ताका म्हणपाचें आशिल्लें जावंये. आई शेतांत पावतांच आपूण सरळ उठून घरा आयलो.

कोंकणी भास बेस बरी समजतालो. “यो रे मॉपॅट.” म्हणटांच शेंपडी हालयत हजर. “वच रे! वावा वता.” वावा फाटो फाट चलूंक लागतालो. “उठ रे थंयचो” उठून उबो रावतालो. “भायल्यान पळय कोण आयला!” अशें म्हणटांच धांवन भायर

वचून एकाद्रे गोरू येवन झाडांकडेन वास घेता जाल्यार लेगीत धांवडावन परत घरांत भितर सरून शेंपडी हालयत उवो रावतालो. “अपुरबायेचो राजा तो.” म्हणटांच पांयाकडेन न्हिदतालो. “खारे तें पुसून” कितें वाडटा तें खातालो. पूण जेवतना मात केन्नाच भितर येनाशिल्लो. कितलेय फावट यो म्हळ्यार ना. भायर उबो रावन कूं कूं करतालो. “शेक हॅण्ड म्हळ्यार हात दी मरे” मागीर दोनय हात दितालो. “मॉपॅट डान्स कर रे” म्हणटांच दोन पांयाचेर उबो रावन नाचप सुरू जातालें. वयर हातांत धरिल्ली बिस्कीट जावं उंडो उडी मारून काडटालो.

घर निवळ करतना हारसो काडून सकयल दवरिल्लो. मॉपॅटान तातूंत आपल्याक पळयलो आनी अजाप म्हळ्यार पळयत बसलो. “कितें तोखेता पळय आपल्या रूपाक. बरो दिसता रे तूं.” आईन म्हळें. मॉपॅट उपरान्त हारशा मुखार उबो रावंक सोदतालो. पूण हारसो मातसो वयर आशिल्ल्यान सगळें रूप तोखेवंक मेळनासलें.

मॉपॅट घरांतलोच जाल्लो. केन्नाच कोणाक दुखयनासतना घरच्यां बरोबर रावन तातूंतलोच एक जावन बसलो. अशा वाडिल्ल्या ‘हट्ट्या कट्ट्या’ दांडग्या मानायाक कोणाची नदर लागली देवाक खबर. गुडी पाडव्या दिसा मॉपॅट घरांत भितर सरलो तोच लाळ गळयत. बाबान कुडतरी वचून दोतोराकय सोदून हाडलो. दोतोरान वखदय दिलें. पूण लाळ गळपाची बंद जाली ना. उपरान्त जेवप खावप बंद जालें आनी एक विचित्र आवाज काडून भोंकपाक लागलो.

एका पिशा सुण्यान ताका घांस मारला जावंये असो अदमास उक्तायिल्लो. मागीर वळख देख विसरलो. पूण बाबान “मॉपॅट कितें जालें रे तुका” म्हणटांच कान उबे करून दोळ्यांतल्यान दुकांनी रडटालो. तातूंतच दोन तीन दिसां उपरान्त मेलो. माया लावन अकस्मात मॉपॅट गेलो. खेळटां खेळटां अर्द्यार खेळ सोडून गेलो. सगळ्यांचीं काळजां मात चिरून गेलो. रामनमीचो अवतार पाडव्याक सोपोवन गेलो.



५

# काळग

काल आकें वचपाक भायर सल्लें. काम्राकडेन पावलें इतल्यांत एक गाय वाट आडावन उबी रावली. फाटल्यान येतल्या मोटारींतल्या ड्रायव्हरान मोटार थांबोवन तिका आमुडली. पूण ती मातय भियेनासतना मातशी फुडें वचून तशीच उबी रावली. हांव फुडें गेलें. बस स्टँडार पावलें. थंय कुशीक दोन गायो घोटेल्ल्यो दिसल्यो. अर्द वर उबें रावलें. एकय बसून वचपाक बस ना म्हणून उबें रावचेंच पडलें. गायेक पळयतां पळयतां दोळ्यां मुखार उबें रावलें तें 'काळग.'

"विजूक गायेचें दूद दिल्यार बरें." दोतोरान म्हळां. बाबाक आईन सांगलें आनी बाबा गाय सोदपाक गुल्ल जालो. जाकी, किस्तोद तेभायर हेरांकय म्हळें. पूण अकस्मात लाला "ये आई गाय हांव हाडटा पळय" म्हणून तयार जालो.

"हय रे, धाकट्याक लागून जाय"

"मागीर म्हाका कित्याक सांगली ना?" दुसऱ्या दिसा सकाळीं सात वरांचेर भायर बोवाळ आयकूंक येतालो. भायर वचून ल्हवू पळयल्यार दारांत गाड्यार घालून एक गाय हाडल्या. गाय मर्तमकड. कट्टीभर लेगीत मास नाशिल्लें. पूण दोळे मात शांत. तुकू तुकू करून पळयत आशिल्ली. गाड्यावेल्यान सकयल देंवयतांच ती उठून उबी रावली.

"आरे! ही कितें आमच्या गळ्याक बांदूक हाडल्या?" "पात्रांव, हांव तसलो मुनीस न्हूं! हात लावन पळय आईक मारची ना ती. भुरग्यांक शींग हालोवची ना."

"लाला, आठ दीस पळयतां ना जाल्यार परत व्हरची पडटली"

"बरें आई. तुका केन्ना ना म्हळां?" बाबान लालाच्या हातार पयशे वडयले. लाला

खोशी जावन गेलो. वतना ताणें पग्त एक फावट म्हळें, "बारीक म्हणून पिकार जाय नाका. तुमगेर बरी जातली ती." किस्तोदीन काळगाक व्हरून फाटल्यान एक खुंट घालून बांदली. ती रोखडीच थंयच घोटेली. आईन किस्तोदीक धाडून कसायागेर साकून सुकें तण हाडूंक लायलें. आमोरेचेर तण खावन बरोबर इल्ली सारकी पेंड खावन बसली. आईन तिका खोंपीत व्हेली आनी म्हळें "तुका हाडलां, हो गांठो सांबाळ." अशें म्हणत आईन फाटीवेल्यान हात ओडटांच तिका आनंद जालो. आईक ल्हेंवपाक लागली. दोळ्यांतल्यान दुका गळयलीं. "हांव सांबाळटलें तुका, भिवं नाका."

गायेक रडटा आनी अशे तरेन चाट्टा तें पळोवन अजाप दिसलें. दुसरे दिसाच्यान तिणें जितें तण जाय म्हणून किस्तोदीक धाडून कोरपुलाचो भोरो हाडूंक लायलो. दनपरां पेंड, कुंडो. सांजचें परत कोरपूल आनी रातचें सुकें तण.

आईन गायेचो काळो रंग पळोवन ताका 'काळग' नांव दवरलें. 'काळू' आनी काळग हीं दोनय नांवा तिका पडलीं. म्हन्यांत गेल्यार शिंगा मारीना म्हणून पर्थून पर्थून काळगाक हात लावन आमी आमची उमेद भागयतालीं. केन्ना तिचे शेंपडेक, केन्ना तोंडाक हात लावंक बरें दिसतालें. कपलार धवोच तिबो आशिल्लो. काळ्याचेर धवोच तिबो उठून दिसतालो. स म्हयने केन्ना गेले कळ्ळें ना. काळग म्हणटां म्हणटां टवटवीत जालें. आनी शेतांत पांय मेकळे करून येवन आपले आपूण खोशी दिसूंक लागलें. गाय मातशी चरताली आनी परती धांवत येताली. किस्तोदीन आमगेर व्हेले उपरान्त शेतांत वचून "हामें" करून उलो मारताली. आईन मागीर ताका सांगूंक जाय आशिल्लें. "आगो खंय रानांत वता, मातशे पांय मेकळे जावंक जायच". परत एकदा 'हामें' करून फुडें चलपाक लागताली.

"कितें बोगोर हामें कोत्ता? इतुली गोरवां शेतां नांय? चोल थिंगाचें." हांतांत वडी घेतांच काळग भिवन गुळी जातालें. मागीर मोन्यानी चरपाक लागतालें. पूण नदर वरशीच आसताली. परत परत आई दिसता काय म्हणून पळयतालें.

"दूद जाय म्हणून हाडिल्लें हांगा. आतां पोसून पोटाक घालचें पडलें."

"जावं. मोनी जात न्हय? फाल्यां उपकार फेडटलें." खरेंच आईचीं उतरां खरीं जालीं. धा म्हयने जावन आमगेर येवन वर्सान काळगान लापयांवाक जल्म दिलो. तो दीस आमचो खोशेचोच आसलो. पूण आदले रातीं आमोरेचेर काळगाचे तळमळे पळोवंक जायनाशिल्ले. काळग उठटा बसता तें पळोवन आईन आमोरी जातांच

गोठ्यांत कोनशाक दिवो लावन दवरलो. काळगाचो व्यायाम चालूच आसलो. काळोख जालो आनी दाराचे खाचींतल्यान पळोवनय कांयच दिसना जालें. आईन म्हळें "काळगागेर पाडो, पाडी जातलो." आमकां सगळ्यांक पाडोच जाय आशिल्लो. आमोरेचेर देवाक पांय पडूंक लागलीं. स्तोत्रां म्हणून सोंपोवन निमणें देवाकडेन मागलें "देवा काळगागेर पाडोच जाल्यार पुरो." जेवणार वसलीं खरीं, पूण जेवचे परस खरें कुचकूचप चड जातालें. ल्हवू आईक विचारलें "आई काळगागेर कोण जातलो?"

"कोणय जाल्यार जावूं गो पाडो, पाडी. देवाच्या मनांत कोण दिवपाचो आसा तो दितलो."

"पाडोच जाय आमकां."

"जातलो. खेळूंक मेळ्ळ्यार पुरो मगो." घे, सगळीं खोशी जावन नाचलीं. आईच्या उतरांनी मनांतल्यान समाधान जालें.

"खेळूंक मेळटलो" हो विचारच आमकां रातची वरी न्हीद लावन गेलो. तरी आसतना न्हिदतना परत एक फावट देवाकडेन पर्थून मागून देवाक हात जोडून न्हिदलें.

सकाळीं खोशयेचे खवरेन घर भल्लें. उपरान्त पोस, सायबोळ्योय खावंक मेळ्यो. आई दूदच काडिनासली. चडांत चड दूद पाड्याक सोडटाली. तरी आसतना काळगाचे होटीक हात घालपाची सवंय जावंक जाय म्हणून दूद काडचेंच पडटालें. पूण काळगान घर धादोशी केलें. चार दिसां उपरान्त भरपूर दूद दिवपाक सुरु केलें.

काळगाक उलोवंक येनाशिल्लें. पूण आईचेर 'प्यारा' जाल्लें. आपल्या पुताक, पाड्याक आई कशी वागयता तें पळोवन उपरान्त चोरुन दूद दवरपाचें काळगान बंद केलें. लांपयांवाक सुरवेक सारकें दूद पिवंक येनाशिल्लें. पूण आई ताका व्हरून काळगाच्या पान्याकडेन उवो करताली. ताका पिवंक शिकयताली, सांबाळटाली.

काळगाचें एक आसलें, परकी कोणच गोठ्यांत उबो करुन घेनाशिल्लें. दूद काडटना आई आनी काळग, दोगांय एकामेकाकडेन उलयतालीं.

काळगाची दूख वचपाक आई ताका मेथयांची पेज घालताली. काळग व्हीत साकून गोठो भरिल्लोच उरलो. लापयांवाक जल्म दिला आस्तनाय काळग बरी सणसणीत पाडी कशी दिसताली.

आईचेर ताचो पुराय विस्वास. लांपयांवाक आई हात लावूं, न्हाणवूं, बाटलेंतल्यान

उदक घालूं, पाडो हांवेल्यार लेगीत आई म्हन्यांत आसतना तें तकली वयर करुन पळयनाशिल्लें.

पूण गोठ्यांत सकाळची एक वायल दिसल्यार, आनी तिणें शेणा थाप्याक हात लायल्यार पुरो फाँस करुन शिंगा हालोवन ताच्या आंगार धांवतालें. लांपयांवांक परक्यान कोणेच हात लावंक फावनासलो. गोठो माथ्यार घेतालें. पूण आमी ल्हान भुरग्यांनी ताका कितलेंय मारू, धोडावूं. शींग हालयनासलें. वेल्यान मातशें म्हन्यांत दिसतांच खरखरीत जिबेन चाटूंक लागतालें.

एक फावट गोठ्यांत धांवन गेल्लेकडेन शेणांत पांय पडून थंयच अभय निसरून ढो... करून पडलो. काळगान हामें हामें करुन बोवाळ मारलो आनी वेल्यान अभयाक चाटूंक लागलें. दोतोराक हाडलो. पांय हालोवंक जायना जालो. काळगाक समजलें, अभयाक कितेंय तरी जालां. देखून काळग फकत दोळ्यांतल्यान दुकां गळोवंक लागलें. अभयाक भितर व्हेले उपरान्त आईन परत येवन ताका समजायलें "आगो मातशें लागलां ताका. कांयच जावूंना. रड नाका. तुवें वडोंवना गो ताका."

लापयांवा उपरान्त घरांत दुदाचें ताक, धंय, लोणी, तूप घरांत केन्नाच कमी जालें ना. काळगान आपल्या मोगाळ सभावान आनी मोने वाणीन सगळ्यांक आपले केले.

कांय फावटी काळगाक एक आठ धा दीस शिरवड्यार व्हरूक थंयचो मानाय येतालो. हो आपल्याक कित्याक व्हरूक आयला तें काळगाक कळटालें. वतना आईमुखार उबें रावन फकत रडटालें. "आगो, लांपयांवाचें दुख्ख विसरुंक दुसरो पोर येतलो. चल रोखडो हाट्टलो तुका."

लांपयांवावेळावेलें ताचें दुख्ख खरेंच जबर आसलें. लांपयांव वतकच फकत दुकां गळोवन ताणें आपलें दुख्ख परगटायिल्लें. कितलेशेच दीस खाणा जेवणावेली ताची वान्साच उडून गेल्ली. आई म्हन्यांत बसून ताका "खा गो" म्हणून समजायताली.

काळगान लांपयांवा उपरान्त चांदी, गौरी, शीबरू आनी चारू हांकां जल्म दिलो. पूण चारू उपरान्त चड दीस काळग वांचलें ना.

गाब वतकच आई ताका मेळत तें खांवक दिनाशिल्ली. तेल, उदक, पेंड, कुंडो, तण खावन ताची बरे तरेन सेवा जाताली. काळग गोठोच राखतालें. गोठयांतल्याच एका कोनशाक सोण्णां, चुडटां, मल्लां, पोंयो, शेवकां भरून दवरिल्लीं आसतालीं. रातीचो एकाद्रो कोणूय तें चोरून व्हरूक पावल वाजयतांच काळग आईक रोखडोच टेलीफोन करतालें. 'हामेंऽऽ' मोठ्यान केल्लें हामें आईच्या कानार पडटांच आई

"कितें जालें गो" म्हणटाली. "ही गाय म्हळ्यार सुण्यावरी राखता." अशें शेजारचे एके बायलेन लेगीत म्हणिल्लें.

काळग सुटपाचेंच आसलें. आई ताचो कानोसो घेतालीच. सुटपाक सात आठ दीस वतले असो आईचो अदमास खरो आसलो. पूण इतल्यारच एके फांतोडेर काळग मोट्या मोट्यान आड्डूंक लागलें. हांबेता कित्याक? आईन भायर वचून "काळू कितें जालें गो?" म्हणटांच काळग गोठ्यांत उमथें, आडवें लोळटा, बसता, उट्ठा, न्हिदता अशें चल्लां. कोणाक कांयच कळ्ळेंना.

आईन वारीकसाणेन तेळ्ळें. म्हणटा म्हणसर कांय वरांनी 'चारू' जालें. पूण काळू मात थंयचे थंय थंड जालें. आईक पळोवन दुकां गळयतां गळयतां ताणें प्राण सोडलो. आईच्या दोळ्यांतलीं दुकां आमचे पसून लिपलींना. गोठ्यांत पडिल्ले चारीचे कुडके आनी पोन्नें सूप पळोवन समजूवपाचें समजली. गोठ्यांतलें मायेस्त काळू दोळ्यां मुखार उबें रावतालें. पूण मनशाचें राक्षसी हात मात धरूंक कोण नासलें. आईचीं उतरां आसलीं "पापणी, कोणे घात घेतलो."



६

# सोमी

आयतारा दिसा घरांत मटण करपाचें थारायिल्लें. "विजू तूं करता मगो?" "हय. पूण आई करताली ते पद्दतीचें." "तेंच तर आमकां आवडटा." घरांतल्या धाकट्यांनी बोवाळ घालो. दनपारचो खमंग वास भायर सुटलो आनी भायर आशिल्ल्या वैभून येवन म्हळें. "विजू, आईच्या मटणाभशेन वास आयला. इल्लें बशयेंत घालून दी." बशयेंत घेवन फोडी खाता त्यो पळोवन म्हाका म्हजे भुरगेपणांतली याद जाली.

एक दीस हांव आत्यागेर गेल्लें. अकरा वरांचेर भितर सरपाक, आतेभाव भितर सरलो. "हे घे दोन सोंशे" म्हणून कानांक धरिल्ले दोन पुडी कोराचे, धवशा रंगाचे सोंशे ताणें आत्याच्या पायांकडेन दवरले. "रातीं कांसाक गेल्ले रे तुमी? पापया सोशांक कित्याक रे मारले?" आतें विचारतालें खरें पूण ते दोन सोंशे मरून पडिल्ले पळोवन म्हाका रडूंक आयलें. दोगूय म्हज्या दोळ्यां मुखारच उबे रावले. खूब वायट दिसलें. "आत्या, तूं करिना जाल्यार, काकीक सांगता." "सांगरे" आत्यान म्हळें. सोंशे घेवन तो गेलो.

दनपरां सगळीं जेवपाक बसलीं. "मटण केलां, मटण आसा, खायात मगो." म्हणून आगरो जालो. पूण म्हाका बशयेंत घालून दितांच दोळ्यां मुखार दोगूय सोंशे दिसूंक लागले. "आगो फोडी नाका जाल्यार वेलो रोस घे." हांव ओगीच रावन जेवलें पूण बशयेक हात लावं नजो जालो. पानार बशिल्लेकडेन म्हज्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. ल्हवू लिपयत, हात धुवूंक उठून माच्र्यांत गेलें. आत्यान मात ज्यूस्त वळखलें. "शाण्या, वायट धरून रड नाका. तशे आयज लोक खातात. तुवेंय खावूंक शिकूंक जाय." आत्यान म्हाका वेंगेंत घेवन जायतें समजायलें. पूण सोंशे म्हज्या

दोळ्यां मुखारच नाचूंक लागले. तातूंत म्हाका आमच्या सोमूचीय याद जावन चडच रडूंक आयलें. "कोणेय सोमूक मारलो जाल्यार?" ह्या हुस्क्यान, आठ दीस रावपाच्या बेतान गेल्लें हांव; दुसऱ्याच दिसा हांवें आत्याक सांगलें "हांव वतां. म्हाका सोमूक पळोवंक जाय." आत्यान म्हजी व्हंकलपावणी मडगांवां पावयली.

सगळ्यांत पयलीं हांवें सोमू आसा काय ना तो पळयलो. पळयल्यार सोमू कुरूकुरू करून पंगऱ्या पालो खावपांत गुल्ल जाला. हांव म्हऱ्यांत वतांच उजवो हात वयर काडलो. सोमूक खातां खातांच वयर उबारून धरलो. सोमू सारक्या मोगाळ सोशांक लोक कित्याक मारतात होच प्रस्न पडलो. बाबा जायते फावट मटण हाडटालो. पूण सोंशांचें न्हय. आईय मागीर सांगताली "मटण बी सगळें खावंक शिकूंक जाय." पूण बाबा आनी आई केन्नाच मटण खायनाशिल्लीं.

पूण त्या दिसाच्यान हांवें मटण खावचें सोडलें. सोमूक मारल्यार कशें जातलें? हो विचारच पिशें करतालो. सोमूक आमच्या घरांत आयल्यार तीन वर्सां जाल्लीं. साळेरच्यान आईल्या मामान म्हजे खातीरच एक सोंसो धाडिल्लो. "तें पद्में आनी ताचे सारकी ती धूव. दोगांकय मोनजातीचें पिशें. हो व्हरून मडगांवां पावय." एक कुळंबी, शिवा ताका वेगेंत घेवन आयिल्लो. मामान एका व्हडशा लाताक बुराक केल्ले. तांतूत सोमूक दवरून धाडिल्लो.

सोंसो भोवच ल्हान आसलो. कापसाचो गुटलो कसो. धवोच, मळबा कोराचो. हाडटनाच एकामेकाच्या हातांत दिवन दिवन ताका पुरो जाल्लें. दोळे गुंजो कशे, तांबडे गुल्ल आशिल्ले. "शिवा, तो कितें कितें खातलो रे?" "पायो बियो खातलो. पंगया पायो" म्हणटांच आमी एकामेकाक पळोवन ल्हवू हांसलीं. इतल्यांत शिवाय हांसलो "बाये उदो बी पितो तो." सांजचो जेवन शिवाय गेलो. "आतां सोंशाक कोण सांबाळटा सांगात." आईन म्हळें "आमी सगळीं." पूण ताका भायर वचूंक दिवंक जाय."

मानायाक धाडून आईन पंगऱ्या पालो हाडलो. आनी सोमून दोन तीन पानां कुरकुर करून खावंक सुरवात केली. आमी भायर रोयिल्ल्या झाडांचीं पानांय ताका हाडून दिलीं. पूण ना. सोमू खायना जालो. सोमारा दिसाच आमगेर आयलो म्हणून आईन ताचें नांव सोमू दवरलें. वेंतभर सोमू हातांत बरो घट धरूंक मेळटालो. हाताची ऊब लागतांच, ताचे ते मिरयांवरी दोळे बंद करून ओगी बसतालो. होठींत घेवन बसतकच हूं नी चूं करिनासलो. सुरवेक येदोसो दिसतालो खरो पूण ल्हवू ल्हवू

ताची ल्हंव आनी कूडय वाडतच गेली. कुलेरावरी आशिल्ले कान लांव पानांभशेन जाले आनी धव्यो मिशोय लांव जाल्यो. फूस फूस करून पुराय तोंड हालयतना सोमू चार्ली चॅपलीनाभशेन मिशयो हालयतासो दिसतालो. सोमू व्हड जातां जातां तितलो स्टायलीश जालो. ताचे ओंठ तांबडेच, दांत धवे फुल्ल, चव्यावरी नाक आनी दोळे गुंजो. सोमू दिसपाक हिरो.

पूण सोमूक हाडत पसून नाक हालयत हुंगपाची भोवच सवंय. घरांतल्या ल्हानांव्हडांक सारको वळखतालो. सुरवेक ताका पांजऱ्यांत दवरचें थारायिल्लें पूण टिम्मकुटू आनी सोमूची इश्टागत दाट जाली. दोगूय भाव जाल्लेवरी गळ्यांत गळो घालून बसताले. सोमूचें उदक टिम्मकुटू पितालो. दोगूय माणकुल्यो मिशयो हालयत नाक धोलयत कितें तरी एकामेकाक सांगताले. सोमू घरांत मेकळेपणान भोंवतालो. एके कुडीचो एक कोनसो ताच्या नांवार जाल्लो. थंय ताचें खावप जेवप चलतालें. पूण सोमू जाल्लो एक मनीसच. भुरग्यांबरोबर खेळप, नाचप, आनी पोटाक भूक लागतकच कोनशाक दवरिल्लो पालो कुरकुरावप.

सोमूचो चडसो वेळ आमचे बरोबरच वतालो. ताका हातांत उबारून घट वेंगेंत धरून रावप खूब आवडटालें. दोळे धांपून सुखान न्हिदतालो. "ए लाडक्या, उठ रे तो! आळशी खंयचो!" सोमू कोणाचीच पर्वा करिनासलो. मागीर ताका उठोवंक आमी मांडणी करतालीं. "बाबा मुळो घेवन आयलो दिसता." म्हणटांच दोळे टॉर्च कशे उक्ते करून पळयतालो.

सोमू भोवच शिस्तीचो आसलो. मेळत तेन्ना पांयांकडेन येवन केन्नाच धुटमळनाशिल्लो. दनपारचें जेवले उपरान्त आनी रातीचीं सगळीं बशिल्लीं आसतना सगळ्यांकडल्यान आपल्यो तोखणायो करून घेतालो. सगळ्यां मदीं बसप ताका भोवच आवडटालें. ही ताणें आपल्याक भुरगेपणासाकून सवंय लावन घेतिल्ली. पांय लांब सोडून बसप. जाणें आपल्याक आंगार उबारचो दिसता ताच्या पांयार वचून तकली घांसप. "उखलतां सायबा, यो." म्हणटांच पुट् करून पांयार वयर उडकी मारून आंगार घोटेतालो. घरांतल्या कोणाकूय तरी तेंकून बसपाक ताका मनांतल्यान आवडटालें.

बाबा घरांत भितर सरतांच. 'पॅट पॅट' असो विचित्र आवाज काडटालो आनी भिल्लेवरी धांव मारतालो. बाबा आपयसर परत ताजो आवाज कानार पडनाशिल्लो.

"आरे, सोमी यो. मुळो हाडला हो पळय." बाबान उलो मारतांच शेंपडी तुटसर धांवन येतालो. कुडींतल्यान येतना वाटेर कितें आसा, कोण चलता ताची ताका पर्वा

नासताली. "फायर ब्रिगेड आयली रे वावा." मुळो कुरूम कुरूम करून खातां खातां कोवीचीं दोन पानांय चघळायत मदींच मांड मांडून बसतालो.

खावन खावन सोमू मोटोच पोटलो कसो जालो. जाय तेन्ना भायर वच, भितर यो, ताचें सदांचेंच जाल्लें. पिगू, टिम्मकुटू आनी सोमू तिगांय एकामेकांकडेन खंयचे भाशेंत उलयतात तेंच कळनाशिल्लें. उदक पितना तांचो एकवट पळोवन मन मोरावरी नाचूंक लागतालें. तिगांय एकामेकाक तेंकून बसतालीं. सोमू, टिम्मू आनी पिगूक एकठांय पळोवन आई सदांच म्हणटाली "हांकां एकठांय रावचें म्हणून कोणेच शिकोवंक ना. पूण पळयात काय बरीं झगडीं करिनासतना एकेच सुवातेर बसतात."

सोमू व्हड जालो आनी आतां घराची जापसालकी ताणें आपल्या माथ्यार घेतिल्ली. दारार कोणे मारलें रे मारलें. सोमू सरळ 'पॅट पॅट' आवाज काडीत आई म्हन्यांत हजर जातालो. कोणतरी आयला हाची खबर आईच्या कानार घालतालो. "कोण आयला" म्हणटांच कान उबे करून उवो रावतालो. "हांव पळयतां तू वस." सोयऱ्यांमुखार केन्नाच येनाशिल्लो. पड्ड्या फाटल्यान रावन खाचींतल्यान भायर पळयतालो.

घरांतल्या भुरग्यांनी चिड्डिल्यारपसून सगळें सोंसतालो. पूण कोणेच ताका पांय लावन अपुरबाय केल्ली आवडनाशिल्ली. रागान आपले सुवातेर वचून बसतालो. सोमू जड जड जाल्ल्यान उबारपाक कठीण जातालें. "बरें पणसूल कशें जालां. विजू, हाका मारल्यार मटण बरें जातलें आशिल्लें." "तशें म्हणू नाका गे आई." आमी आईच्या हातांतल्यान सोमूक उबारतालीं. आई फकाणां करता म्हणपाचें खंय कळटालें?

सोमू म्हळ्यार घरांतलोच एक वांगडी जाल्लो. दोन पांय उबे करून चलप. 'हात दी रे' म्हणटांच हात दिवप. अभ्यास करतां, जाग्यार वचून बस, म्हणटांच कोनशाक ओगी बसप. ताचीं समजूतदारपणा आनी शिटूकसाणेची तोखणाय करची ती थोडीच.

घरांत कोणूच ना आनी पिगूक दोरयेक वांदून घाल्लें आसा तें पळोवन आपल्या दांतांनी सोमू पिगूक सोडयतालो. दोगूय इश्ट आमी येता म्हणसर भायले वटेन फाटल्या दारांत वसून खबरी मारताले.

कोनशाक उबी आशिल्ली जळोणी पळोवन सोमू नाचूंक लागिल्लो आनी ताचो नाच पळोवन धांवत येवन पिगून एकाच धपक्यांत जळोणेक सोंपयिल्ली. सोमू मात पिगूक पळयत राविल्लो; जणू विचारतालो "तुका जळोणेचो भंय दिसना?"

सोमून केन्नाच घरांत मुतून खातसाणी घाल्यो नात. पूण एक दीस कोनशाक लेणयो पळोवन आईन ताका तापयलो. कानाक धरून मातसो उलयलो. सोमू भिलो

आनी खरशेवपाक लागलो. ताचें काळीज वयर सकल उडटा काय दिसतालें. "निवळसाण जाय न्हय रे घरांत?" आईन म्हळें. इतल्यांत कोणे तरी भायल्यान म्हळें, "तुमगेर सोंसो आसा न्हय? लेणयो जाय आशिल्ल्यो वखदाक." कोनशाच्यो लेणयो पुसून घेवन ती बायल गेली. जणू सोमून तिचेचखातीर त्यो दवरिल्ल्यो.

सोमूचें न्हिदप, उठप, नाचप, सगळें वेळावेळार आशिल्लें. आपल्या अपुरबायेच्या वागण्यान ताणें सगळ्यांच्या मनांत घर केल्लें. रातीचे लकलकपी ताचे दोळे पळयल्यार काळखांत पोटांत कुळ्ळ जातालें. खंत एकच आसली. पिगू, टिम्मकुटू उलयतालीं पूण सोमूक उलयतना कोणेच पळयलो ना. देखून ताका सांगाताक आनीक एक सोंसो हाडपाचें आमकां उतर दिल्लें. सोमू एके राती भायर उरलो. तेच रातीं ताका कोणेतरी फोडून खालो. गोमटी पडिल्ली मेळ्ळी. तेच सांजे ताका शेतांत भोंवडावन हाडिल्लो. सोंसो! शेतांत बोवाळ जाल्लो. घडये कोणाचीय तरी वांकडी नदर ताचेर पडली. संदीचो फायदो घेवन सोमूक आमचेपसून वेगळो करून तांकां कितें मेळ्ळें देवाक खबर!



७

# चांदो

त्या दिसांनी माया पाडो करपाचें थारलें. बाबा आपले बरोबर म्हाका घेवन गेलो. पाडेकार माडार वयर चडटकच कांय फावटी नाल्ल झिलांनी शेंवटून उडयताले. तांचेर नदर दवरूंक बाबा मुद्दामच म्हाका आपले बरोबर व्हरतालो. उपरान्त तांबड्या माडाचें बाळशावरी आडसराचें उदक आनी कातली खांवकय मजा येताली. त्या दिसाय तशेंच घडलें. हांवें झिलींतले नाल्ल काडपाक कोत्रीनाक सांगलें आनी जांबळीमुळां पाक्तांच एका ल्हान हुंदरावरी आशिल्ल्या पेट्याचेर नदर पडली. पयलीं पळयतना हुंदीरसो दिसलो खरो पूण 'काकुळट बाबड्याची' म्हणून म्हन्यांत वतांच चानयेचें पोर म्हणून कळ्ळें.

"बाबा, चानये पील पडलां." हांवें म्हणटांच पाडेकारान मोट्यान म्हळें "घाराको वोन मोटोन कोर म्हणोन सांग बाये बाकाह्नी." "शी! चानये पील म्हणून खातात? बाबा पळयलें पेसाल्वादोर कितें म्हणटा तें." बाबा उलयलो ना. ल्हवू म्हन्यांत येवन बाबान पिलाक उबारलें. ची..चीं....करून एका विचित्र आवाजांत तें रडलें. "पांयांक मार बसला." "बाबा ताका घरा व्हरया?" इतल्यांत पाडेकारान म्हळें "केसो पील घेवन बोशिला बाकार? हांव बोरो पिलो हाटां."

पाडो चालू आसलो. सगळो पाडो जायसर बाबान ताका वडाच्यां दोन व्हड पानांचेर दवरलें. पाडेकार कूय....हूय करताले. पूण म्हजी नदर पर्थून पर्थून चानये पिलाचेर थीर जाताली. केन्ना काय पाडो सोंपल्यार पुरो जालो. बाबा बरोबर घरा येतना मात एक खाशेल्या आनंदाची चादर पांगुरल्याचें म्हाका काळजांत सावन दिसलें. आडसरा कातली खातना जितली खोशी जाताली ताचे परसय आज मोटी

खोशी जाल्ली.

चानये पिलाक दोनूय हातांनी सांवाळून हाडटना म्हाका भंय दिसलो. पिलाच्या उजव्या पांयाक झरकटिल्लें, रक्ताळिल्लें. पूण पानार न्हिदिल्लें पील दोळे उक्ते करून पळयतालें. "आई, आमकां भाटांत चानये पील मेळ्ळें." "हय, हाड पळोवया," आईचीं उतरां भायर सरचे पयलींच हांवें आईच्या हातांत पिलाक दिलें. आईच्या हातांत पील पावलां तें पळोवन हांव निर्धास्त जालें. "आगो ताका मार बसला." आईन दोनय पानां काडलीं आनी पिलाक आपल्या हातांत धरलें. रोखडेंच भितर घेवन गेली आनी उजव्या पांयार काजू सोरो घालून वयर तीर बांदलो. दाव्या पांयारय मातसो काजू सोरो लायलो. पील चीं.....चीं.....करून रडलें. पील रडटा तें पळोवन आमकां वायट दिसलें. "आई, ताची आवय आसल्यार ती कितें करता जातली?" "पिलाक सोदतली, आपयतली, रडटली." आमोरेचेर हाडिल्लें पील पूण घरांत रातभर ताचेच हुस्के सगळ्यांक लागले. आई रांदचे कुडींत वतांच बावान म्हळें "पिलाक सारकें सांवाळूंक जाय. परतो परतो हात लायनाकात." "ताका दुखतलें न्हय बाबा." इतल्यांत आई एक मोव ल्हानसो तिरांटो घेवन आयली. बरोबर ताटलेंत दूदय हाडलें. आईन पिलाचें तोंड उक्तें करून ताच्या तोंडांत तिराट्याचें पोंत लायलें. पील दूद पिवंक लागलें. कितलेशेच दीस ताच्या पांयाक सोरो लावंक आनी ताका दूद पिवोवपाक आई वरांची वरां काडटाली. आमकां केदो वेळ दूद घालीत रावचें पडटा तें पळोवन बेजार येतालो. पूण आई ताका "राव रे. रावगे पापणी" करून दूद घालतालीच. "पोटाक पडना जाल्यार उरता तूं?" म्हणून ल्हवू वयर उबारताली.

पिलाचे दोनूय पांय बरे जाले. इतले दीस एका रिकामे खाटीर ताका आईन मोव मोव कपडे घालून कुलचांव करून न्हिदयिल्लें. तातूंत बरें सुस्त न्हिदतालें. पूण पांय बरे जावंक लागतांच ताची फाटली शेंपडीय बरी फुल्ली. "चानये पील बरें जालें." आईन सांगलें. आनी त्याच दिसा आईन म्हळें, "म्हाका तो पोर सो दिसता. ताका नांव 'चांदो' दवरया. पळयात काय बरो दिसता ताच्या माथ्यावेलो 'चांद.'" नांव दवरतकच चांद्याक सगळ्यांनी हातांत धरलो. पूण चांदो आतां आदलेवरी हातांत रावंक तयार नाशिल्लो. ताका घट धरचो पडटालो.

कापसावरी आशिल्ली ताची मोव शेंपडी ल्हवू ल्हवू व्हड जावंक लागली. दूद पिवपी चांदो व्हड जावंक लागलो. बरें वेळावेळार पडिल्लें दूद आनी उपरान्त घरांत

गडिल्लीं फळां-आंबो, चिकू, पेर, कातली आनी उदक हाका लागून तो बरो गुटगटीत जाल्लो. रिते खाटीर न्हिदपी चांदो आतां सुपांतय धरना वोल्लींतय धरना असो हुतहुतो जाल्लो.

चांदो! नांवा सारकोच फाटीर एक धवो पाट आसलो. काळशा गोवरा कोराचो धवोच माथ्यावेलो चांद आनी फाटीर धवो पाट आकर्शीत करतालो. माणकुले हात पांय, इल्लेशे वेलचेच्या धाकण्यावरी कान. पूण नाक आनी तोंड हजार फावटी हालयतालो. नाकावरोवर मिश्योय बारीक तोंडा दिवो भोवच सजयताल्यो. पूण सगळ्यांत भयंकर आसले ताचे तीक्ष्ण दांत.

पांयाची जखम भरून येतांच चांदो घरांतच उडणां मारतालो. चीक-चीक.. असो आवाज काडी. सुरवेक हेरा कोणाच्याच हाताक लागनाशिल्लो. पूण ल्हवू ल्हवू घरांतल्या सगळ्यांक तो वळखूंक लागिल्लो. पूण सगळ्यांत चड जाय आशिल्ली ती आईच. एक दीस आमकां धरूंक मेळना म्हणून आमी ताका घट एका कोनशाक आडावन धरलो. पूण आमचें धरप ताका मानवलें ना.

"आरे कितें करतात ताका?" अशें आईन म्हणपाक चांदो हातांतल्यान पळ्ळो तो आई म्हऱ्यांत. बाज्जेर वयर चडून ताणें आईचे फाटीर उडकी मारली. "भिवं नाका, कांय करनात तीं." ताका समजायलो. सुरवातीक फकत सळो की पळो म्हणटात तसो, मेळत तसो फकत काचाबूल जावन धांवतालो.

खरी शिस्त लायली आईन. चड नाचूंक लागतांच आई ताका ल्हवू मारताली. "वस रे चांद्या एके सुवातेर." खरशेत मागीर चांदो ताका केल्ल्या काशीच्या घरांत वचून ओगी बसतालो. पूण चड वेळ एकाच जाग्यार बसप ताका जमनासलें. तोंड वांकडें तिकडें करीत जनेलांतल्यान भायर पळयतालो.

चांद्याच्या घरांत दुदाची एक वाटी, उदक आनी खावंक शिकिल्लो तेन्नाच्यान एक चिकवाचो कुडको आसतालोच. चांदो खाता तें पळोवन भोवच मजा येताली. धाकटुल्या आपल्या दोनूय हातांनी चिकू वयर उबारतालो. दोन पांयांचेर उबो रावन कुरू कुरू करून सकयली खाडकी हालयत केन्ना चिकवाचे कुडके काडून काडून पोटांत गुळे कशे सरळ भितर वडयता तेंच कळनाशिल्लें. नाका ती साल, बियो आपोआपच सकयल वडयतालो. खातना दर एक फळ शिस्तीन खातालो. एकेच सुवातेर बसून खावपाची ताची सवंय पळोवन अजाप जातालें.

इकरा वरांचेर बाबा नुस्तें आनी ताजीं फळां घेवन घरांत पावल दवरतांच चांदो

जनेलार चडून नाचतालो. चीक टीक असो आवाज करतालो आनी शेंपडी फुलोवन ताचो केरवो नाच पळोवपाक आमी गुल्ल जातालीं. खंय धांवूं खंय नाका! सगळोच नाचतालो. बावा दिसतांच ताचे पांय जमनीर धरनाशिल्ले. मेजार वयर धांवत येवन बावाच्या फाटीर उडी मारतांच सरळ वयर चडून बावाचे पोले जिवेन चाटपाक लागतालो. कोटाच्या बोल्सांत धांवत वचून बसतालो.

बाबान आपल्याक हातांत धरचो, आपली अपुरवाय करची, आपल्या हातान फळ काडून दिवचे खातीर ही सगळी ताची धडपड आसताली. "आरे चांद्या हें कितें? खावंक नाका तर तुका? असोच कोटांतच रावता? हो पळय चिकू हाडला" म्हणटांच ल्हवू कोटाच्या बोल्सांतल्यान भायर सरून तुकू तुकू करून, बारीक दोळे करून पळयतालो. बाबान चिकू हातांत दितांच सरळ घरांत वचून ताव मारूंक लागतालो.

एक फावट फळांची पिशवी थंय दवरून बाबा कसलें काम आसा म्हणून भायर सरलो. इतल्यांत कोणतरी सोयरी आयली म्हणून आईकय भायर वचचें पडलें. चांदो एकटोच पिशवे म्हऱ्यांत उरलो. आंबे, चिकू, काण्णा, जांवळां, घोंटां सगळीं तशींच भायर आशिल्लीं दिसतालीं. पूण चांदो फकत थंयचे थंय घुटमळटालो. खावपाची इत्साय ताका जाली ना. वेल्यान राखणो जावन बसलो. स्वता आपणे काडून खावचें अशें ताचें मन ताका सांगनाशिल्लें.

आई भितर आयली आनी चांद्याक वोगी बसला तें पळोवन ताका उबारलो. "तूं उपाशीं उरलो." आईन दोन तीन फळांचे कुडके व्हरून घरांत दवरले. चांदो धांवत घरांत पावलो. मोटे उमेदीन नाचत खावंक लागलो.

आमोरेचेर देवाक पांय पडटा थंय चांदो हजर जातालो. आपूणय शेंपडी हालयत हेवटेन तेवटेन नाचतालो. मागीर आमी कोणूच आपल्याक म्हऱ्यांत घेनात तें पळोवन ल्हवू कोणाकय तरी तेंकून बसतालो. देवाक पांय पडसर बसून रावता तें पळोवन अजाप जातालें.

जेवन जाले उपरान्त बाबा व्होलतेरार बसतांच धांवत बाबा म्हऱ्यांत पावतालो. बाबान हातांत घेतकच वोगी बसतालो. बाबाचें पोशेवप, अपुरबाय करप ताका आवडटालें. बाबाचीं बोटांय चाबिल्लेवरी तोंडांत घेतालो पूण घांस मारिनासलो.

चांदो व्हड जालो आनी भायलें वारें ताच्या आंगांत भरलें. घरांतच बसून रावप ताका आवडनासलें. एक फावट केन्ना बाबाच्या कोटा बोल्सांत वचून बसलो. दरवट्याकडेन पावतांच मोटारीचो आवाज, बोवाळ कानार पडटांच ताका शेळो घाम सुटलो.

अकस्मात चांदो आड्डलो. "बाबा, तुज्या बोल्सांत चानी आसा." कोणेतरी म्हळें. बाबान भायल्या कोटाच्या बोल्सांत हात घालून थंयच ताका सांबाळ्ळो. तसो चांदो गी रावलो. केन्नाकाय ताका घरा पावल्यार पुरो जाल्लें. बाबान तसोच ताका घरा डून सोडलो.

त्या दिसाच्यान चांदो आंगणांत भायले वटेन फुलिल्ल्या कलवंतीच्या झाडांचेर चून कोणूय येतासो दिसतांच धांवत घरांत येतालो.

खावन जेवन बरो गुटगुटीत जालो. घरांत सगळ्यांक माया लायली. "चांदो" म्हणटांच धांवत येवन उबो रावतालो. "चिकू घे, यो रे!" म्हणटांच चांदो हजर. "बाबा आयलो" म्हणटांच जनेलार धांवप. सकाळ जातांच आईन दूद घालचें, खावंक चपाती दिवची "च्या घेरे!" म्हणचें म्हणून रांदचे कुडींतच वयर आलमारीचेर कांय वेळ बसून आई कितें करता तें तेळटालो.

घरांत आयिल्लो गेल्लो चांद्याची तुस्त करतालो. सोफार बशिल्लेकडेन परक्या म्हन्यांत वचनाशिल्लो. पूण आमच्या म्हन्यांत येवन केन्ना माथ्यार तर केन्ना खांदार उडकी मारीत कानांत फुतफुततालो. खरें म्हळ्यार कातकुतल्योच करताली ताची जीब.

बाबाच्या बोल्सांत चांद्याक पळयत साकून तीन चार खेपो मोरतो ताका पळोवंक आयलो. एक फावट मोरत्यान ताका वंयेर भोंवतना धरलो पूण चांद्यान ताका घांस काडलो आनी धांवत घरांत आयलो. चीक टीक.. करून आकांतान रडलो. भायल्यान "आवयस" म्हणिल्लें उतर कानार पडलें. मोरत्याचें बोटय चांद्यान फोडिल्लें. "तुका मारून वडयतलों" बडबडत मोरतो गेलो. आईन ताचेकडेन व्हडलें लक्ष दिलें ना. "धरून व्हरूंक सोदतालो, चांद्या चड भायर वचनाका." चांदो भिवन घरांत वचून न्हिदलो. पूण एक दीस सकाळीं दार काडटांच चांदो सदांभशेन भायर गेल्लो. ताका मोरत्यान अचळय उबारलो. "तुमचो चांदो घेवन धांवलो." बाबा फाटल्यान गेलो. पूण मोरतो नेगार गेलो.

चांद्याचो ताणें सूड घेतलो. आपल्याक धरून व्हरतलो म्हणून चांद्यान काडिल्लो घांस, ताची चूक! काय घांस मारलो म्हणून चांद्याक जिवेशीं मारपी मनशाची चूक? कोण श्रेश्ट? मनीस काय मोनी जात!





# चूही

जूना म्हयन्यांत खंयची नवी झाडां लावपांची हाची तयारी आईन मायांतच केल्ली आसताली. चड उंच वाडिल्ली झाडां कापपाच्या कामांत आई गुल्ल आशिल्ली. दारांतली झाडां कापले उपरान्त वयेक तेकून उबी आशिल्ली कलवंतीचे झाड सवकावपाचें आईन थारायलें. दोन पावल फुडें गेली. इतल्यात कलवंती कडल्यान जूही...चूही असो स्पश्ट सूर कानांर पडलो. आई सगळी कामां सडसडीत करपांत हुशार कोणच हात धरतलो नाशिल्लो. पूण तिचे वारीकसाणेक पळयतकच अजाप जाले बगर रावनाशिल्लें. "रावात आं थंय कलवंतीकडेन हात लावं नाकात." "कित्याक हांव कातरतां ती वाडिल्ली खांदी." "नाका हांव सांगता तितलेंच आयक." हांव फाटीं सरलें. पूण इतली मातिल्ली कलवंत कातरतनाय आई नाका कित्याक म्हणटा हाजी जाप मेळ्ळी ना. "यो हांगा यो पळय, थंय कितें आसा तें त्या दाट रान जाल्ले कलवंतीच्या झाडांच्या पानांत एके खांदयेक ल्हानसो घोंटेर. "आई पानाचो घोंटेर आसा." दोन पांना दोडिल्ली तांतूतच मदीं सूकीं पानां. वेले वटेन आर्क कशें आशिल्ले वयर एक चिमणी आशिल्ली. हळडूवोच रंग. पोटाकडल्यान धवसो कोर. मदींच फाटीर काळशे पटे. सगळीच चिमणी पांचव्या बोटा इतलीच धाकटी माणकुलीच आशिल्ली. चिमणी आसा, ल्हवू एक एकटे वचून पळोवन आयलें.

खरें म्हळ्यार थंय कलवंतीन आपलें एक वेगळेंच रूप सजयिल्ले. पूण आईन पानाक न्हय एके खांदयेक पसून हात लायलो ना. वेल्यान आईन म्हळें "परत परत थंयच्यो खांदयो हालोवंक वचू नाकात." चिमणी आसा हें कळ्ळें पूण घोटेरांत कोण आसा तें कळ्ळें ना. आई घोटेरांत पिला आसतली गे? आसूये ना जाल्यार तांतयांय

ासतली. "मातसो हात लावन पळयल्यार कळटलें गे?" "चिमणी तांकां घेवन तली परत येवची ना." "तशें जाल्यार आमी कांयच करचीं ना."

त्या दिसाच्यान आमकां नवो उद्येग मेळ्ळो. हरशीं सदांच वेळान उठपी आमी काळी चूही चूही असो आवाज येतांच आई बरोबर उठून भायर वचप. सकाळी ावाक सुकण्या पिलांक तांदुळ खावंक वडोवपाची संवयच आशिल्ली. घरांमुखावेल्या ांगणांत चूही येता हें आमी पयले फावट पळयलें. "बाबा ही ती चिमणी आमचे ळवंतीच्या झाडांतच रावतां. बाबाक कांयच खबर नाशिल्लें. सुकणी येतात तांकां ावंक घालपाची बाबाची संवय देखूनच चूहीन थंय घर बांदिल्लें. 'चूही' ताजो सूर! आवाजावेल्यान कांय दिसाभीतरच ताका नांव पडलें. चूही सदांच दिसतालें. सकाळी आनी आमोरेचेर थंय नाचतना चूहीक आमी पळयताली.

एक दीस आमोरेचेर चूहीची वाट पळयत दोळे लावन सगळीं बशिल्लीं. चूही आयलें इतल्यांत शेजारच्या जानान "खूंयची चूही?" म्हणून ताचेर एक फातर शेंवटिलो. आमकां जानाचो राग आयलो."आई जान चूहीक मारता गे." आमी कागाळ केली. आईन येवन जानाल्या हातांतलो दुसरो फातोर काडून घेतलो. "आरे पिशा. चिमणेक मारून कितें मेळटलें तुका?" "कांयच ना." "मागीर तुका तिणें त्रास केल्यात?" "ना." चूही मेल्यार तुका बरें दिसतलें? "बेठोच मारतालो हांव." आईची उतरां जानाच्या काळजाक लागली. "आई चूहीली मांय आसतेली न्हूं?" "हय चूही हे दिसांनी पिलां काडटलें." आईक कशें कळ्ळें आमकां समजलें ना. आई परत भीतर गेली. जानाचो आमकां राग आयिल्लो." जान पाडो तूं चूहीक मारल्यार पिलांक आवय ना जाताशिल्ली सामको मरे तूं?" जानाच्या दोळ्यांत दुकां आयली. जानाक आवय नासली. "बाबडी म्हजे भशेन जातली आसली." जान रडटा ते आईक कळ्ळें. आईन ताका एक लाडू खांवक दिलो आनी म्हळें "जान पळय हांगा यो पानांत घोंटेर आसा तातूंत तांतया आसात." जान काळो निळो जावन गेलो.

पावस सुरू जालो. आतां चूहीक सदांच पळोवक मेळना जालें. खूब पावस पडटा म्हणून आई दारा भायर पावल घालूक चड दिनाशिल्ली. पूण अदी मदीं चूही पावसाचो थाव घेतांच ल्हवू उडून दारांत जनेलाकडेन आशिल्या सीताफळाच्या झाडार बशिल्ले केन्ना केन्ना नदरेक पडटाले. दोन दिस सेगीत मोटो पावस आनी गड गड चूहीचें किते जालें देवा खबर अशी भिरांत मनांत घर करून रावली. पूण चूहीची वासपूस कशीच घेवंक मेळनासलें. तिसरे दिसा कलवंती म्हऱ्यांत वचून पळयलें.

चूहीचो घोंटेर आनी पानांचे खांदयेर नाचपी चूही मजेत आसा. मदीं 'चूही' करत आनी था थै थै करून नाचपाचें कशेंच सोडीना. इतलो पावस पडून लेगीत घोटे तशाचो तसो आसलो. "आई चूहीच्या घोटेराक पळय कांयच जांवक ना." चूहे सुकणे खरे पूण पळय सुरक्षित सुवातेर घोंटेर वांदला तोय वी सोडून."

आईन कलवंतीच्या झाडाक हात लायलो ना म्हणून काय कितें कोणाक खबर. चूहीक भास कळ्ळी काय आईची माया कळ्ळी दोगांकच खबर. पूण चूही पावस थांबताच कलवंतीचेर मोरावरी सुवये सारकी चोंच आनी बारकेल्या पाकांचो आपलो शेंप घेवन फकत उडणां मारतालें. एक मिनट न्हंय सेंकद लेगीत एके सुवातेर रावपाक चूहीक जमनाशिल्लें. वरांची वरां चूहीक नाचतना पळयत रावचें दिसतालें. चूही आमचे कडेन उलयनाशिल्ले. चूहीक आमचो बडबड कळनाशिल्लो. पूण 'चूही' मात आमकां खोशी करतालें. केन्नाकेन्नाय झगडी जातांच चूही आयलें म्हणटकच आमी ओगी जाताली. चूहीन आमकां आपलो मोग दिल्लो गोड सूरान गावन आमकांय 'शांत' रावपाचो धडो दिलो.

"चूही आमगेरच कित्याक रांवक आयलें?" "तुमकां आपले भशेन शाणीं जायात म्हणून सांगूक." आईच्यो जापो चूहीचे उदाहरणांतल्यान शाणेंपण, शांतताय, सूर गितांचो मंत्र कानांत नकळत फुंकताल्यो. आमी चूहीक मारनांत म्हणून बाबा सकाळी खांवक घांलता आमडूंन कोण घालीना, फातरायना देखून चूहीन ही सुवात वेंचून काडली. चूहीची बुदवंतकाय पळोवन "चूही ग्रेट" अशे एकदीस बाबान म्हळें. आतां चूही आमची इश्टीणच जाली. आमी म्हऱ्यात बसल्यार पसून चूही कांयच करनाशिल्लें. चूही आनी आमचे मदले भिरांतेचे मोगान इश्टागतीचे नातें जुळ्ळें.

पावस सोंपून सोंपनाशिल्लो. चूहीक आमकां पळोवचें दिसतालें तेन्ना सीताफळाच्या झाडार बसून जनेलांतल्यान भीतर पळयतालें. "चूही आयलें, चूही चूही करून" आमी उलो मारताली. पावस सोपपांक आयिल्लो असो न्हय पूण एक दीस सुकार आशिल्लो त्या दिसा पाडेकार नाल्लां पाडो करूक हजर जाले. पोय, चुडटयो, नाल्ल, वेल्यान एक एक करून पाडेकार जमनीर वडयतालो. चूहीच्या घोंटेरार पडत म्हणून काळीज भिरांकुळ जाल्ले. "आई पाडेकार चूहीच्या घोंटेरार वडयतलो. ना गो पापणी हुस्को कर नाका. हांवे सांगला ताका." इतले म्हणसर घस् करून एक मोटे चुडीत कलवंताचेर पडलें. दोळ्यांत दुकां भल्ली. चूहीची पिलां मेली जातली. हांव रडता तें पळोवन आईन कलवंतीकडेन वचून चूडीत काडूक लायलें. "चूहीच्या

ोंटेराक कांयच जावू ना तुज्या." म्हणटांच मन मेकळें जालें. केन्ना काय पाडेकार ल्यार पूरो अशे मनांतल्यान दिसताले. चूहीय थंयचे नाच जाल्लें. खंय गेल्लें कोणाक खबर. पूण आमोरेचेर परत हजर जालें. चूही चूही करीत आशिल्लें.

एकदांचो पावस सोंपलो आनी आतां चूहीक पळोवंक कोणाचीच आडखळ नाशिल्ली. घोटेरांतल्या तांतयांची पिलां केन्ना जातली हाचोच हुस्को दोळ्यात पाती लावंक दिनाशिल्लो." आई चुहीन पिलां काडूकच ना मगे?" प्रस्न विचारत गेली. मदीं धा पंद्रा दीस कशे गेले कळ्ळे ना. एक दीस जनेला तेकून आशिल्ल्या सीताफळाचेर चारपांच पानां एकठ्यांय केल्ली दिसली थंय वयर घोटेराचो आकार पळोवन आमकां बरें दिसलें. कांय दीसा भीतरच सीताफळाच्या झाडाचेर वयर खांदयेचेर एक घोंटेर पूर्ण जाल्लो दिसलो. सूकें तण, करड, भीतरलें कायच दिसनाशिल्ले. खंयचो पांक लावन घट केला कसों घडलो आनी तो वारें आयल्यारय पडना कसो हेंच अजाप जातालें.

घोटेर उबो जालो आनी सदां सकाळ सांजचे चूही सीताफळा झाडार नाचतना दिसूक लागले. मदीं मदी ताज्याच कोराचो पूण मातसो मोटो एक सुकण्याक पळोवन आईन म्हळें तो नर ही मादी दादलो आनी बायल आसतली. चूहीचो घरकार सदांच येवन घोटेराक चोंची तेंकोवन घासून वतालो. एक फावट आईन आंब्या मुळां घाल्ले तण चूहीचो घरकार कित्याक चोचीत घेवन कित्याक गेल्लो तें आतां मतींत आयिल्लें. चूहीचो घरकार आनी चूही ....जूही चूही च्यू..... करून किते तरी आपले भाशेंतच उलयत सांज सारताली. हे खांदयेर ते खांदयेर नाचले उपरान्त चूहीचो जीव कासावीस जातालो. चूहीक घोटेरांत बसतांच घरकार भुर्र करून उडून वतालो.

आयतारा सांजचे भायर आंगणांत बसून बाबा वोल्तेरार बशिल्ले कडेन "लव बर्डस" अशें म्हणून सुकण्याच्यो काणयो 'उठा उठा चिऊताई' 'द नायटींगेल' अशो कविता आपल्या कपाटांतली पुस्तकां काडून वाचून चूहीचे विंशी मोगाची आमची रांग निर्माण करतालो.

चूही सदांच घोटेरांत बसतालें. घोटेर मुळा जड आनी रूंदसो दिसता. हाजेर आमी तांतयां आसा असो अदमास केल्लो. कलवंतीकडलो घोंटेर सोडून चूही हांगा कित्याक आयलें तें खबर नाशिल्लें. पूण एक दीस चूहींचे गुपित उकतें जालें. कलवंतीकडेन पानांच गुटलायिल्ली. भीतर कांयच नाशिल्लें देखून चूहीन पिलां काडूक ना हे सेर्त समजलें.

नव्या घोटेरांचेर सगळ्याची नदर आशिल्ली. चूही चडात चड वेळ घोंटेरांतच आसता हें पळोवन अजाप दिसतालें. सदांच भोंवपाक वचपी चूही अकस्मात वंदखणींत पडिल्लेवरी दिसतालें. पूण भोवच खोशी दिसतालें. घरकार केन्ना केन्नाय चोंचीत घेवन् किते येतालो. दोगांय एकामेकाची चोंच एकामेकाक घांसताली. हाडिल्लों किडो घरकार चूहीक मोगान खाववयतालो.

आई सदांच चूहीची अपूरवाय करताली. "पळयात चिमणी जावन कशी घर सांबाळून सुखी आसा." खरेंच चूहीक केन्नाच झुजतना पळयलें ना. एकाद्रो कावळो आपल्याचेर झोपय मारूंक येता अशें दिसताच चूही खांदयेच्या कोनशाक ल्हवू लिपतालें.

झाडांपेडांत रावपी चूही आमचें जालें. सकाळीं जनेल वंद आसतना "चूही...जूही...ह्या गोड सूरान गायत चूही आईबावाक उठयतालें. बाबान सकाळी उठून दारांत चार तांदूळ वडयतले ते खातांच पांखां हालयत चूही....करीत भूर्रर करून उडत वतालें. मातशी भिरांत दिसतांच राती चू...हू असो विचित्र आवाजांत रडटालें. एक फावट रातचो एक दिवोड झाडार वयर चडलो. सीताफफळाचे झाड हाललें आनी चूहीचो आवाज चड आनी चड मोट्यान आनी आकांतांन येता तो पळोवन बावान जनेल उकते करून टॉर्च मारून पळयलें. उजवाडांत दोन दोळे लकलकले. वाबान दिवडाक धांवडायलो. तो झाडावेल्यान सरसर करून देंवलो. पळय जाल्यार चूहीच्या घोटेराक तेंकून खांदयेर एक हुंदीर आसा आनी ताजें काळीज धडधडटा. "चूहीक लागून हुंदीर आसा आनी ताजें काळीज धडधडटा. "चूहीक लागून हुंदीर दिवडा तोंडातल्यान सुटलो." बाबान म्हळें. बाबाचो आवाज आयकतांच चूहीन ल्हवू आपली तकली भायर काडली. आनी बाबा दिसतांच परत तोंड भीतर घालून मेकळें जालें. "बाबा आसा आतां भंय कसलो?" अशेंच कदाचित मनांत म्हळे आसतलें.

दुसरे दिसा सकाळीं चूहीच्योच खबरी करताली. चूही आतां वाड्यार फामाद जाल्लें. चूहीक वळखना असो कोणूच नाशिल्लो. चूहीय दारांत आयिल्ल्याच्या वाटेक वचनाशिल्लें. टिम्मकुट्टू मात केन्ना केन्नाय ताका दोळ्यांत तेल घालून तेळटालो. पूण दोन फावटी बाबान थंयचो धांवडायत साकून तोय चूहीच्या वाटेक वचनाशिल्लो.

सकाळीं चूहीचें उठावप आनी सांजचें पांच स वरांचेर येवन आमकां सगळ्यांक हांसवप, नाचवप, जणू एक वेळापत्रकच जाल्लें. चूहीचेर बारीक नदर आशिल्ली. एक फावट ताजे फाटलें काळें पांकच तुटलें. तें पडनाशिल्लें. पूण अर्दे ओडिल्लेवरी

ाल्लें. आईन चूहीक घोंटेरांत वतना पळयिल्ले. रात जाली आनी आईन बावाक ांगून चूहीक घोटेरांतलें काडलें. सुरवेक चूही भिले. पूण आईन ताका पोशेले आनी ाजें ओडिल्ले पांक कापून रगत आयिल्ले ताजेर काजूसोरो घालो. चूहीक जळ्ळो, मेरया कणांयेदे ताचे दोळे ताणें चडच बारीक केले. तेन्ना सामको म्हन्यांत चूहीचो आकार पळोवंक मेळ्ळो. फकत एका धाकट्या बोटाएदीच ताची लांबांय. बारीक शिडशिडीत सडपातळ बारीक नाजूक साडी न्हेशिल्ली "ब्यूटी क्वीन!" आईन म्हळें, पळयात "गोंयची सुंदरी"

चूही दिसपाक सोबीत, नाक, कान, दोळ्यानींय सुंदर. पूण चिमणेची तुस्त करपाक वेळ कोणाक आसता. चूही आपलो रंग, रूप, आनी गोड गळयान मनशांक खोशी करताली. पूण मनशांक तांचे कडेन पळोंवक वेळ खंय आसा. आई बाबा तांचे विंशी अशें जायतें उलयताली. चूही झाडार रावतालें, केन्नाय घरांत भीतर सरतालें.

चूही खेळपाक येतल्या भुरग्यांक खूबच आवडटालें. राफायलाची मात ताचेर वाकडी नदर पडली. आमोरेचेर कोणूच ना सो पळोवन ताणें जनेलार चडून चूहीचो घोंटेर ओडलो अर्दो पडलो. चूही भायर आड्डता तें आयकून आईन भायर येवन पळयलें. "कोणे चूहीचो घोंटेर मोडलो." आमी सगळीं धांवन गेली. चूही घोंटेराकडेन आनी झाडाचेर वयर नाचतालें. पूण आज ताजे नाचपांतल्यान दुख्ख व्यक्त जातालें, असंतोष परगटायतालें. बाबान येतकच परत घोंटेर बांदलो पूण चूही तांतूत रावलें ना. रात झाडारच बसून काडली. दुसरे दिसा चूहीचो घोंटेर कोणे मोडलो तें सोदून काडलें. "घोंटेरांतली तांतया काडूक घर मोडून घाल्ले राफायलान." राफायलाची आमकां तिडक आयली. झगडाळ म्हणून ताका आमी खेळांत घेनाशिल्ली. आईक लागून एक दीस खेळपाक घेतलो. त्या दिसा चूहीच्या घोंटेराचेर नदर पडली आनी राफायलान मनशाचें दुष्टपण कर्तुपांतल्यान दाखयलें. तरीयचूही येतावतालें. तांतया गेली, घर सोंपले पूण मनशाक भरिल्ले घर मातयेभरवण करून कितें मेळ्ळें?

९

# रामो

भुरगेपणांत मोरा पाखां जावं वा हेर खंयच्याय सुकण्यांची पाखां पुंजावपाची संवय जाल्ली. मनांत दिसलें तरेकवार पाखां पुंजायलेबगर ओगी रावप ना. चडशा सुकण्यांचीं पांखां आशिल्लींच. पूण एक फावट एका कोंब्याचीं पांखां पळयतसाकून सगळे तरेचीं पांखां आशिल्लो कोंबोच हाड म्हणून बाबाकडेन हट्ट धरलो. भुरग्यांचें उतर जिखून धरपाचो बाबाचो मोगय वेगळो. बाबान जाकीक रकाद धाडलो. "बायेक एक कोंबलो जाय." जाकी दोन दिसांनी घराकडेन आयलो. तो वेंगांत एक कोंब्या पोर घेवूनच. मातसो शेंकरो फुटिल्लो कोंबो. जाकीन ताका सकयल दवरलो. बांदिल्ले पांय सोडले. पूण एका दोंक्याची सुतली लांबसार दवरली. बाबडो कोंबो काचाबूल जाल्लो. पांयाक बांदिल्ली दोरी आसतनाय धांवतालो आनी उपरान्त पडटालो. आपलो दोंकलो सोडोवन धांवपाचे ताणें खूब यत्न केले. पूण जमलें ना. "आरे बोस थिंगा" अशें म्हणून जाकी उठलो. "बाबा हो पोर एकदोम बोरो चोय, हांव सांगोता." बाबान जाकीच्या हातार वडयलें तें तो घेवन गेलो.

रात कशी गेली कळ्ळीना. सकाळीं "ओं क रें ओं" असो अर्दो सूर कानार पडलो. आवाजावेल्यान पुराय आवाज सूटूंक ना हें स्पष्ट कळटालें. पूण 'सूर' एक वेगळो आनंद दिताले. ताचे ते विचित्र समजनाशिल्ले सूर आयकून, करतां करतां ताका नांवच पडलें "रा मो." रामो वाड्यावेल्या येतल्या पिलांक जावं कोंबये पिलांच्या आवयांक मातूय मारिनासलो. बांदिल्लो आसतना आठ धा दीस रामोन हेर कोंबयांकडल्यान मार खालो . पूण तांकां चोंच मारप, तांच्या आंगार धांवप रामोक मातय जमनाशिल्लें. तकली सकयल घालून रामो एके सुवातेर रावतालो. झुजतल्यांक वचून रामो आडायतालो.

"हो खंयचो रे रामराज्यांतलो?" बाबा म्हणटालो.

रामोन आपल्या स्वभावाची वळख रोखडीच करून दीतसाकून 'रामो' सगळ्यांच्या मोगाचो जालो. तरणी पिराय वाडटाली. पांखां पुराय आकार घेवंक पावंक नाशिल्लीं. घरांतल्यांची सवंय आनी आईची वळख जातांच रामो फाटले वटेन शेतांत पासयेक वचून येवंक शिकलो. माथ्यार आदोळेचे भशेन आशिल्लो शेंकरो आनी धवशा कोरात पाखांचेर आशिल्लो काळो हळडुवसो कोर. रामोचे लिकलिकपी दोळे. तीक्ष्ण नदर. घरांत कीड मूंयेक भोवंक दिना जाली. करतां करतां म्हयनो कसो गेलो कळ्ळो ना. रामो घरांतल्या सगळ्यांक तकली वयर आनी वांकडी करून बारीक नदर लावन पळयतालो. ल्हानां-व्हडांक तेळपाची रामोची नदर पळोवन लक्तुबाय दिसताली. इल्लोसो जीव पूण मागील दारांत आपलें राज्य ताणें येता त्या दिसासाकून सुरवात केल्लें. रामो येत साकून कोंबी कोंबे हांचे मदलीं झुजां कमी जाल्लीं.

रामो सकाळीं उठून वतालो तो इकरा वरांचेर येतालो. आईन खावंक वडयिल्ले नुस्तयाचे गळे ताका भोवच आवडटाले. नुस्तें आनी शीत. हुमणान कालयिल्लें शीत म्हळ्यार साखरभात जाल्ले वरी मिटक्यो मारून खातां खातां रामोचीं पांखां व्हड जालीं.

माथ्यावेलो शेंकरो व्हड जाल्लोच. आतां पांखां चड फुल्लीं. मुळचो रंगच ना जालो. आतां रामो तरनाटो आल्त वाडिल्लो. पूण घराचें दार मात आपलेंच राज्य कशें चलोवंक लागलो. "रामो" आईचो उलो कानार पडटांच रामो "खोळ खोळ" असो आवाज काडटालो. ल्हवू ल्हवू वाडपी ताचीं पांखां व्हड जाल्लीं. पुराय कुडीचो आकार बरो सोबीत दिसतालो. सकाळीं उठटना भायर दारा मुखार उबो आशिल्लो रामो पळोवन बाबा म्हऱ्यांत येवन उबो रावतालो. बाबान चपातीचे चार बारीक कुडके वडयतांच रामो नाच्च जातालो. आपल्या जिविताचें ताणें एक वेळापत्रकच केल्लेवरी दिसतालें. हेरां भशेन कोंबो हांगा थंय हेडटा अशें म्हणून "हेडगो" म्हण कागाळ करपाची संद ताणें केन्नाच दिली ना.

रामो खरोच हिरो म्हणपाचो. तांबडोच शेंकरो, हळडुवी चोंच, आनी कोर मात सोबीत. गाड निळो, काळो, हळडुवो, पाचवोसो, धवसो अशे कितलेशेच कोर ताचे फाटलो शेंपो सजयताले. तरेकवार रंगाचीं पांखां रामोच्या सोबीत रूपांत चंवर हाडटालीं. लांब, रूंद मातिल्लो रामो म्हळ्यार वाड्यावेल्या कोंबयां मदलो 'दादा' जाल्लो. पूण ताचें वागप पळोवन ताका 'राजा' नांव चड बरें सोबतालें. जणू आपूण

एक राज्य चलयतां अशा झेतान रामो वाड्यावेल्या पिलांक सांबाळटालो.

रामोक पळोवंक वाड्यावेलीं धाकटीं पोरां धांवन येतालीं. कोंव्यां झुजांत सोबपासारकी ताची कूड मातिल्ली. पूण मन मात कापसावरी जाल्ल्या कारणान, आई ताका खूब सांबाळटाली. "रामो यो रे" अशें आईन म्हणटांच खंयच्यान कानार आवाज पडिल्लो रामो धांवन येतालो. धांवन येतना फुडें फाटीं कांयच पळयनाशिल्लो. सर्तीत धांविल्ल्या घोड्यावरी ताचीं पावलां पडटालीं. फकत आईचो उलो आनी आईच दिसताली जावंये. आईन "आयलो मरे" म्हणटांच परत "खोळ खोळ" अशा आवाजांत जाप दितालो. "यो, घे रे खा" आईन घाल्ल्या शिताचेर ताव मारतांच चोंच फातरार मातशी घासूंन, रांदचे कुडींत ल्हवू पळयत, भितोडेक थोडो वेळ विसंव घेवंक बसतालो.

जंय जंय रामो भोंवक वतालो, थंयच्यान रकाद येतालो. कांय जाण खोशयेन सांगतालीं, तुमचो रामो आमगेल्या थंय आशिल्लो. "कोंकरें कों" हो कोंब्याचो सादच तो खंय आसा हें सहज सांगतालो. वाड्यार वता ते वटेन एकाद्रो रामो दिश्टी पडलो आनी "रामो" म्हणून उलो मारतांच "खोळ खोळ" करून आवाजांतल्यान उल्याची जाप दिवन मनशावरी आपल्याकय कळटा, अशेंच जणू रामो स्पश्ट दाखयतालो.

रामो वाड्यार एकटो भोंवतालो. "हो कोणालो कोंबो?" असो सुरवेक प्रस्न जायत्या जाणांनी विचारिल्लो. पूण उपरान्त तो "हरिबाबालो" म्हणून कळतसाकून तोंडाक लाळ सुटिल्ले कांय जाण निर्शेताले. कांय जाण "कोंव्याक आमकां दी, जाय तितले पयशे घे." म्हळ्यार लेगीत बाबान रामोक कोणाकच दिलो ना. जायते जाण रामोचेर नदर दवरून आशिल्ले. पूण रामोक हात लावपाक कोणूच धजनाशिल्लो. वाड्यार ल्हान-व्हड सगळे रामोक वळखताले.

रामो मनीस न्हय पूण ताचें वागप मात मनशावरीच आसलें. 'आई' रामोक जायच आशिल्ली. दोन दीस तकली उसळटा म्हणून सूंट घालून आई दिसतांच रामोचें अवसान गळटालें. रामोक मागीर शीत गोड लागनासलें. अन्नावेली वानसाच उडटाली. मोनो जाल्लेवरी खंती जावन एका कोनशाक बसतालो. "आरे म्हाका कांयच जावंक ना." म्हणून आईच्या हातचें शीत खावंक लागतांच पर्थून ताजोतवानो, खणखणीत जावन भोंवक वतालो. आईन कितलोय उलोवूं, तकली सकयल घालून समजल्लेवरी आयकतालो. "खंय गेलो रे? वेळ कित्याक जालो जेवंक येवंक" शिताक चोंच लायनाशिल्लो. "खारे आतां" म्हणून आईचीं अपुरबायेचीं उतरां ताचें

काळीज जिखतालीं.

"रामो दिता गे?" म्हणून दर एकटो रामोक मागता तें पळोवन आई मातशी कांचवेली. "रामोचेर सगळ्यांचीच नदर वता." आईन एक दीस बाबाक म्हळें. "बरें आसा. ताका कोणेय मागप सबावीक. दिवपाचें ना, विकपाचो ना म्हळ्यार जालें." पूण आईक समजल्लें, रामो सगळयांचे नदरेंत भल्ला. माल्ल्यार कितलेशेंच मांस मेळटलें. कांय जाण रूच काडटाले. रामोक पळोवन म्हणिल्लीं उतरां आयकून रडूंक येतालें. काय बऱ्या रामोक मारून मांस खावंची इत्सा जाता तरी कशी? जाका समज आसा, वळखुपाची तांक आसा ताका मारून वडोवंया अशें म्हणपी लोक कितले मुर्दाड पळय. "पोटा खळगे मुखार, तोंडाची रूच. मनीस मनीसपणच विसल्ला" आई जायते फावटी कोंबो मागतल्याक थोमणो मारताली.

एक फावट तर एक बायल दारांत आयली ती पयशे घेवनच. "कोंबो मार म्हळां. सांगता तितले पयशे दितां. आंगवण केल्या." म्हणूंक लागली. आई सगळें आयकून वोगी रावली. निमणे "रामो मारूंक न्हय, खावंक न्हय, देवाक दिवंक न्हय, पोसपाक जाय म्हणून पोसला. राग धरू नाका, वच." आईन म्हळें. आमोरेचेर रामो आयलो. "यो रे हांगा" अशें आईन म्हणटाच रामो आई म्हऱ्यांत उबो रावलो. आमकां हात लावंक दिनाशिल्लो रामो, आईचें उतरान उतर आयकतालो. आईन किस्तोदीक सांगून मीठ उवांळून वडोंवक लायलें. व्हडले जाळयेचें काशीचें दार उकतें केलें आनी रामो सरळ भितर वचून बसलो.

आमोरी जातांच घरांत भितर सरप. असो नेम ताणें स्वताक घाल्लो. जेवप, भोंवप, सगळें आशिल्लें. पूण कोंबो जावन लेगीत बंदन मोडून मेळत तशे वाटेन रामो केन्नाच धांवलो ना. वाड्यावेले झुजपी कोंबे ताका रोखडेच शरण येताले.

पावस सोंपलो आनी अकस्मात "कुकडां मरतात. लसूण बी घालात गेऽ" अशीं रामोक उद्देशून म्हणिल्ली उतरां आयकून आई मातशी भियेली. आमोरेचेर रामो घरांत भितर येतांच आईन ताका काजू सोरो, दुसऱ्या दिसा लसूण बी घाली. पूण खंयचें वारें पडलें देवाक खबर! रामो झेमेवंक लागलो. दुसऱ्या दिसा आमोरेचेर बेबद्या भशेन लवंडूंक लागलो. उबो रावपी रामो, हातपांय गळसून बसला, दोळे झेमेतात तें पळोवन आईन जायते उपाय केले. रातचो दोन फावट आईन टॉर्च मारून ताका पळयलो. आईचो आवाज कानार पडटांच उबो रावपी, पांयाच्या आवाजाचेर 'कों' असो आवाज काडपी रामो उरूंक ना म्हणपाचें आई वळखल्ली. घरांत रामोचे

अवतिकायेन सगळ्यांची न्हीद खळयिल्ली. न्हीद ना ती ना. रामो बरो जावचो म्हणून सगळीं मनांतल्यान मागतालीं. रामोक पळोवन दुख्ख जातालें. वहींत दवरिल्ली ताचीं झडिल्लीं पांखां पळोवन "रामो" म्हणटांच दोळ्यांत दुकां दाट्टालीं. पांखां पळोवन तरेकवार रंग दोळ्यांमुखार नाचताले. पूण आपलीं पांखां दिवन खोस दिवपी "रामो" मात देवान व्हेलो. रडचें न्हय म्हणून आई समजायताली. "जो आवडे सर्वांना, तोचि आवडे देवाला." आई सांगताली. वहींत दवरिल्लीं पांखां, रस्त्यावेलें कावळ्याचें पांख, आज रामोची जीण दोळ्यांमुखार उबी करता. पाखांचो मोग पांखां सांवाळपीच जाणात. दुसऱ्यांक ताचें मोल तें कितलें आसत? एका मिलिटरींतल्या कर्नलावरी रामो शिस्तबद्द जीण जगतालो. सोबीत कोंबे, कोंबयो, ताचे बरोबरचे इश्ट ताच्या सांगांतान भोवताले. पूण रामोन ल्हानाव्हडांक आपल्या मोगांतच घुस्पायिल्ले.

रामो पिंडान घट्ट. जोर, जाळ, रोग, तांची कसलीच केन्ना ताका बादा जाली ना. कितले फावटी कोंबयांचेर हावळ आयली. पूण रामोच्या आंगावेल्यान वारें लेगीत गेलें ना. एक घट दणकट पहलवान जाल्लो रामो कसलेय रोग पचयतालो. बरें खाण जेवण आनी अपुरबायेन आईन रामोक आमचे घरचोच कसो सांबाळिल्लो. तरणेपणाची सया आतां वयस्कान घेतिल्ली. पूण रामोन सगळ्या घरच्यांची, वाड्यावेल्यांची काळजां "कोंकरे कों, खोळ खोळ" अशा एका वेगळ्या तरेच्या आवाजान जिखिल्लीं. रामो राजा जावन राज्य करतालो. सुसेगाद जीण जगतालो. नुस्तें आनी हुमण आवडपी रामोक "गोंयकार", "नीज गोंयकार" अशाच नांवांन बाबा उलो मारतालो.



१०

# फायटर

फांत्या पारार गोरवांचें आनी मेंढऱ्या बोकड्याचें आकांतान आड्डप कानार पडटकच जीव काचावूल जातालो. एक दोन फावटी मँ मँ अशें बोकड्याचें रडप आयकलें तेन्नाच्यान बोकडांक कोण तरी मारता अशें दिसलें. सकाळीं उठ्टांच आईक विचारपाचें मनांत थारायलें. पूण त्या दिसा विसरलें. उपरान्त चार दीस गेले. पावस वोततालो. दनपारची अडेच तीन वरां म्हळ्यार काळ्या कुपांक लागून दीस चार पांच वरांचो आव हाडून बशिल्लो. जेवले उपरान्त आईन खावंक दिल्लें केळें हातांतच धरून आईबरोबर फुडल्या दारांत उबें रावलें. इतल्यांत मँह मँह करीत एक बोकडी वंय धुकलून भितर सरपाचो यत्न करूंक लागली. म्हणटा म्हणसर वंयेचें दार काडूनच बोकडी भितर सरली आनी सरळ भितोडेक रावन पावसापसून आपली सुरक्षितताय करून घेवंक धांवली. फाटोफाट एक बोकडे पील ल्हें...ल्हें... करीत कान पानावरी हालयत टूण टूण टीण टीण करीत आंगणांत उडक्यो मारूंक लागलें. पील पूट् पूट् करून उडणां मारता तें पळोवन जीव खोशेन भरलो. "आई, बोकडे पील!" पील उडणां मारीत दारांत आमच्या म्हऱ्यांत उबें रावलें. हांवें ल्हवू हात लायलो. ताच्या बारीक केसांचेर पावस पडिल्लो."पील भिजलां आई." बोकडी मात घराचे भितोडेक रावन पिलाक दोळे मोटे करून पळयताली. तिची नदर हेवटेन तेवटेन घुंवताली. पावसान तिका बुचकळ्यांत वडयिल्ली. आपूण भिजतां. तातूंत पील वयर आसा. देखून ती ताका समजायताली. आईन कमलाक कुडको हाडूंक लायलो. "हांगा यो." म्हणून पिलाक धरून वेलें पावसाचें उदक पुसून काडलें. ताचें आंग मातशें सुकलें. काळेंच पील. जीब तांबडीच, बटबटीत दोळे आनी 'व्ही'

आकाराचें मदींच चीर पडिल्लेवरी इल्लेंशें नाजूक तोंड. पील काळें खरें पूण ताची काळसाण लेगीत आमचें मन आपलेकडेन आकर्शीत करताली. त्या काळ्या कोरांतच पील भोवच सोबीत दिसतालें. विलोदावरी कुडीची ताची तकतकसाण ताका पर्थून पर्थून हात लावपाक मन उचांबळ करताली.

पिलाक धरून आमी वयर उवारलें. पील वेंगेंत घट रावलें. पूण ताका एके तरेचो 'वास' मारतालो. आईन म्हळें "सकल दवर पिलाक." सोबीत कोवळें पोर आपल्या म्हन्यांत ओडटालें. पूण दर्पान कुशीक सारपाचें काम केलें. पील सकल दवरतांच मँ....ल्हें....ल्हेंहें करून आड्डलें आनी ताचो आवाज आयकून लाला "आई, म्हजें पील तुमगेर पावलें?" म्हणत वयेंतल्यान भितर सरलो. "हय रे यो, हें पळय पील. आनी ती बोकडीय व्हर." "झाडां खावंक ना मगे?" "ना रे." आईन म्हळें. शू...शू...शू...करून लाला बोकडेक आमडूंक लागलो आनी पील व्हरपाक आई म्हन्यांत आयलो. पिलाचे कान, कूड आमी पोशेतात तें पळोवन लालान म्हळें "आई, हेका हांगांच दवर." "वाय तुका पील जाय?" "आसूं रे." आईन म्हळें आनी लाला खरेंच पिलाक आमगेर दवरून सरळ गेलो. मन मोरावरी नाचलें. पिलाक आवयची याद आयली. ल्हें....ल्हेंहें करतांच बोकडी खंयच्यान तरी धांवत आयली. लालाय बोकडे फाटोफाट आयलो. "आई, तुजेभशेन ही बोकडी. तूं आमकां सोडीना तशी पळय आपल्या पिलांक ती सोडीना." पील ह्या दिसाच्यान आमगेरच उरलें. आईन पिलाक पावसांत दवरल्यार थंडी लागतली म्हणून मान्र्याकडेन आशिल्ल्या एका कोनशाक ताका बांदलें. दोन दिसां उपरान्त दर्प बी गेलो. पूण पिलान आवयची फाट सोडलीना आनी आवयचें मँ.....मँ....आयकून पील टूण टूण करून उडक्यो मारून केन्ना आवय मुखार उबें जातालें. बोकडी आपल्या पिलाक दूद दिताली. धोंगशे मारून मारून पील दूद पीत रावतालें. बोकडी सकाळ सांजची न चुकतां पिलाक दूद दिवंक सरळ वाट चलत येताली. रस्त्यावेल्यो मोटारी लेगीत बोकडेक आडावंक शकल्यो नात. हेवटेन लालाक बोकडी दूद कित्याक दिना हें कुवाडें सुटना जावन एक दीस बोकडे फाटोफाट येतांच सगळें कळ्ळें. बोकडी आनी पिलाचो मोग पळोवन आमकां खोस जाली. "मोने जातीक लेगीत पळय कशें समजता, आपल्या रगताक वळखुपाची कशी तांक आसता!" आईन म्हळें. पयस साकून पिलाक सोदीत येवपी बोकडेची तुस्त दिसताली. जाल्यार आवय केन्ना येतली काय म्हणून वाट पळयत रावपी पील आनी आवय दिसतांच ताची नाचपी मूर्त, मळबांत उडक्यो मारीत

चलिल्ले ताचे धाकटुले दोंके पळोवन आमची मोगाळ आई दोळ्यांमुखार नाचूंक लागताली. "आवय ती आवय, आई कितली बरी!"

कितलेशेच म्हयने बोकडेन आलतड पलतड काडली. घरांत नव्या पिलान आनंदी वातावरण निर्माण केलें. पिलावरोबर सूकार पडटांच खेळप आनी खास करून ताचे उडणां मारपाचे पद्दतीनच आमकां पिशीं करून वडयलीं. काळें पील आसुनय काळें म्हणचे बदला तें मनांतली काळसाण काडून वडोवन सगळ्यांक एकठांय हाडटना दिसूंक लागलें. हातभर पील. ताका अचळय हातांत धरून खेळूंक सोंपें जातालें. आईन ताच्या गळ्याक तांबडो कपडो बांदून सकल लांस केल्लो. "नदर लागत गो पोराक कोणाचीय." ती म्हणटाली.

आवयचें दूद पिवन शेतांत नाचून आनी इल्लो इल्लो पालो खावंक शिकतां शिकतां पील व्हड जावंक लागलें. आनी मातशा वाडिल्ल्या पोराक दाखोवंक लाला एक दीस बोकडेक घेवन आयलो. दूद सोडत साकून बोकडी येनाशिल्ली खरी, पूण लालान आपले बोकडेचें मन वळखल्लें. पूण त्याच दिसा लालान सगळ्यांक रानांत वडयत म्हळें "आई ही बोकडी न्हय, हो बोकडो. तुका कितें करपाक जाय? दूद दिवची ना." इतले दीस पील आमच्या सांगातान खेळ्ळें, नाचलें. बोकडी काय बोकडो हाचें भान्च केन्ना आयलें ना. पूण लालाली उतरां मात खूब खंत करून गेलीं. आईन फट् करून म्हळें "बोकडी, बोकडो भुरग्यांक कितें ताचें?" आमकां व्हडलें कांयच समजलें ना. पूण लालाचो मात मनांतल्यान खूबच राग आयलो. इतले दीस पिलाबरोबर खेळटां खेळटां मात ताचें परत परत तकली हालोवप, मारपाक धांवप, आंगार येवप सगळ्यांकच कळिल्लें.

लालाक आईन तसोच परत धाडलो आनी त्याच दिसा ताचें नांव दवरलें 'फायटर.' दिमयेकडेन पावपी पील वाडूंक लागिल्लें. उंचाय वाडटां वाडटांच मुखामळांत बदल जाल्लो. मोव कात मात मात घटशी लागताली. नाजुकसाणेचे बदला घटसाण आयिल्ली. पील म्हणटां म्हणटां म्हयने, वर्सां जावन जुवान जालो. नांव मात फायटर पडलें.

'यथा नाम, तथा काम' म्हणटात तशेंच 'फायटर' झुजांत चपळ जालो. खाडा मिश्यांचो पाय जालो आनी फायटराभशेन फकत खुटां येदीं आशिल्लीं दोनूय शिंगा मारून मारून परकी मनशाक वंये भितर पावल मारपाचेंच फायटरान बंद केल्लें. शिमेर उबे राविल्ले फायटराभशेन परक्याचो वासय घेनाशिल्लो. बाबान किस्तोदीक

सांगून ताका भेंडयेचो पालो खावंक घालपाचो वेळच थारायिल्लो. सकाळ सांजे चरप
आनी तेभायर पालो खावन खावन एका सशस्त्र लश्करी अधिकाऱ्याभशेन फायटर
कमांडर जालो. घरच्या पुराय सुरक्षिततायेचो ताबोच आपूण घेवन बसलो. घरांतल्यांक
वळखप, तेभायर घरांत येतल्याचेर नदर दवरप. बोकड्यो, गाय, म्हशी, दुकर
कोणाकूच वंयेक तेंकूंक दिनाशिल्लो. तांचेर झुइनच वतालो. खायन म्हणून आंगार
येता त्या फायटराक पळोवनच त्यो पळ काडटाल्यो. पानाक लेगीत हात लावंक
दिनाशिल्लो.

फायटर जाल्लोय तसोच मुशेड. वास्वेलावरी फुगऱ्या गालाचें मुस्कट, बटबटीत
खावंक येवपी दोळे आनी दुदयावरी मोटें जाल्लें पेडावण. दोन शिंगां म्हळ्यार भाले
कशे. सरळ सरळ वार करपांत फायटर तज्ञच. फायटर मोटो बुदवंत आसलो.
शेजारच्या घरांतल्या पोरसांत रोयिल्लो बोकोडयो ताच्या घोस्ताचो. फायटर, किस्तोदीची
नदर चुकोवन ल्हवूच वचून जाय तसो बोकोडयाचेर ताव मारलेबगर रावनाशिल्लो.
शेजाऱ्नीन कितलेशेच फावटी कागाळ केल्ली. आईन फायटराक सांगून दवरिल्लें.
"केस्तांवां घेवन आयल्यार मार पडटलो." पूण फायटर मात आपल्या मनांतलें तेंच
खरें करतालो. शेजाऱ्नीलो बोकोडयो खातालो. पूण आईन घराक तेंकून आंगणात,
पोरसांत लायिल्ल्या झाडांच्या पानांक लेगीत पळयनाशिल्लो. आई झाडांक उदक
घालता तें बारीक पळयतालो. फायटराक केन्नाच बांदून दवरपाची वेळ आयली ना.
आपली शीम, आपलें घर, आपलीं मनशां हांचो ताणें बरोच अभ्यास केल्लो दिसतालो.

एकदां सदांभशेन किस्तोद फायटराक शेतांतल्यान घेवन वतालो. इतल्यांत वाटेर
एका बोकड्यान ताका पळोवन आपलीं शिंगां उबारलीं. फायटर रागान तांबडो
जालो. मानेवेली ताची ल्हंव उबी जाल्ली दिसली. मुसकट फुलयत आनी शिंगां
उबारून गुळी घालपाच्या तावान फायटर ताचेर तुटून पडपाचो. किस्तोदीन आडायलो.
फायटराक मोटें पिकासांव जालें. कोणाचेरच तो तसो मुद्दाम जावन वार करनाशिल्लो.
पूण आज ताचो मोटो अपमान जाल्लो. फायटर अदीं मदीं आड्डतालो. "आज हाका
जाला तरी कितें?" आईन फायटराक खूब समजायलो, पोशेलो आनी आईच्या
मायेस्त हातांनी ताच्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. केदो वेळ फायटर रडटालो.
"फायटर म्हणटा आनी रडटा?" आईन ताका शांत केलो. फायटराक रडटा तें
पळोवन आमकां अजाप जालें. आईन म्हळें "आज ताचो अपमान जालो तो ताका
सोंसलो ना."

फायटर तसोच ल्हानाचो व्हड जाल्लो. मोट्या मानान जगतालो. पूण आज जाल्लो ताचो अपमान ताका खंती करून गेलो. दुसऱ्या दिसा आमोरेचेर तोच बोकडो परत वंयेक येवन तेंकलो आनी कवडेंतल्यान पावल भितर घालतांच फायटर भीमावरी गदायुद्द करूक छाती मुखार काडून धांवलो. ढो, ढो करून परत परत कितें आपटता काय म्हणून पळोवंक आई भायर आयली आनी फायटराक दुसऱ्या एका बोकड्याकडेन झुजता तें पळोवन कालची घडणूक आईन वळखली.

आईक पळयतांच फायटर एक मिनिट वोगी रावलो. इतल्यांत आईन म्हळें "म्हाका पळोवंची गरज ना, तुका दिसता तशें कर. होच तो तुजो दुस्मान, मार." "फायटर फायटर" शेजारच्या भुरग्यांनी किळांच्यो मारल्यो. आंगणांतच दोगांयचें मोटें युध्द चलिल्लें. फायटराक नेट दाखोवंक आयिल्ल्या बोकड्याक ताणें उदक मागूंक लायलें. ताचें तोंड फोडलें. एक शींग भायर सरलें. दोळ्यांकडेन कपचोच गेलो. निमणें ताका आड वडयलो. ताच्यान उठूंक जायना जालें. ल्हवू उठून खंयच्यान तरी कूस मारतलो म्हणून तो वंयेकडेन तेंकलो. भायर सरूक वाट मेळना तें पळोवन पडून उरलो. दोगांयचें झूज बरेंच रंगलें. वाड्यावेल्या जाणट्या नेणट्यांनी फायटराची खूबच तुस्त केली. "शाब्बास फायटर" म्हणून एका तरनाट्यान फायटराच्या गळ्यांत एक घांट्ट बांदली- कालची घडिल्ली घडणूक जांणी पळयिल्ली तांणी म्हळें "जशाक तशें मेळटाच." फायटर आज भोवच खोशी आसलो. पूण आमोरेचेर आईन ताका पोशेत ताचे दुखिल्ले कुडीबरोबर ताच्या मनाक 'मलम' लावपाची गरज नाशिल्ली हें वळखलें. हळद, काजू सोरो, वेंखण, जिरें अशें कितें लावंक फायटराक आपल्या म्हऱ्यांत ओडलो.

"यो म्हज्या पुता, फायटो." आईचो हो मायेचो हात फायटर चाटपाक लागलो. आईक आपलीं शिंगा लावन, सगळें आंग आईक तेंकयत फुडल्या दोन पांयांनी जणू पांया पडलो. "आरे जालें कितें? उठ वखद लायतां." फायटर उठलो. दोळ्यांत . कालचेभशेन आज दुकां आसलीं. "आयचे हे आनंदाश्रु." आज ताका खोशी जाल्ली. "मोनी जात रडटा. मान, अपमान, आपलो, परकी सगळें वळखता. तरी लेगीत संयमी." आईन आमकां फायटराक दुख्ख कित्याक जालें हेंय सांगलें. आमकां तशें कांयच कळ्ळें ना. इतलेंच बरें दिसलें, आमचो 'फायटर' जैतिवंत जालो.

ते रातीं आईन ताका वखद लायलें. गळ्यांतली घांट तर वाजत आशिल्ली. आपूण जैतिवंत जालों हाची खिणाखिणांक तिची किणकिण ताका याद करून

दिताली. आमोरेचेर बावाच्या कानार ही खबर कोणे तरी घाली. बावा घरा आयल
आनी फायटराची अवतिकाय पळोवन बेजार जालो. गरज नासतना कोणाच्या तर
बोकड्याक लागून फायटराक झुजचें पडलें म्हणून बावाक तिडक मारली. बावा
फायटराक "ब्राव्हो फायटर" म्हणून खूब पोशेलो. आपल्या धनयाचो मोग पळोव
फायटर परत एक फावट "मँहह" करून आड्डलो. आपणें कितें तरी बरेंच केल
हाका लागून धनी, आई सगळे लोक आपल्याचेर खोशी आसात तें ताका कळ्ळें
बाबान खोशी जावन म्हळें, "फाल्यां दोतोराक हाडून दाखोवंया.

फायटर ते रातीं जेवलो ना. आज उतरांनीच ताचें पोट भरिल्लें. मायेन ओडिल्ल
हात, आईचें पोशेवप आज ताका पांखां लावन उड्डूंक शिकयतालें. फायटराचीच तुस्त
करतां करतां न्हिदपाक बरोच वेळ जालो. रातीं कोणय ताका मारत बी म्हणून
बाबान ताका रांदनी कुशीकूच बसूंक पोंदा साक घालूंक सांगलें. मनशाची भास
समजुपी फायटरान पुरो जाल्ल्यान रोखडेंच त्या साकार ताणावन दिलें. पर्थून पर्थून
'फायटर', 'फायटर' ही उतरां आयकून मँ..हँ...मँ..मँ हँ करतालो. फायटर असो
गाड न्हिदतलो हाची कोणाकच कल्पना नाशिल्ली. सकाळीं एकच बोवाळ जाल्लो
"फायटर जिखलो." पूण फायटर सदांकाळ गेलो हें आयकूंक कोणूच तयार नासलो
मनशाक मान अपमानाचे पाठ मोनी जातय शिकोवंक शकता, मोनी जातय मानान
जगूंक शकता म्हूण दाखोवन दिवपी फायटर, कुडीच्या रुपांत मनशाच्या काळजांतलो
पुसून वचूं येत. पूण कृतींतल्यान धडो दिवपी मनशाच्या काळजांतल्यान पुसून वचप
शक्य आसा व्हय?



११

# मंको

मंको आमगेर सकाळीं इकरांक पावलो. मुखार मंको आनी फाटोफाट चार पांच
ुरगीं. मंकोक लागूनच ही भुरावळ जमा जाल्ली. दारांत बोवाळ कसलो म्हूण पळय
ाल्यार मंकोचेर नदर पडली. "आई गे, मामान माकोड धाडला." घरांतलीं सगळीं
हरांदार पावलीं. मंको मात शांत. दोळे लुकलुकायत, हेवटेन तेवटेन घुंवडायत एके
ुवातेर बशिल्लो. आईन भितरलीं फळां हाडलीं. मंकोच्या तोंडाक लाळ सुटली.
ळ्यांचेर मंको तुटून पडलो. स्टायलीन खावंक लागलो. केळें बरें सोललें आनी
ालें. उपरान्त पेरां खालीं. बारीक बी ल्हवू भायर वडयतालो. केन्ना एका हातान तर
ेन्ना दोनय हातांचो आदार घेत मंकोन सगळीं फळां मट्म केलीं. आनी आईच्या
तोंडाक पळोंवक लागलो. मामान बरोबर धाडिल्ल्या कुळब्यां म्हऱ्यांतच तो बशिल्लो.
ूण पर्थून पर्थून आईक बारीकसाणेन तेळटालो.

"आरे, कितें? अजून पोट भरलें ना?" आईन म्हळें. "बाये, तेका सगळें कळटा.
नशावरी बुदवंत आसा न्हू तो?" अशें म्हणटा थंय आसा, मंकोन उठून चलत
आईचे पांयांकडेन येवन बसकण मारली. "हें पळय. सांगलें न्हू?" येदो वेळ ल्हान
भुरगीं ताका खातना पळयत बशिल्लीं. पूण मंको चलपाक लागतांच भुरग्यांनी
'चलता पळय!" म्हणून बोवाळ घालो. तरी मंको शांतच आशिल्लो. मंको मनशांत
ावपी हें पळयतनाच कळटालें.

मामा साळेरी रावतालो. कितलींशींच माकडां, पणस, आंबे, केळ्यांचेर ताव
ारपाक येतालेच. पूण एक फावट मात एक माकडीण आपल्या दोगा पिलांक घेवन
णसाचेर वयर बशिल्ली. इतल्यांत ढो करून पिकिल्लो पणस धर्तरेर आपटतांच

माकडीण पूट् करून उडकी मारून पणसामुळांत उबी जाली. पिलां मातशीं कुशीक सरलीं आनी माकडीण घऱ्यांचेर ताव मारपांत गुल्ल जाली. भिकण काडून रसाळ घरो चघळटना माकडीणीक भान नासलें. इतल्यांत फाटले वटेन माथ्यार घऱ्याचो मार बशिल्ल्या सोरपान तिचो घात घेतलो. माकडीण वळवळून खिणांत सोंपली. बाबडीं दोनूय पिलां मामान पोसलीं. तातूंतलो मंको आमगेर पावलो. मंकोची आवय मेली म्हणून सांगिल्ली घडणूक दोळ्यांमुखार उबी रावली. बाबड्याची आवय भुरगेपणांतच गेल्ली. आई ताका सांबाळपाक लागली. वाड्यावेल्या पोरांक एक नवो उद्येग मेळ्ळो. आमोरेचेर ना जाल्यार मदींच केन्नातरी येवन तीं मंकोक पळोवन वतालीं. मामान ताचें नांव आमकां आदींच सांगिल्लें. आईन म्हळें, "तेंच नांव बरें."

मंकोक मूळ नांव पाठ आशिल्ल्यान, 'मंको' म्हणटांच तो सरळ म्हऱ्यांत येतालो. आठ दिसांत घरांतल्यांची वळख जाल्ली. देखून आठ दिसां उपरान्त बावा दिसतांच ताणें बाबाक बारीकसाणेन पळयलो. पूण बावान "मंको" म्हणटांच बाबाच्या पायांकडेन हाजीर जालो. "बरो बाबा तूं. मंको म्हणटांच येता." दुसऱ्या दिसा बावान व्हंरांदाच्या एका कोनशाक मेस्ताकडल्यान पियां काशीचें ताका एक घर करून घेतलें. तोमेरेन मंको घरांत राविल्लो. जनेलांतल्यान मंको भायर पळयतालो. आठ दीस मंको घरांत मेकळो भोंवतालो. आतां घरांत वचून बसतालो. पूण आई मंकोच्या घराचें दार उकतेंच दवरताली. ताका लागून मंको खोशी आसलो. आमोरेचेर कोले येताले देखून आई-बाबा सुरक्षिततायेखातीर रातीचें दार बंद करून कुलूप घालताली. मंकोक आतां समजतालें. दिसभर आपल्याक भोवंक मेकळीक. रातची न्हिदपाची कूड पळोवन बाबाचेर तर मंको खोशी जाल्लो.

पंदरा वीस दिसां उपरान्त घराचें दार ते दारा मुखावेलीं सगळीं झाडां एकाच दिसा पाडा घालून मंको दनपारचो खरशेत आयलो. बाबा तेन्नाच भितर सरिल्लो. मंकोन आपल्या हातांतलो आंबो बाबाच्या पायांकडेन दवरलो आनी भायर पळ काडलो. भायर वचून घरांत बशिल्ल्या मंकोक बाबान पोशेलो. मंको मान सकल घालून ओग्गी बसलो.

सकाळीं पेरां, चिकू, केळीं कितें मेळटा तें मंको एका खिणांत गळ्यासकल देंवयतालो. दनपारच्यो रोटयो आनी उदक. तेभायर काळींग, एक मोटें फळ जायच आशिल्लें. आईन ताचेखातीर दवरिल्ल्या ताटलेंतच खातालो. उदक मात मनशावरी पितालो. फळां वा रोटयो खातना मात मोटी मजाच येताली. कशे कुडके केले आनी

त्रा गळ्यासकयल देंवयले हेंच कळपाक कठीण जातालें. फकत खाता म्हणपाक
तताली ती खाडकी.

मंकोक स म्हयने, म्हणटा म्हणसर येवन केन्ना वर्सय जावन गेलें कळ्ळेंच ना.
ा मंको आमच्याच बरोबर खेळपी, नाचपी, धांवपी हातूंतलोच एक जावन बसलो.
ाई ताका आपल्या म्हऱ्यांत घेवन "भक सुकड्या. ह्या दिसांनी आंबे पिकतले.
फयत बस." भास कळनाशिल्ली पूण आई आपली अपुरबाय करता हें समजतांच
ाईक तेंकून बसून दोळे धांपून संताचो अवतार जावन काकुळटेक येतालो. "आई,
यें लाड करचे म्हणून पळय कसो बसला." अशें आमी म्हणटांच दोनूय दोळे बारीक
रून ल्हवू चोरून पळयतालो. "मोटो नाटकी पळय कशीं संवगां करता." आईन
णटांच आईच्या पांयांरच आपली तकली दवरतालो. "शाणो म्हजो मंको." हीं
तरां आयकलेबगर मंको हालनासलो.

मंको 'हुप्प' म्हणटांच दाखयता ती वस्त घेवन येतालो. एक फावट कांसाद
ावन आयिल्लो बाबा विसव घेवंक बसला तें पळोवन मंको आडसर घेवन सकयल
वलो. तांबड्या कवथ्याचें तांबडेंच आडसर हाडून पांयांकडेन दवरलें आनी बाबाम्हऱ्यांत
सून सोलूंक लागलो. दांतानी आडसराचें भायलें सोण्ण सोलतालो. इतल्यान बाबान
ळें "आरे मंको दांत वगडावन बसतलो." मंको कुशीक वचून बसलो. मानायान
ाडसर सोलून दिलें. मंकोची समजिकाय सगळ्यांचे दोळे दिपकायताली. मंको
ारामुखावेल्या भाटांत मेकळेपणान भोंवतालो.

कसलीच भंयभिरांत नासली. पूण खंयचेय खांदयेर आसूं ताची नदर घराचेर
ासताली. एकाद्रो परकी मनीस येता तो दिसतांच खंयच्यान व्हरांदांत उबो रावन
ाची वाट आडायतलो. मंको आसल्यार घरांत पावल घालपाचें धाडस कोणाकच
ायनासलें. पूण एक फावट मंकोची पर्वा करिनासतना कायतून घरांत पावल दवरलें
ानी मंकोन ताका बुड्डिल्लो. "आई गे, आई" म्हणून कोण कित्याक किळांचता
हूण पळोवंक आई भायर आयली. पळय जाल्यार मंको ताका सोडिना. "हो सुण्या
ोरोस जोबोर मुरे." म्हणून कायतून पळ काडलो. ही घडणूक कायतून गांवभर
ांगली. तेन्नाच्यान मंकोची भिरांत जाणट्यानेणट्यांच्या काळजांत रिगिल्ली. घरांतल्या
शेंच घरांत येतल्या सोयऱ्यांक मंको ज्यूस्त वळखतालो.

आंबे, घोंटां, तशींच वयर भरिल्लीं जांबळां मंकोक लागून भरपूर खावंक मेळटालीं.
येकून तटास जावंचे आदींच, आमची खावपाची इत्सा पळोवन, अमुरपिकींच फळां

मंको झाडां मुळांत रावतांच पाडटालो. जांवळीच्या रुखाच्यो खांदयो तोडून, जमनीर उडकी मारून घेवन येतालो. मागीर जांवळांचेर आमी तुटून पडटालीं. "मंको हूप्प" म्हणून जांवळां दाखयतांच पर्थून झाडार चडून एक दोन ल्हान, व्हड ताळयोच तोडून हजर जातालो. "घे रे मंको." आमी दिल्लीं जांवळां आमचे वरोबर वसून खातालो.

आईन शिंविल्लें तांवडें कालसांव आनी बुशकोट मंको खंय वता थंयसाकून तांवडो बावटो कसो दाखयतालो. पेरां, चिकू, आंवे फातरावपाक आयिल्लीं भुरगीं मंकोचो "तांवडो सिग्नल" पळयतांच पांय काडून माथ्यार दवरून धांवचीं तशीं धांवतालीं. थोड्यांक शेळो घाम सुट्टालो. तातूंत एक फावट एका अवचित्र भुरग्यान मंकोचेर एक फातर शेंवटिलो. पूण मंको कितलो हुशार! ताणें तो फातर अचळय जिखलो आनी शेंवटून परत ताचेरच मारलो. फातर लागतांच भुरगो भिलो आनी शेंपडी तूटसर धांवलो आनी पळून गेलो. कायतूक हाडिल्ल्यो नाकयां शिंको आनी भुरग्याक शिकयिल्लो धडो गांवभर लोकांक ताणें चिरूक घाल्लो.

मंको मस्तो न्हय पूण दुसऱ्यान आपल्याक बेठेंच चाळयिल्लें ताका आवडनाशिल्लें. मोंतेस सदांच चेपें घालूनच भोंवतालो. एक फावट काम करून घरा परततना मोंतेसान ताका पळोवन म्हळें "ए माकडा, तूं माकोड मुरे?" अशें म्हणून मोंतस ताका चाळयत चार पावलां फुडें सरला मात; मंको ताचें चेंपें घेवन केन्ना पसार जालो कळ्ळेंच ना. "आई म्हुजें चेपें व्होयलें." म्हणून कागाळ करीत मोंतेस आयलो. "तुवें ताका कितेंय पूण केलां जातलें." "होय. माकोड म्हुळो म्हणोन चींची केलोलें." "मंको हो मुनीस मुरे." म्हणून चेंपे मेळटलें म्हणून मोंतेस वाट पळयत बसलो. पूण मंको झाडावेलो सकयल देंवलो ना. मंको खांदयेर बसून मोंतेसाचें रडकुरें तोंड पळयतालो. अर्द वरान चेपें हाडून आईच्या हातांत दिवन मान सकयल घालून बसलो.

"तुका व्हरून विकतां, सर्कशींत व्हरून सोडटां. दर दिसा एक किजिल हाडटा मरे?" आईन मंकोक तापयलो. पूण मंको ओगी आईच्या म्हऱ्यांत बसून आईचें मुखामळ नियाळटालो. गोरो पीट्ट मंको, व्हड जालो. ल्हंव आनी धवेच ओंठ. शिंपये येदे कान आनी कूड पुराय मनशावरी. ताची नदरच ताचे तल्लख बुद्दीची वळख करून दिताली. मनशाक पारखुपाक, आपलो परकी वळखुपाक तो केन्नाच घुस्पनाशिल्लो. तांबडे कपडे ताका मनापासून जाय आशिल्ले. खावपा वेळार 'मंको' आईलो उलो कानार पडटांच हजर जातालो. भुरग्यांबरोबर भुरगो, जाणट्यांमदीं जाणटेपणाचो आव हाडपी मंको तीक्ष्ण बुद्दीचो आसलो.

केन्ना केन्ना आई ताच्या पेल्यांत ताका दूद पिवपाक दवरताली. मंको मागीर मिटक्यो मारून तें पेल्यांतलें दूद पिवपाक खूब वेळ लायतालो. जेवण खावपाक कितेंय दिवूं, कितलेंय दिवूं ताका सांडपाची मातय संवय नाशिल्ली. मजेंत येतकच केन्ना चीं चीं, केन्ना हेर एके तरेचो आवाजूय काडटालो. केन्ना वरांची वरां आपले कुडीक तोखेत बसतालो. ताची लांब शेंपडी "मारूतीची शेंपडी" मरे, म्हणून आमी मंकोक चाळयतालीं. एक फावट एके बायलेन ताका आपल्यो उयो पळय म्हणून ताच्या म्हन्यांत माथें केलें. मंकोन तिचेर बरेच दोन कुटले मारले."मांय गे" म्हणून ती पयस सरली.

सांजवेळा बांयचेमुखार खेळपाक सगळीं जमतालीं. बॉल कितलेय पयस मारल्यार मंको धांवत वचून सोदून हाडटालो. एक फावट बांयत पडिल्लो बॉल एका मिनटांत मंको घेवन आयिल्लो. मंको म्हळ्यार आमकां धिटायेचें भांडवल जाल्लें. आई केन्नाय अपुरबायेन म्हणटाली, "मंको, तुका चंद्रार धाडूंक जाय आशिल्लो पुता."

ह्या वाड्यार, त्या वाड्यार, मंकोच्यो खबरी हाच्या ताच्या कानार गेल्ल्यो. गांवांतल्या नावाडग्या, अवचिन्नाळ्यांक भाटांत येवन कांयच करूंक मेळनाशिल्लें. कांय जाण तर ताका "खायन काय गिळन" अशे नदरेन पळयताले. एका आडसराक हात लावंक मेळना, एक पेर फारावंक मेळना म्हणून तर जाण्टीं नेण्टीं मंकोचेर बेजार जाल्लीं. बाबान आमकां हाडिल्ली तीन चाकांची सायकल चलोवन दाखयता तें लोकांच्या नदरांत भरतालें. आईन जायते फावटी मिठा कणयेन ताची दिश्ट लेगीत काडिल्ली. पूण दुश्टांचे खेळ साध्याच्या काळजांत नासतात. टवटवीत फुलिल्ले फूल सूर्याच्या वोतान न्हय उज्याच्या कोळशान बावोवन वडयिल्ले. पियांकाशीच्या घरांत अर्दो दुदाचो पेलो ओतिल्लो आनी मुर्त कसो पडिल्लो मंको.



१२

# गुटुर्रगूट

गुटूक आमगेर घेवन दारांत उबो जाल्लो बाबालो एक इश्ट. शिरोड्या कामाक्षेच्या देवळाच्या घुडाकडेन रावतल्या पारव्या मदलो गुटू आसलो. सांजचो गुटूक पळोवन आमचें मन गुटर्र गुटर्र करून नाचूंक लागलें. बाबालो इश्ट चार चार दिसांनी आशिल्लोच. पूण हे फावट ताच्या हातांतलो पारवो पळोवन जायते विचार मनांत येवंक लागले. व्यकूंकाका पारवो कित्याक घेवन आयला? हो पारवो आमकां हाडला काय? मनांत चिंतनाचें जाळ विणटां विणटांच मदींच तें सुटलें. "हरिबाब, हो तुमकां भुरग्यांक आवडटलो न्हय? दवरात." बाबान "ओब्रिगाद" म्हळें. दोगांय इश्टांनी एकामेकाक हात दिलो. "हो खंयच्यान हाडलो?" बाबाच्या प्रस्नाक जाप दितना व्यंकूकाकान म्हळें, "सकाळींच नागेश घेवन आयलो. मनशाक साप्प सोडीना खंय, देवळांत चलता भोंवतना फाटोफाट उबो जाता. कोणूय धरून व्हरतलो म्हणून आमगेर घेवन आयलों. आमगेर ताका सांबाळटलो कोण?"

"बरें केलें." बाबान म्हळें. व्यंकूकाका गेलो. पूण आमकां पारवो हाडून दिलो म्हणून काका आमकां चड आवडूंक लागलो. काकान घरांतल्यान पावल भायर दवरलें आनी आमी पारव्या म्हऱ्यांत पावलीं. "बाबा, आमी ताका हात लायल्यार जाता?" "हय, पूण ल्हवू." बाबा आमची खंयचीय इत्सा आसल्यार, उत्तायल्यार केन्नाच मना करिनासलो. तातूंत सुकणींय आमकां आवडटालीं. बाबानच आमकां तांचो मोग करूंक शिकयिल्लें. मातशें म्हऱ्यांत वतांच गुटर्रगू असो आवाज कानार पडलो. आमी हांसलीं. ताचो आवाज आमकां एके तरेची वेगळी खोशी दिवन गेलो. खिणांपुरतो आनंद, पूण सांगपा न्हय सारकोच. पारव्याक हात लावंक बरें दिसनाशिल्लें.

कारण ताची नेटान धोलपी मान, दोळे लकलकावप, ल्हवू पावलां मेजून चलप, पळयत रावन दिसतालें. तातूंत पारवो पळोवंक क्रूरय दिसनाशिल्लो. शांत, जणू ताच्या तोंडार कसले भावच नाशिल्ले. कोणाची दुस्मानकाय, दुस्वास, कसलेंच कांयच मनांत बाळगिनास्तना थीर असो, एक मूर्त जावन तो उबो राविल्लो.

वावान पयल्याच दिसा ताचें नांवय दवरलें "गुटू". आमकां नांव खूब आवडलें. गोबरा कोराचो रंग, तातूंत मदींच "गुटर्रगू गुटर्र" करून आवाज. गुटून आमचेर जणू जादूच केलो. नांवांप्रमाणच गुटू आमचोच जालो. 'गुटू', 'गुटू' म्हणिल्लें उतर ताच्या कानांक बरेंच सवकळीचें जालें. गुटू, गोटो, गूट, म्हळ्यार लेगीत तकली हे वटेन ते वटेन करीत रावपाची ताका सवंय लागली.

गुटू खरेंच घरांतलो जालो. रांदचे कुडींतल्यान आईन उलो मारतांच पाखां हालयत धांवपाक लागतालो. कांय फावटी हे कुडींतल्यान ते कुडींत चलत वताल. एक एक पांय घालीत चलतनाः ताची चाल कांसवावरी आसताली. तरी ल्हवू ल्हवू करून सरळ आई म्हऱ्यांत वचून आईक तकली वयर करून पळयतालो. जणू विचारतालो "म्हाका कित्याक आपयला?" भास येनाशिल्ली पूण ताची मनांतली भास, ताची नेटान हालपी तकली उलोवन मनांतले भाव उक्तायताली. ताचे दोळे ताच्या मेकळ्या मनाचो थाव घेवपाचें प्रतीक जाल्लें. उलोवंक येनाशिल्लो गुटू आपूण मनान केदो व्हड म्हणपाचें आपल्या करणेतल्यान दाखयतालो. घरांतल्या खंयच्याय कोनशांतल्यान जावं, भायल्यान भितरल्यान 'गुटू' हें उतर कानार पडटांच तो सर्गांत ऊंच उडकी मारिल्ले भशेन सरळ चुकनास्तना आपयता ताच्याच खादांर बसतालो.

गुटूक खांदार बसप खूबच आवडटालें. पूण खांदार बसतकच आपली नाखटां मात केन्नाच तोपूंक दिनाशिल्लो. ल्हवू अळंग जणू एकाद्रें पिकिल्लें ल्हव पांख बसचें तसो सगळो तोल सांबाळून गुटू बसतालो. गुटूची ती कुशळताय तोखेवपासारकीच. घरांत ताच्या ह्या गुणांक लागूनच तो सगळ्यांक जाय जाय सो दिसतालो. इतलीं समजूतदारपणां, की मनशाक फाटीं वडयतालो.

घरांत कोणूय मोट्यान आड्डल्यार चोराभशेन पांखां चोरून एका कोनशाक ल्हवू ओगी बसतालो. गुटूक लागूनच ल्हाना व्हडाच्या मनार चडच परिणाम जाल्लो. "शांततायेन रावात" अशें तो सांगतालो जावंये. बाबान, चाचा नेहरू आनी पारवो, 'शांतिदूत', अशें जायतें कितें भुरगेपणांत सांगिल्लें. पूण एकच घट मतींत उरिल्लें तें म्हळ्यार झुजपाक फावना. पारवो होच सगळ्यांक शांतताय शिकयता. खरेंच गुटून

घरांतलो एकवट चड घट्ट केलो. 'संयमाचो बोध'. "सायलन्स इज गोल्डन". गुटू आमकां समजायता अशें वावा जायते फावटी सांगतालो. भावंडां भावंडां मदीं झगडीं जातांच आई गुटूची आमकां देख दिताली. म्हजो भाव म्हाका हांव ताचेपरस लांब आनी व्हड दिसता म्हणून सदांच मुठी मारतालो. पूण गुटूची देख दीत साकून हांवच ताणें मारल्यारपसून तोंड धांपून ओगी रावतालें.

गुटूक मनीस भोवच जाय आशिल्ले. 'रगत रगताक ओडटा' म्हणटात. पूण हो पारवो मात आमकां रगतापरसय व्हडलें नातें शिकयतालो. घरांतल्या आपल्या ल्हानांव्हडांची ताका खूब ओड. जण एकट्या म्हऱ्यांत बसतकच आपली चोंच आनी तकली घांसून खूब अपुरवाय करतालो. "राव रे, गुटू" म्हण ना जाल्यार आनी कितेंय म्हण, गुटू कसोच आयकून घेनाशिल्लो. दर एकट्याची आपले परीन सेवा करपांतच ताका आनंद मेळटालो. "बरें बाबा, गुटू पुरो आतां अपुरबाय." म्हळें म्हणूनय जायनाशिल्लें. गुटूक पोशेवंक जाय आशिल्लें. मायेन माथ्यावेल्यान हात ओडटांच ल्हवू उडून कुशीक सरतालो. पारवो मोनो, मनशावरी उलोवंक शकना. पूण मनाची खोलाय मात मनशाच्यान बांदूंक जावची ना, अशें जायते फावटी दिसतालें.

फ्यू!, फ्यू! बाबाचे हे शिळोणेचो आवाज म्हळ्यार जणू ताचीं उडपाचीं पांखांच. आवाजावरवीं मळबांत वयर भोंवडी मारूंक गुटू "शस्त्र" धरूनच उबो रावतालो. तीन वरां नाच्च जातालो तो पर्थून सदांच्या वेळार हजर जातालो. अर्द वर, एक वर तर केन्ना दोन तीन वरांची ताची भायली भोंवडी आसताली. भोंवडेर वचपाचो ताचो वेळ शेजारच्या सगळ्यांक खबर आशिल्लो. कांय जाण गुटूक उडटना पळोंवकच मुद्दम रावतालीं. कांय जाणांक गुटू परत येता म्हळ्यार अजापच दिसतालें. एक फावट तर गुटू आपले बरोबर आनी एक पारवो घेवन आयलो आनीक सगळ्यांक अजाप जालें. पूण तो दुसरो पारवो रोखडोच उडून गेलो. कांय दिसांनी पर्थून पर्थून पारवो गुटू बरोबर येतालो तें पळोवन दोगांची इश्टागत लोकांक आवडली. इश्टागतीचो पाठच गुटून मनशाक शिकयलो. गुटूबरोबर ताचो इश्ट येतालो. आई त्या वेळार "गुटू, येयात रे" म्हणून भड्डिल्ले जोंदळे आंगणांत वडोवन दवरतांच गुटूचो इश्ट ते खातालो आनी उपरान्त वतालो. दनपारची भोंवडी म्हळ्यार वेळापत्रकांतलीच जाल्ली. भोंवडेर वचून येतकच सरळ आई म्हऱ्यांत वचप हें ताचें सदांचेंच जाल्लें. "आयलो मरे?" आई विचारताली. 'हय' अशें जणू आईक सांगतालो. "चल खा आतां, चल

ायर या आंगणांत" आईची भास ताका कळटाली. उपरान्त 'गुर्टूर गुट' करून उडत तालो.

माजराक आनी गुटूक मातय पडनाशिल्लें. माजराक पळयतांच गुटू खंय आसा ायच्यान उडत आईच्या खांदार वचून बसतालो. "कोणाक पळयलें, माजर? आरे केत्याक भिता?" आई म्हणटाली. पूण गुटू आईच्या म्हऱ्यांतलो कसोच पयस वचूंक ायार नासतालो. आई माजराक कुशीक काडटाली. मागीर गुटू सदांभशेन भोंवतालो.

गुटूचें 'गुटुर्र गुटुर्र' मात एक फावट एका मनशाक बेजार करून गेल्लें. बावाल्या इश्टाकडच्यान एक मानाय एके राती रावंक आयलो. रातचो पडवेर न्हिदिल्लेकडेन गुटूचें 'गुटुर्र' ताच्या परत परत कानार पडपाक लागलें. तो बेजारलो. बावान ताका सांगले "आरे, तूं मोट्या मोट्यान उलयता ताजो तुका त्रास जाता व्हय?" बाबन विचारलें. "ना." ताणें म्हळें. "मागीर पारव्याचें उलोवप आयकून तूं बेजारता सो रे?" तो मनीस उपरान्त ओगी न्हिदलो. आमकां मात मजाच दिसली. "गुटू, आनी मातशें गुटूर्र करपाचें न्हय रे?" अशें म्हणटांच गुटून 'गुटुर्र गुटुर्र' केलें आनी आमी सगळीं हांसली.

गुटू घरांत आयलो तेन्ना घरांत हळशीक जातली अशें सगळ्यांकूच दिसलें. पूण गुटून मात कोणाकूच कागाळ करपाक संद दिली ना. पयल्याच दिसाच्यान घरांत ताणें केन्नाच घाण केली ना. जाय तेन्ना भायर वतालो, जनेलांतल्यान उडून वतालो आनी रोखडोच परततालो. गुटून जणू आपल्याक नेमच घाल्लो. गुटूक लागून घरांत कसलोच त्रास जायनाशिल्लो. वेल्यान दारांत परकी कोणूय उबो दिसतांच गुटू आई म्हऱ्यांत उडत वतालो. "कोण आयलो रे?" आई विचारताली आनी भायर वचून पळयतांच कोण तरी दारांत आसतालोच. घरांत येतल्या वतल्याचेर नदर, उलयतल्यांक, झगडटल्यांक, सगळ्यांक बारीकसाणीन तेळटालो. इतलें करूनय सगळ्यांक 'एकचाराचो' संदेश दितालो.

गुटू दिसपाक सोबीत नासलो. पूण गुटून आपल्या गुणांनी रंगा परस मन व्हड आसूंक जाय होच संदेश दिलो.

गुटूची बुदवंतकाय, शाणेपणाचें वागप, समजुतदारपण खरें म्हळ्यार मनशाक फाटीं वडोवपासारकेंच. रंग जरी बरो नासलो, तरी मन बरें आसलें. उलोवंक येनाशिल्लें तरी सगळ्यांक आपल्या वागण्यान वोलके करतालो. वाड्यावेल्या भुरग्यांचो गुटू दाट इश्ट जाल्लो. गुटूक खावंक घेवन आमचे ल्हान इश्ट येताले. पूण आईन

ताका सारको जेवणखाण घालून वेवस्तीत दवरिल्लो. कोणाच्याच हातचें तो खायनाशिल्लो. आई आनी बाबा घालता तें खातालो. आमकां सगळ्यांक शिस्तीचें वळण आईन ताचेकडल्यानच शिकूंक शिकयिल्लें. कितलेंय कितें खालें, कितलोय भोंवलो तरी गुट्टू सदांच नितळ आनी निवळ दिसतालो. ताची तुकतुकसाण पळोवन अजाप जातालें. जणू आतांच वचून म्हाल्यागेर केंस मारून वांखोर लावन आयला तशी ताची मान तिकतिकताली. "आई गुट्टू असो फेर्र मारिल्ले भशेन कसो गे?" अशें म्हणटांच आई म्हणटाली, "देवान आमकां ताचे कड सून बोध घेवंकच गुट्टूक निर्मिला." गुट्टूसारकीं कितलीं सुकणीं आनी खासा गुट्टूची जात पारवो मनशाक लेगीत मान सकल घालूंक लायता. संवसारांत शांततायेचें प्रतीक पारवो. केदो मोटो हो भोवमान! मनशाक लेगीत असो भोवमान मेळना. तो भोवमान पारव्याक मेळटा, तो ताज्या खासा गुणांक लागूनच न्हय?"

बाबाचीं असलीं जायतीं उलोवपां आमचे वरोबर जातालीं आनी व्यंकूकाकाचो आमकां उपकार दिसतालो. पूण सगळेच मनीस व्यंकूकाकासारके आसात व्हय? एक दीस बाबाचो 'फ्यू' आवाज कानार पडलो आनी गुट्टू दनपारचो विमान कसो मळबांत उडलो. "बेगीन यो रे." आईन सदांभशेन म्हळें आनी दुसऱ्याच खिणाक गुट्टू शेतांत कोलांट्यो खावन पडलो. "कोणे मारलो?" बाबान किस्तोदीक विचारलें "हो चोय थिंगा बोसलो आहा." पळय जाल्यार शेजारचो नरसो हातांत मुनिसांवा गुळयेचो फार घेवन बशिल्लो. सुण्यांक मारून मारून ताका सवंय जाल्लीच. आज ताणें गुट्टूक मारपाचेंच सपन बाळगिल्लें. देखून नेम धरून गुट्टूक मारून वडोवंकूच बशिल्लो. बाबान म्हळें, "नरसो रे? सुकण्यां सावजांची भास, मन, मुनिसांवाचे हात कशे वळखतले?"

१३

# किटलो

एक दीस "नसीब आजमाओ" म्हणत एक पुडवें-तोपी घाल्लो काळोकीट् मनीस दारार आयलो. "बाबा, साहब नसीब पारखो." त्या मनशाच्या हातांत एक पांजरो आशिल्लो. पांजऱ्यांत एक कीर बशिल्लो. "बाबा, किराक पळोवंक जाय." आमचीं उतरां आयकून बाबान त्या मनशाक आपयलो. बाबा ताका कितें कितें विचारीत आशिल्लो. किरान चोंचीन एक कार्ड काडून वडयलें. त्या मनशान बाबाक जायतें कितें सांगलें. आमकां किराक पळोवंक मेळचें, ताची तुस्त करपाक मेळची म्हणून बाबान हें सगळें केल्लें. किराक पळयतसाकून बाबान आमच्या मनांत ताचेविंशी मोग निर्माण केल्लो. पाचवो रंग, हळडुवी चोंच आनी ताचे वांटकुळेच दोळे आमच्या मनांत किराची मूर्त बसोवन गेले.

"बाबा, आमकां एक कीर विकतो मेळटलो?" आमी बाबाक विचारलें. "पळोवया, बाजारांत मेळ्ळ्यार हाडटां." दर दिसा आमी बाबाक याद करतालीं. एक दीस आईन मात बाबाक सांगलें "भुरग्यांखातीर रकाद तरी धाडून मेळटा जाल्यार हाडल्यार बरो." दुसऱ्या दिसा बाबाबरोबर किस्तोद कीर घेवन हाजीर जालो. "बाबा, खंयच्यान हाडलो?" उचांबळ मनां थीर जावपाचो यत्न करतालीं. पांजऱ्यांत कीर पळोवन आमी बाबाक घट वेंग मारली. "बाबा, कितलो बरो! आई, तुवें सांगिल्ल्यान बाबान कीर हाडलो." आमी खोशेन म्हळें. "हय, पूण ताका सरको बरो सांबाळूंक जाय" आईन सांगलें.

एका चौकोनी पांजऱ्यांत ताका बंदीस्त केल्लो. मडगांवच्या मडक्या बाजारांत दोग-तीग जाण किरांक घेवन आयिल्ले खंय. तांतूतलो एक कीर बाबा घेवन

आयलो. इतल्यांत श्रीकांत आयलो. "बावा तो वोंडेर न्हू मरे?" श्रीकांतान म्हळें. पूण बावान कांयच जाप दिली ना. उमथे मानेन श्रीकांत गेलो. श्रीकांत फकत बडबड करतालो. सुकण्यां सावजांची ताका सामकीच नसाय. तांचेर वायट वायट उलोवपांत आपलें शाणेपण ओतिल्ल्याचें दाखयतालो. "हांकां कीर वीर कोणे सांगल्यात?" बावान वाचाविदळ उलोवपी श्रीकांता सारक्या मनशाची नदर पारखिली.

कीर मोटो शिटूक दिसलो. "घे रे मिरसांग" आईन पांजऱ्यातल्यान मिरसांग दिली आनी किटलो खावपांत गुल्ल जालो. बावान हाडिल्लीं पेरां आनी मिरसांग, हाचेर किटल्यान ताव मारलो. "किटू, किटलो" बावान दवरिल्लीं नांवां ल्हवू ल्हवू ताच्या कानार खेळूंक लागलीं. "किटलो" म्हणटांच किटू तकली वांकडी करून पळोवंक लागलो. आपल्याकूय आयकूंक येता म्हण तो दाखयतालो. ताची शिटूकसाण सुर्वेकच कळटाली. पूण चोंच उगडून लेगीत तोंडांतल्यान उतर भायर सरनाशिल्लें. तरी मान कशीच वांकडी जावपाची थांवनाशिल्ली. अर्जुनाक खंय वाण सोडटना फकत किराचो दोळोच दिसतालो. तशी, किटल्याक रांदची कुडींतली आईच दिसताली अशें बाबा म्हणटालो. दारांत पांजऱ्यांत उबो रावन किटू आईक उलो मारपी कोंब्याभशेन बेठीच चोंच परती परती उकती करतालो. पूण तोंडांतल्यान 'आई' येना हें पळोवन लेगीत तो निर्शेवंक नाशिल्लो.

"बोंडो रे तूं! फकत चोंच उकती केली म्हणून जाता?" उलयतल्याचीं उतरां ताच्या कानार पडटालीं. पूण ताका कितें दिसतालें देवाक खबर. तरी किटून केन्नाच यत्न करपाचे सोडले नात आनी एक दीस "आई, आई गे" म्हणून आमी मारिल्लो उलो आयकून किटल्यान "आ...ई" म्हळें. किटूक उलोवंक येता म्हणून आमकां भोवच खोस जाली. "आई, किटू उलो मारता!" "आई, किटलो उलयता!" पयल्या दिसाची खोस आंगण भरून वोतताली. खोशयेन किटूकय नवीं पांखां आयलीं. त्या दिसा, दिसूयभर पांजऱ्यांत किटू नाचत आशिल्लो. मिरसांगो आनी पेरांचेर किटून त्या दिसा बरोच ताव मारलो. "आरे, आज कितें स्वारी खूश शी!" आई आपल्याक म्हणटा हें किटूक कळ्ळें. पयले फावट आईन किटूक पांजऱ्यांतलो भायर काडलो. किटूक सगळ्यांची वळख मेळिल्ली. किटू आंगणांत दर एकट्या म्हऱ्यांत आयलो. पर्थून पर्थून पांखां फडफडायतालो. आज मेकळ्या वातावरणांत भोंवतना किटूक आपल्या भुरगेपणाचो उगडास जालो जातलो.

"पंछी रे ओ पंछी, उड जा रे ओ पंछी." रेडिओचेर येतालें तें गीत किटूक म्हणून

दाखोवन आमी चाळयलें. "चल, उड जारे पंछी.. अव ये देश हुआ बेगाना." तोंडार, ओंठार आशिल्लीं उतरां आमी गुणगुणलीं. पूण आतां परत किटूक पांजऱ्यांत घालपाक वायट दिसतालें. मेकळें वारें, मेकळे स्वास, किटूचें नाचप, उडप पळोवन दिसलें किटूक असोच रावूं दी. "आई, किटूक पांजऱ्यांत कित्याक घालता?" आमी आईक विचारलें. "हय, म्हाकाय ताका बंदीस्त करपाक आवडना. पूण...". अशें आई म्हणटा थंय आसा, किटू सरळ पांजऱ्यांत गेलो. पयससाकून येतलें माजर ताणें पळयिल्लें. किटू पांजऱ्यातच सुरक्षितताय सोदतालो. शेजारचें माजर रात दीस ताका तेळटालें. देखून घरांत लेगीत किटूक मेकळो सोडूंक मेळनाशिल्लो. माजराची पावलां किटूच्या तीक्ष्ण कानांक कशींच चुकनाशिल्लीं. किटू भोवच शिटूक आसलो.

दारांत कोणूय दिसलो रे दिसलो, "आई, आई" आवाज आयकूंक येतालो. "कोण आयलो रे?" आई भायर येतांच ओगी रावतालो. बाबा येतांच आंगण हुपचे आदींच "आई-बाबा" म्हणटालो. बाबा आयला म्हणपाचो तेलेग्राम आईक रांदचे कुडींत पावतालो. बाबा मागीर थंयच रावन "घे हें बक्षीस" म्हणून मोटें पेर पांजऱ्याचें दार उकतें करून दवरतालो. "खा बरो करून. पेरां खा आनी बरें बरें उलय." हीं बाबालीं उतरां तकली हालयत आयकतालो. पूण किटूक रागय येतालो. ताचें पेर कोणाकच दिवंक जायनाशिल्लें. सगळ्या आदीं ताच्या पांजऱ्यांत पेर दवरूंक जाय आशिल्लें. ना जाल्यार पांजऱ्याच्या वेल्या खणांत वचून बसतालो. "हय सायबा, गणपतीबाप्पाभशेन तुकाच आदीं भोवमान. चुकलों सायबा." आपल्याक पेरां खावयतल्याची ताका भोवच अपुरबाय आशिल्ली.

पांजऱ्याभायर सरतकच हाताचेर बसतालो. पूण सारको तोल सांबाळटालो. हातार मातय जडसाण पडूंक दिनाशिल्लो. ल्हवपीक आपली कूड मुठींत घेवन बसतालो. चुकून लेगीत चोंच मारिनाशिल्लो. हातार बसून झोपाळ्यार बशिल्लेवरी धोलतालो. हातावेलो उडत कलवतीच्या पानांत वचून नाच्च जातालो. कलवतीच्या दाट मातिल्ल्या रानांत दिश्टीच पडनाशिल्लो. "आपा लिपा खेळटा हय रे?" आईचो आवाज कानार पडटांच, उडत, आसा थंयच्यान आई म्हऱ्यांत येतालो.

"बरो जाला पोटलो कसो." आईन म्हणिल्लीं उतरां ताका भोवच खोशी करतालीं. मागीर आईक येवन तेंकतालो. आई आपली खूबच अपुरबाय करता तें ताका बरें दिसतालें. सदांच पांजऱ्यांतल्या बंदखणीत उरता म्हणून आईन ताका घरांतच भोंवपाची मेकळीक केली. शेजारचें माजर मात ताची फाट सोडूंक कशेंच तयार नासलें. एक

फावट आई कामांत रमल्या, आमी खेळटात आनी बावा घरांत दिसनासो पळोवन माजरान किटूचेर घुरी घाली. बावडो किटू वळवळ्ळो. आई पावना जाल्यार किटूची गोमटी मुड्डिताशिल्लें. पूण आईन किटूक उबारलो. त्या दिसाच्यान किटू आईक जीव सोडटालो. माजर दिसलें रे दिसलें "आई! बावा!" ही उतरां ताच्या मेकळ्या कंठांतल्यान सहज वाऱ्यावरी उडत येतालीं. माजरापसून आपल्याक सुरक्षितताय दिवपी दोगांच, हेंय तो वळखल्लो.

आमोरेचेर एक जिवार भितर सरली. पूण किटूच्या तीक्ष्ण दोळ्यांतल्यान ती सुटूंक शकली ना. "आई, आई" कित्याक करता म्हणून "आरे कितें जालां?" म्हणपाक आईची नदर कोनशाक उबे आशिल्ले जिवारीचेर गेली. भायर परकी कोणच ना. जिवारीखातीरय ताचें हें आपोवप पळोवन "हीं सुकणीं मनशाचे तकलेक फाटीं घालपासारकीं." बावा म्हणटालो. आपलो, परकी, सुरक्षितताय, शिटूकसाण, मोग, हाचो जणू पोटलोच गांठीक बांदून किटू आयिल्लो. मनशापरसय आपली जीण श्रेष्ठ म्हणपाचेंच सांगतालो.

दनपारचो वेळ सारप किटूक कठीण जातालें. घरांत कोणच नासतालो. आई मातशी आड पडूंक भितर उरताली. आमीय नासतालीं. मागीर किटूक घर खावंक येतालें. केन्नाकाय कोण तरी दिसल्यार पुरो अशें ताका जातालें. मागीर किटू उडक्यो मारीत रावतालो. मातय विसव घेनाशिल्लो. केन्नाकाय कोण तरी दिसल्यार पुरो अशे ताच्या जिवाक चूटमूटे पडटाले. आपले मनीस कित्याक दिसनात, हाजीच ताका चिंता आसताली.

एक सुकणें! ताका तकली ती कितली आसतली? मनांत विचार येतालो खरो. पूण किटू मात मनशाकूय शाणो, बुदवंत काय कितें? असो भ्रम निर्माण करतालो. एक दीस आईन गडबडींत पांजऱ्याचें दार उकतेंच दवरलें. आई भितर कामांत गुल्ल जाली आनी किटू पांजऱ्यांतलो पयले खेप स्वता जावन भायर सरलो तो बाबडो जाळांत सांपडलो. "आई" म्हणून आड्डूचे आदींच माजरान ताचेर चपकूल मारलें. आवाज आईच्या कानार पडलो. आईची नदर ताचेर आशिल्ली. आवाज येतांच आईन माजराक आमुडलें. पूण किटलो मात जमनीर पडलो. मान आडवी जाली. आमच्या पोटांत कल्ल जालें. "आई, किटूक कितें जालें?" आमी विचारलें. आईन किटूक उबारीत म्हळें, "कांय जावं ना ताका. माजरान दावकूल मारलें तें लागलें." पूण किटूक बरोच मार बशिल्लो. गळ्याकडेन मारिल्लें चपकूल सोलून गेल्लें.

किटूचो एक पांय मात मोडलो. किटू उडपाचो यत्न करतालो. तातूंत माजरान उडकी मारून ताका चिड्डिलो. आतां किटू वेगीन बरो जावचो अशें मनांत येतालें. पूण किटू मात कसोच बरो जालो ना. म्हयन्याचे म्हयने अशेच गेले. कितलेशेच जाण "किटू उलयता न्हय!" म्हणपी केन्ना केन्नाय ताचे 'तानसेनाले सूर' आयकूंक कान टवकारून, मोटी आस्त बाळगून रावले. पूण किटू दिसान दीस अशक्त जायत गेलो. वावान बाजारांत येवपी, कीर विकपी हेर दोग तीग जाणांक हाडून ताका वखद करून बरो जावचो म्हणून यत्न केले. ल्हवू ल्हवू किटू निवळटासो दिसलो आनी एक दीस "आई..." अशे ताचे मदुर सूर कानार पडले. किटूक पांजऱ्यांतल्यान भायर काडून आमी ताका पोशेवन वेंगेंत घेतलो. पूण किटू खोशी नासलो. ताची कूड ताका उमेद दिवंक तयार नासली. करतां करतां वर्स गेलें. किटू केन्ना केन्ना "आई" हो एकच उलो मारतालो.

आतां घरांत किटल्याची खूबच अपुरबाय जाताली. दर एकटो किटल्याची वासपूस करतालो. आई ताका पेरां, मिरसांगो, उदक वेळावेळार दिताली. किटूक खोशी दवरपाक दिसभर 'किटू' कानार पडटालें. बरो ना जायत साकून किटूविशीं सगळ्यांच्याच मनांत एक सहानुभूती दाटून जागी जाल्ली. किटूक मात आपल्याक दिल्ल्या मोगाचो भोव उपकार दिसतालो. "कितें जालें राजा?" "किटू आमचो मरे." "किटलो वेगीन बरो जातलो रे तूं!" "किटू शेतांत भोंवपाक वचूंक जाय मरे." उलयिल्लीं सगळीं उतरां ताच्या कानांतच आसतालीं. पूण खंती करताली ती ताची कूड, मोडिल्लो दोंको. दोळ्यांत उपकार दिसताले, पूण मन पाचव्या कोरांत लेगीत पाचवीं सपनां पळोवंक दिनाशिल्लें. मनाची ज्योत पालवली. तातूंत किटू सोंपलो.



१४

# शीळू

आमच्या घराफाटल्यान पाचवेंचार शेत आशिल्लें. शेताचो पिकपाचो वेळ जातांच तरेकवार सुकणीं भाताचेर ताव मारपाक येतालीं. भात रसरशीत. दर एक भाताचो कण मोतयांवरी लकलकतालो. शेताच्या शेजराक घर आशिल्लेकारणान सुकण्यांचीं भिरीं आनी तांचो गोड आवाज म्हळ्यार खरेंच एक सपन कशें दिसतालें. कीर, कोगूळ, किरकिरो, गिरबुजी, साळोरी तर शेतांत दिश्टी पडलेबगर रावनासलीं. तेपसत सुकण्यांक पळोवपाच्या निमतान आई आमकां सांजची शेतांत भोंवडी मारून येवंक परवानगी सदांच दिताली.

सकाळच्या वेळार एखाद्रें बरें सोबीत सुकणें दिसतकच आई आमकां उलो मारताली. अशे तरेन शेतांतलीं सुकणीं पळोवप, तांचो रंग तोखेवप आनी तांचें रडप आयकून कांय फावटी आमचेंय रडप थांबतालें. अशीच एक दीस आमी आई म्हऱ्यांत बसून तरेकवार सुकणीं पळोवपांत गुल्ल जाल्लीं. इतल्यांत एक कावळो एका सुकण्या पिलाचे फाटीक लागलो. कावळो चोंच मारतालो आनी सुकणें आपलो जीव वाटावंक मळबांत वयर सकल आडवें उबें उडून कावळ्याक चकवपाचो यत्न करतालें.

"आगो पळय, कावळो ते साळोरेक खाता." आई म्हणटा थंय आशिल्ली. साळोरी पिकिल्ल्या भाताच्या कणसांमदींच पडली, आपटली. कावळो उडून गेलो. शेताचे धडेर बशिल्लेकडल्यान पळयिल्लें हें दृश्य आमच्या काळजाक लागलें. "आई पील मरतलें न्हय गे?" आमी म्हळें. "हांव पळोवन येतां. तुमी हांगाच रावात." अशें म्हणून आई गेली आनी येतना बरोबर पिलाक अचळय उबारून घेवन आयली. आई

येतांच पिलाक पळोवपाचे उमळशिकेन आमी आई म्हन्यांत पावलीं. "पिलाक बरेंच लागलां." आईन म्हळें. हळडुवीच चोंच, आनी चॉकलेट काळसो कोर पळोवन साळोरेन आमचेर जादू केलो. त्या वेळार कावळ्याचो आमकां खूब राग आयलो. गरज नासतना पिलाक त्रास दिले म्हणून दुश्ट कावळ्याक मार पडूंक फावतालो अशें दिसलें.

साळोरेचें पील खरेंच सोबीत दिसतालें. ताचें रूपच आमकां पिशें लावन गेलें. एके सोबीत, नाजूक वावले वरी! साळोरेचें पील आमकां भोवच आवडलें. आईन वखद-पाणी सुरु केलेंच. पूण घायाळ जाल्ले कारणान पिलाक उडप जमनाशिल्लें. घरांत कांय दीस साकारच बसून पिलान दीस सारले. पूण आईची अपुरबाय आनी वेळावेळार लायिल्लें वखद ताका गुणाक पडलें आनी 'शीळू' रोखडेंच बरें जालें.

ताका नांव दवरलें 'शीळू'. शीळूचें वागप शीतळ, थंडसाणेचेंच. आमकां शीळू भोवच आवडलें. शीळून घरांत कांय दीस साकार न्हिदून काडले खरे, पूण उपरान्त शेतांत भोंवचें तशें तें घरातंच भोंवतालें. घराच्या एका कोनशाक एक कांबीचो कुडको आशिल्लो. ताचेर बसपाची आपली सुवात शीळून वेंचून काडिल्ली. आमोरेचेर ल्हवू त्या कोनशाक वचून बसतालें. शीळू आयलें त्या दिसाच्यान पांजऱ्यांत म्हणून केन्नाच रावलें ना. शीळूक पांजऱ्यांत घालतलो तरी कसो आनी कोण? शीळून सगळ्यांक माया लायली. घरांत भितर सरतांच खंय आशिल्ले थंयच्यान उडत येवन खांदार बसतालें. आपली चोंच ल्हवू पोल्याक तेंकयतालें. "आगो कितें?" म्हणटांच आनीक दोन फावट पोल्याक चोंच लायतालें. शीळूक घरांतल्यांची भोवच माया.

शीळूचे मायेन आमी सुकण्यांकडेन चड ओडूंक लागिल्लीं. आईन ताका आपल्या हातांत धरून पोशेत हाडिल्लें. पूण आईक तें विसरूंक नाशिल्लें. दर दिसा आई कामांतल्यान बेकार जावन 'राष्ट्रमत' चाळीत बसता. शीळू खंयच्यान धांवन पावतालें. हातांत दिसाळें आसून लेगीत ताचेर दोन फावटी हात भोंवडावंक जायच आशिल्लो. आईचो मायेचो हात शीळूक खोस दितालो. कांय फावटी दोळे धांपून थंयच न्हिदतालें. आमचे मदीं येवन बसतालें. खेळांत, जावं बरयतना शीळू आपल्याक सगळें समजल्लेवरी मदींच हाजीर जातालें. कितलेंय धुकळ्ळें म्हणून पसून वचपाचें नांव काडनाशिल्लें.

शीळू व्हड जावंक लागिल्लें. पूण खांदार बसपाचो आपलो हक मात कसोच सोडूंक नाशिल्लो. खांदार बसून घरभर भोंवतालें. "सकल देंव गो मातशें," म्हणटांच पूट्ट करून दुसऱ्याच्या खांदार बसतालें. बाबान ताका पीं.पीं...असो आवाज काडूंक

शिकयिल्लें. फकत परकी कोणय दिसल्यार शीळू शू....शू.....असो साद घालून आईक कोणतरी आयला हें कळीत करतालें.

घर म्हळ्यार जणू शेत जाल्लेवरी नेटान भोंवतालें. घरांत कोणाचोच भंय नाशिल्ल्यान मेकळे स्वास घेतालें. ताचें मेकळें भोंवप पळोवन बाबा जायते फावटी बंदखणींतल्या सुटके झुजाऱ्याची जीण आनी पांजऱ्यांत घाल्ल्या सुकण्याचे जिणेच्यो जायत्यो खबरी सांगतालो. "सुकणें लेगीत मेकळेपणाक आवंडेता. भारत, गोंय अशे तरेन मेकळेपणान जगूंक सोदतालें." बाबाचें हें उलोवप आमकां बाबान सांगिल्ल्या आफ्रिकेंतल्या गुलामाचो उगडास करून दितालें.

मनांत येता तेन्ना शीळू शेतांतय भोंवडेर वचून येतालें. पूण तें परत घरा येता तें पळोवन अजाप जातालें. आई-बाबाचो मोग, घरची ओड, शीळूक पर्थून घरा आपयताली जावंये. शेतांत शीळूक तरेकवार सुकणीं, ताचे इश्टय मेळटाले. पूण तांचे बरोबर पीं पीं पीं पीं अशा सुरांनी आनंद मेळयले उपरान्त ताका शेतापरस घर लागीं दिसतालें. हेर सुकणीं हेवटेन तेवटेन वतालीं. पूण शीळूचे पांय मात घराकडेन ओडटाले.

मनीस आपल्या आवय बापायक विसरता. पूण शीळू मात घरच्यांक विसरूंक तयार नाशिल्लें. आईचे रांदचे कुडींत ताचे खीण मजेंत वताले. "आगो, कितें खातलें?" शीळू हूं नी चूं करिनाशिल्लें. आई रांदता तें पळयत बसतालें. आई ताचेकडेन उलयताली. शीळू फकत तकली हालयत पांखां धोळयत, पीं...पीं...करतालें. आई म्हऱ्यांत बसून सकाळचो आदेस नेटान सारतालें. एके सुवातेर बशिल्लें मातूय हालनाशिल्लें. आई काम करता हाचें ताका भान आसतालें. शीळू सुकणें काय समज आशिल्लो मनीस हाचेंच कांय फावटी अजाप दिसतालें. घरांतल्या सगळ्यांक खोशी करप आनी आपूणय तांचे मदीं खोशेन रावप हातूंतच ताचे दीस वताले. शीळून आपले मायेस्त सभावान सगळ्यांकच ओड लायिल्ली. मनशांक ताची ओड लागिल्ली. घरच्यांची ताकाय ओड आशिल्ली. आपले मायेन ल्हानाव्हडांक शीळून पुराय पिशे केल्ले. शीळू घरांतलेंच जाल्लें खरें, पूण एक दीस मात शीळू अकस्मात घरांतल्यान गेलें. भुर्र करून उडून गेलें आनी आयलेंच ना. एक आदेस मेरेन शीळू नाच्च जालें आनी सगळ्यांक अजाप जालें. आतां पर्थून शीळू येवचें ना दिसता, अशें सगळ्यानी मनांत धरलें. दर एकट्यान वेगवेगळो अदमास काडलो. रात जाली आनी आतां दिसलें, "शीळू फिळू सगळीं तसलींच. माया, मोग, ओड नाशिल्लीं." आमोरेचेर येसू घरांत आयलें. भितर सरतांच आपल्या पुतान पारवो पोशिल्लो तो कसो उडून गेलो,

ऱळपांत गाय शेणटा, तशे भिरें मेळ्ळयार सुकणींय वतात. येसूची परवड आयकून आतां उरिल्ली आस्तय सोंपली. सगळीं चिंतना मातयेभरवण जाल्लेवरी दिसलीं. "शीळू पर्थून येवचें ना गे आई?" "ना गो येतलें शीळू. लोकांच्यो खबरी आपणे आयकून घेवंच्यो. शीळूक येसू खंय वळखता?" आईन समजायलें. आईची उतरां मनांत नवी आस दिवन गेलीं. "आई कितली अपुरवाय करताली. माया लावन कित्याक गेलें.?" मनांत परत परत विचार येताले, तांकां आईच्या उतरांनी बांद घाल्लो. आईन सांगलां तेंच खरें असो मनांत विस्वास जालो आनी अचकीत रातची न्हीद लागली.

सकाळीं उठ्टांच 'शीळू आयलें' हीं उतरां आयकलीं आनी घरांतलीं शीळूक पळोवन मनांतल्या मनांत खोशी जालीं. दोळ्यांत दोन दुकांय आयलीं. "शीळू, इश्टांवरोवर भोंवतना आमकां विसरलें गो?" भात खावपांत गुल्ल जाल्लें जावंये. थंयच उरलें. रात जाल्ली. वाट मेळची ना म्हणून घरा आयलें ना. पूण शीळू मात खोशी आशिल्लें. नाच, नाच, नाचतालें. ताचो खोशयेचो खीण म्हळ्यार रेडिओचेर वचून बसपाचो आशिल्लो.

रेडिओ लायतांच रेडिओचेर वयर वचून बसतालें. आवाज येता म्हणून तकली सकल करून रेडिओंत पळयतालें. जणू कोण उलयता हाचो अदमास घेतालें. रेडिओचेर न्हिदून झेम काड्टालें. पूण गितां सोंपतांच ताची झेम मोडटाली. "खंयची गानतपस्विनी आदल्या जल्मांतली देवाक खबर. पळय कशें पदांत रंगलां." खरेंच शीळूची ही संगीताची ओड पळोवन अजाप जातालें. "गायता म्हणून कांय जाणांची फकांणां करप्यांक शीळू दाखोवंक जाय आशिल्लें." बाबाची ही उतरां आसतालीं.

शीळू आतां पुराय घरांतल्या वांगड्याचो भेस चडोवन बशिल्लें. कोण काम करता, कोण बरो ना, भायर परकी आयला, धाकट्याचें रडप. घरांतल्या सगळ्या खवरींची ताका समजिकाय आसताली. शीळू घरांत एका समजुतदार वांगड्याचें काम आपल्या भुजार घेवन बसलें.

"रंगा परस मन व्हड जाय" शीळूचो रंग पळोवन बाबा जायते फावटी ताची बुदवंतकाय, समजिकायेची तुस्त करतालो. शीळूसारकी साळोरी घरांत अशी आपलो वांटो उखलता तें पळोवन आयिल्ल्या गेल्ल्यांक, आपल्या पेल्यांक मोटें अजाप जातालें. आई, बाबान जरी शिकयलें तरी साळोरी एक सुकणें आपल्या घरच्यांकडेन ओडटा म्हळ्यार खूब जाणांक फट दिसतालें.

शीळूची खबर गांवभर जाल्ली. वेल्या वाड्यावेल्या रामशणैगेर पुर्तुगालासाकून एक सोयरो आयिल्लो. मिस्टर सिल्वाक सुकणीं पाळपाची मोटी उमेद. रामशणैल्या कानार शीळूची खबर पाविल्लीच. त्या दिसा शीळू सकाळींच भोंवडी मारूक गेलें आनी रामशणैल्या मानायाच्या जाळांत सांपडलें. ताणें ताका पांजऱ्यांत घालून मिस्टर सिल्वाक भेट दिली. शीळूचें फीं..फीं करून आवाज काडप ...आनी पोशेतकच बसप पळोवन मिस्टर सिल्वा ताका पुर्तुगालाक घेवन गेलो.

मिस्टर सिल्वा केन्ना गेलो कळ्ळो ना. पूण ताचे बरोबर शीळू गेलें हाची खबर दुसऱ्याच दिसा आयकली. सकाळच्यान शीळू नाशिल्लें. पर्थून येतलें आशिल्लें. पूण रामशणैक आयती 'सागवाद' जोडूंक शीळूक बाबड्याक मोन्याक "बळी दिवंक बोकडो" केल्लो. शीळू वचतसाकून घरांतलें वातावरणच बदलिल्लें. आनंदाचे सुवातेर एके तरेचें खंतीचें वातावरण निर्माण जाल्लें. "कोणाकच उलोवंक उतरां येनाशिल्लीं. शीळूक आमची ओड आशिल्लीच. पूण मनशांकच मनशांची ओड ना ताका शीळू कितें करतलें?"



१५

# मॅक

"चोलये कोशी आसाय?" आल्बुकेर्कान म्हाका हटकिलें. काम्रामुखार आल्बुकेर्कांक पळोवन हांव अजापलें. आल्बुकेर्क म्हज्या भुरगेपणांत येतालो. घरामुखार कत्तलखान्यांत गोरवां मारताले ताचेर नदर दवरूक आल्बुकेर्क येतालो. आदलें दृश्य दोळयांमुखार उबें रावलें. घरामुखार रस्त्यार "मिट कॉम्प्लेक्स" नांवाची तांबडी व्हॅन उबी रावली. "चोलये, तें...धाकटें....धवो, गोरो... मॅक?" मॅकाविशीं विचारतात? "होय, बाय." अशें म्हणून आल्बुकेर्कान घरच्यांची वासपूस घेतली. मॅक! अजूनय मॅकाचो उगडास आशिल्लो आल्बुकेर्काक! म्हाका अजाप दिसलें.

खारेबांदार तेन्ना पातमान्यो येताल्यो. असोळणें, बेतूल साकून मीठ, नळे घेवन येतल्यो पातमान्यो केद्यो आसात तें पळोवंक हांव बाबा बरोबर गेलें. साळ न्हंयच्या पुलाकडेन पावतांच दादा मेळ्ळो. बाबा आनी सुकेरकारबाब उलयत आशिल्ले. सुकेरकारबाब आनी बाबा उलोवपांत गुल्ल जाल्यात तें पळोवन हांव पातमारे म्हन्यांत गेलें. "हें मीठ जाय आशिल्लें गो तुका?" हांव वोगीच रावलें तें पळोवन ताणें म्हज्या हातांत ल्हवू एक माजरा पील दवरलें. पातमारेचेर पील खंयच्यान आयलें कळ्ळें ना. "बाबा, हांगासर चेडवाक धाडपाक हाडलेंलें. तुगे धुयेक दितां." अशें म्हणून सदाशिव मोट्ट्यान आड्डत पातमारेवेल्यान सांगत आशिल्लो. "बरें, बरें" म्हणून बाबान सांगलें. बाबा आनी सुकेरकारबाब उलयताले. उलोवप बेगीन सोंपत अशें दिसनाशिल्लें. हांवें पिलाक हातांत घट्ट धरिल्लें. पूण आतां पील उचांबळ जाल्लेवरी जालें आनी हांवें बाबाक सांगलें, "बाबा हांव वचूं?" "चल या, आमीय येतात." बाबाबरोबर हांवय घरा आयलें. पूण बाबा रस्त्यान सरळ फुडें गेलो.

म्हाका पिलाक केन्नाकाय व्हरून आईक दाखोवचें अशें दिसतालें.

वंयेकडेन पावतांच हांवें धांव मारली. पिलाक व्हरून आई म्हन्यांत उवें केलें. धवोच रंग. पुराय धवो. घरांतलीं सगळीं पिलाक पळयत रावलीं. "कोणे दिलें पील?" सगळ्यांनी विचारलें. "पातमारेचेर आशिल्लो सदा काय कोण." हांवें सागलें. आई सारकी वळखली. वेतलांतसाकून सदाशिव पातमारेचेर येतालो हें आईक कशें कळ्ळें? सदाशिवान मोटे उमेदीन पील आपल्या चेडवागेर धाडचे सुवातेर, 'वावा'गेर वरें खावन जेवन घटमूट उरतलें म्हणून ताची आमगेर रवानगी केल्ली.

पील घरांत येतांच ताका दूद ताटलेंत घालून पिवंक दवरलें. मागीर आनी विचारूं नाका. कोण ताचें नाजूक तोंड तोखेता, कोण ल्हवू कानांक हात लावन पळयता, कोण उबारपाक पळयता. करतां करतां आईन म्हळें "आगो, ताका सोडात सकल." पिलाक सोडटांच तें खोशी जावन वचून मातशें फाटल्यान बसलें. येदो वेळ पील पील म्हणत वेळ गेलो. दोन चार दीस केन्ना कशे गेले कळ्ळें ना. उपरान्त वुकलो म्हणून कळटकच तर ताचे चडच लाड जावंक लागले. पिलाक पोशेवपाक, ताका धरपाक आमचे मदीं एके तरेची सर्त कशी लागली.

"मॅक!" वावान ताचें नांवय दवरलें आनी "मॅका" भोंवतणी भोंवतां भोंवतांच केन्ना सूर्य अस्तमता हाचें भान आमकां उरना जालें. आयदनांनी, वावल्याच्या खेळांत मॅक आमकां उपेगी पडटालो. वावली आनी बावल्यांचें लग्न करतना मॅकाक धरून व्हरूंक मेळटालें. मॅक खेळांत उपेगी पडटा तें पळोवन आमचेच मदीं सर्त लागताली. मॅक खरेंच धवो पीठ जाल्ल्यान सगळ्याच्याच हातांत गुटली कसो वसतालो, बरो सोवतालोय.

आयदनांनी जावं कसल्याय खेळांत आई आमकां गुल्ल दवरताली. आई आपूणच स्वता अ आ चिरूक घालताली. अशेतरेन दिसूयभर आईचेच भोंवतणीं वाटकुळींच घुंविल्लेवरी दिसतालें. पूण मदीं एकाद्र्या मोटयान गोरवाचें रडप कानार पडचें न्हय म्हणूनच काय कित्याक खवर, आई आमकां आमच्या घरामुखार कितें चल्ला हाची सुलूस लागूंक दिनाशिल्ली. पूण एक दीस वैलाची गोमटी कापिल्ली पळोवन आमी मात भिलीं. त्याच दिसा वावान घरामुखार एक आडोसो उबो करूंक मानांय हाडूंक धाडलो. त्याच दिसा घरामुखारच आडोसो केल्ल्यान वल्कांवाभायर पळोवपाचें बंद जाल्लें. पूण आतां गोरवांक मारता तें मात दिश्टी पडनाशिल्लें. अशा विचित्र आनी वेगळ्या वातावरणांत आसतनांच मॅक आमगेर आयलो. आपल्या गुणेस्त सबावान

मॅकान घरच्यांक आपली ओड लायली.

रात दीस मॅकाचीच अपुरवाय. मॅक कसो न्हिदता, ताच्यो मिश्यो, ताचे गुलगुलीत पोले आनी मायेस्त मॅक आमकां घरामुखार कितें चलता, कोणाक मारतात हाची जाणिकाय करून दिवपाचेर पुराय पांगरूण घालतालो. मॅकाची अपुरवाय, खेळ हातूंत मन रमतालें. आतां मॅक ल्हान ल्हान आयदनां घेवनच नाचपाक लागतालो. बाबान हाडिल्ल्या धाकट्या रबरी बॉलान आमी मॅकाबरोवर खेळटालीं. मॅक बॉल तोंडांत घट् धरतालो तो परत सोडिनाशिल्लो. मागीर ताका फुसलावन ल्हवू बॉल काडचो पडटालो. पूण मॅक खेळपांत हुशार आशिल्लो. त्या पोंताक वडयिल्लो बॉल तोंडांत धरून सरळ घेवन येतालो.

मॅकाक चलून वचूंकच येनाशिल्लें. खरें म्हळ्यार उडणां मारूनच धांवतालो. बाबाल्या पुडव्याचें पोंत जावं आईल्या कापडाचो पदर मॅकाक खेळपाक पुरो आशिल्लो. आई आमचो अभ्यास घेताली, तेन्ना बशिल्लेकडेन फाटले वटेन लांवतल्या आईल्या पदराक नाखटां लावन जावं चपकूल मारून मारून खेळटालो. केन्ना पदर तोंडांत धरून ओडटालो. "आरे पदर पिंजून वडयता हय रे?" आईचीं हीं उतरां आयकून मॅकाक कळटालें, आपल्याचेरच आईन तापय काडल्या. हें समजतांच आईच्याच पदरा फाटल्यान वचून लिपून बसतालो. पातळ आशिल्ल्या कापडाच्या पदरांतल्यान ताका सगळें दिस्तालें खरें, पूण मातय आवाज काडिनाशिल्लो. आपणें कितें केलां देखून आई उलयता हाचो ताका अदमास आसतालो.

मॅक ल्हवू ल्हवू व्हड जावंक लागिल्लो. शिटूक मॅक सगळयांच्याच दोळ्यांत भरतालो. कोणूय सोयरो आयलो, मॅक ताच्या कदेलाफाटल्यान वचून बसतालो. सोयरो बरो नेटान खवरी मारूक लागतांच ल्हवू आपलें दावकूल ताच्या पांयाचेर मारतालो. 'आवयस' म्हणून आवाज काडीत सोयऱ्यान कदेलाफाटल्यान पळयतांच नाच्च जातालो. खंयच्या कोनशाक लिपून बसतालो. कोणाच्या हाताक लागप कठीण जातालो.

शेंपडी फुलोवन फुर्रर करून धांवतालो. येतल्या वतल्यांचीं पावलां धरपांत मोटो हुशार आशिल्लो. बशिल्लेकडेन आमच्या पावलांचीं बोटां घट तोंडांत धरून घांस काडटालो. कांय फावटी अशे तरेन बोटां घट धरतालो, कशींच सोडिनाशिल्लो. बुरके लागून पायांचेर धव्यो रेगट्यो येताल्यो. कांय फावटी तर मॅकाचीं नाखटां लागून रगत येतकच, आईन ताका एक थापट लायिल्लें. आपलो गुन्यांव जाला हाचो

ताका समज आशिल्लो. पूण नाखटां लावपाचो ताचो हेत नासतालो. खेळांत रमतकच मात आपलीं नाखटां मातशीं खोल गेलीं हें तो विसरतालो. सुळे कशा आपल्या दांतांत बोटां इतलीं नेटान धरतालो, पूण घांस काडिनाशिल्लो. हीच ताचे अहिंसक वृतीची गवाय आशिल्ली.

नुस्त्याक आनी मॅकाक मात कशेंच पडनाशिल्लें. नुस्त्याचो वास नाकांत वतांच मॅक खंय आसा थंयच्यान धांवन येतालो. मागीर तो आईक कसलेंच काम करूंक दिनाशिल्लो. मँव, मँव करून आपलें किर्तन सुरू करतालो. ताच्या अखंड किर्तनान आई ताका "आरे राव रे मात्सो" म्हणटाली. तितलोच मॅकाक आनीक नेट चडटालो. आई आपल्याक नुस्तें खावंक घालता म्हणून आईच्या पायांक तेंकतालो, घश्टतालो. कसोच पावल फुडें मारूंक उसरपत नासताली. अशा वेळार आमी कितलेय उले मारले तरी ताच्या कानांत वचनाशिल्लें. नुस्तें उजरायसर मॅक सामको नुस्त्याच्या वासान पिसो जातालो. आई आदोळी घेवन नुस्त्या म्हऱ्यांत वतांच मॅकाचो आवाज आपोआप बंद जातालो. नुस्त्या बोडकांचेर मॅक मागीर तुटून पडटालो. ओंव ओं.....करून गुरगुरत दर एका नुस्त्याचे बोडकेंतलो सुवाद चाखतालो. नुस्तें खावन सोंपसर ताचें गुरगुरप चालूच आसतालें. आमी मॅकान मुद्दाम गुरगुरपाक जाय म्हणून ताका बडी लायतालीं. मागीर तो फोंस करून बडयेचेर तुटून पडटालो आनी बडी सोडूंक तयार नासतालो. नुस्तें खातनाय आधाशाभशेन खातालो. दर एक नुस्त्याचो कुडको, बोडकाचें बोडूकच तशाचें तशें गालांत भरतालो. तोंडांत वचत ताचे परस चडच जबड्यांत भरिल्ल्यान मुसकट रूंद जाल्लेवरी दिसतालें. अशे अवतिकायेंत मॅक एका बिबट्याभशेन दिसतालो. मॅक आशिल्लोच बिबटो.

मॅक केन्ना खंय आसतलो हाचो नेम नासतालो. फकत नुस्तें खावपाचो ताचो वेळ सोडलो जाल्यार हेर वेळार दोळ्यांत तेल घालून घराची राखण करतालो. घरांतल्या सगळ्या मनशांचेर तशी ताची बारीक नदर आसताली. खंयच्या कोनशाक एक दोर लांबता तो दिसलो, मॅक लांडग्याचें रूप घेवन जणू तो व्हड सोरोप आशिल्लेवरी फोंस करून शेंपडी फुलोवन दोळे एकेच थीर दिकेन लावन बसतालो. घरांतल्या खाचींकोनशांचेर नदर लावन तेळीत बसतालो. हुंदरांचे तर व्हड जायतसाकून ताणें बारा बिरेस्तार, तेरा शुक्रार करून वडयिल्ले. मॅक मुशंड जालो आनी हुंदरांची ताणें तलवारेचे धारेन सैन्याचेर घुरी घालची तशी कापाकापी करून वडयली. राजाल्या राजकुंवराचोच "धीट कुंवर" म्हणपा सारकोच मॅक आसलो.

धवें फूल कशें, परमळीत साळकाभशेनच न्हंयतल्यानूच मॅक आयलो. पूण जाणट्या नेणट्याक आपुणय तुमचोच म्हणपाची याद दवरलेबगर रावलो ना. "बरो सूट बुटांतलो मनीस दिसलो, कदेलार येवन बसतांच मॅक ताच्या पांयाचेर उडी घेतालो. गोरो पीट् बुकलो. "हाचें नांव कितें?" अशें म्हळेबगर एकटोय रावलो ना. कांय जाण तर ताका उबारताले, पोशेताले. तांकां मॅक "म्यांवो" करून एक सलाम करतालो. बावान मॅकाक "शेक हँड" करपाक शिकयत साकून आपल्याक आवडटा त्या मनशा म्हऱ्यांत वचून ताका "शेक हँड" करतालो. आलबुकेर्काक तर मॅकाची संवयच जाल्ली. धव्या कपड्यांत येवन बसतकच मॅक ताच्या पांयांक आपली तकली घांसतालो. आल्बुकेर्क मागीर मॅकाक उबारतालो.

वाडटा वाडटा तितलो मॅक पणसूल कसो जाल्लो. जून तट्टास जावन पिकूंक पाविल्लें पणसूल. उबारूक लेगीत जड जाल्लो. मॅकाची कातच धवी न्हय. मॅकाक धवेंच रावंक आवडटालें. दिसांतल्यान कितले फावटी तोंड धुतालो देवाक खबर. पूण ताचें आंग सदांच धवेंच आसतालें. भायर मातयेंत भोंवडी मारली, शेतांत भोंवन आयलो, तरी आपल्या धव्या रंगाचेर एकय खत लागिल्लें ताका आवडनाशिल्लें. मॅक जसो रंगान धवो, तसोच "क्लीन मॅन" म्हणटात तसो काळजानूय नितळ आशिल्लो.

दारांतच उबो आशिल्लो सीताफळाचो रूख मॅकाचें, खेळपाचें मैदान जाल्लो. हेर कांय माजरां, बुकले सीताफळा झाडाकडेन जमताले. पूण केन्नाच तांचे बरोबर झगडपाचो सूर आयकूंक येनाशिल्लो. पुनवे दिसा पिठासारक्या चान्न्यांत तर मॅक चंद्राचोच भाचो कसो दिसतालो. चंद्रिमाच्या उजवाडांत एखाद्रो सोंसोच बसला काय कितें अशें समजून जायते जाण फटवताले.

घरच्यांमदीं येवन बसप ताका आवडटालें. आंगणांत चान्न्यांत बशिल्लेकडेन खबरी मारतना आईक आमी तेंकून बसतांच मॅक खंयच्यान तरी उबो जातालो. कोणूय कितलोय आई म्हऱ्यांत बशिल्लो आसूं, मॅक खंयचे खांचींतल्यान ल्हवू आईच्या पांयांकडेन येवन तेंकतालो. आमचे मदीं बसून खबरांत असो कान दितालो, जणू आपल्याक सगळेंच समजता. "आयलो मॅक" म्हणटांच ताका बारा भुजां जातालीं. मॅक हें म्हणिल्लें एक उतर ताका खोस दितालें. मागीर तो चान्न्यांत उमथो उदारो जमनीर लोळटालो. मॅक एकटो एकसुरो रावंक कसोच तयार नाशिल्लो. मनशांमदीं आपुणय एक मनीस "आपुणय तुमचोच" अशें सदांच सांगपाक ताचीं ल्हान ल्हान

कर्तुबांच पुरो आशिल्लीं.

घरांत चलतो भोंवतो मॅक एक दीस अकस्मात कानाकडेन एक मोटी जखम घेवन आयलो. कुडकोच गेल्ले कारणान मातशें रगतय व्हांवतालें. आई म्हन्यांत पावलो. रांदचे कुडींत एका कोनशाक वसून म्यांव म्यांव करून आईक सांगूक लागलो. आपल्याक जखम दुखता. "आरे जालां कितें, यो पळयतां," म्हणटांच आई म्हन्यांत आयलो. आईन हात मात लायला. मॅक थंयच आडवो जालो. "असोच राव हळद हाडटां." म्हणून आई भितर गेली. आई येतना सोरोय घेवन आयली. पयलीं कापूस आनी सोऱ्यान आईन जखम धुली. सोरो पडटांच मॅकान धांव मारली. ताका बरेंच चुरचुरलें आसतलें. "यो, वखद लायल्यार बरो जातलो. यो." आईचीं उतरां आयकून पर्थून आयलो. आईन परत ताका हळदी पिठो घालून बरो पोशेतकच ओगी जमनीर बसून रावलो. मॅकाचें फेरीद ल्हवू ल्हवू पेखचे बदला दर दिसा वाडतच वतालें. वयर पेखून खवळी येतांच पर्थून खरपितालो.

पेखचे बदला खीण वाडतच वतालें. मॅकाचें खेळप, भोंवप तर आतां मातशें मंद जाल्लें. तरी आसतना मॅकाच्यान रावंक जायनाशिल्लें. तसोच भायर भितर सरून आपलो सदांचो वावर केले वगर ताका सुसेग नासतालो. मॅकाक लागून घरांतल्यांक ताची जखम बरी जावंची म्हणून हुस्कोच जाल्लो. मॅक मात कोनशान कोनसो तेळपाचो आपलो वावर कसोच खंडीत जावंक दिनाशिल्लो.

मॅकाचो कान वरो जाता म्हणसर ताचे मानेर एक चवनशें जालें. कानाकडलो भाग बरो जालो पूण चवन कशेंच पेखना जालें. दिसभर हालप जातालें ताकालागून जखम भरूनच येनाशिल्ली. मॅक आतां मात त्रासांत पडलो. सदांच उडणां मारपी, धांवपी, आमचे मदीं येवन बसपी मॅक आपूण बरो ना म्हणून कुशीक बसतालो. पयस बसून म्यांव करतालो.

मॅक नितळसाणेचो कट्टो. आपले जखमेची घाण हातुणांक लागत म्हणून हातुणां म्हन्यांत तर येनाशिल्लो. पायांक लेगीत येवन तेंकपाचें बंद केल्लें. बाबा येतांच ताच्या जेवपा वेळार हजर जातालो. बावा बरोबर जेवपाचें मात कशेंच चुकय नासलो. जाता नजो करून जेवणाकडेन येतालो. दोन उंडयो पडल्यो रे पडल्यो, मॅक आपले सुवातेर वचून बसतालो.

मानेक चवन जायत साकून ताच्या आधाशाभशेन खावपाचेर बंदनशें आयिल्लें. मनांत आयल्यार बरें जेवतालो, ना जाल्यार दोन उंडयो खातांच पोट भरिल्ले भशेन

परत वतालो. आईन निमणें तो बरो जावंचो म्हणून एक उपाय सोदून काडलो. आईन ताचो गळो दर दिसा तिरांट्यान बांदचो. आनी ताका रातचो एका व्हड पाट्यांपोंदा धांपून दवरचो. करतां करतां एक दीस मॅक सामको बरो जालो.

घरांत परत मॅकाचें आनंदी वातावरण आयलें. एक मोनी जात खरी पूण तिचो मोग केल्यार जनावरांय आमच्या आनी आमी तांच्या सुख दुख्खांत कशीं एक जावं येतात हाचे पाठ भुरगेपणातच शिकूंक मेळ्ळे. मनशांपरस कितली जाणविकाय! मनशा इतलीच समजिकाय मोने जातींत आसा. फकत एकच कमीपण म्हळ्यार मोने जातीक आमचे भाशेंत उलोवंक येना.

बाबान "मॅक यो रे." म्हणटांच खंय आसत थंयच्यान धांवत येवपी मॅक पळयतकच ताका भास येना अशें कोणच म्हणचो नाशिल्लो. "वखद लायतां, यो." आईच्या उल्याक मान दिवपी मॅक म्हळ्यार जनावर न्हय, एका मनशावरी मनीस दिसतालो. मॅकान पुराय जीण अशीच सारली.

कांय वर्सांनी ताचे दांतय गेले. ल्हंव झडली आनी मॅक म्हाताऱ्यांत पडलो तरी आपल्या कर्तव्यां पसून पयस रावप ताका जमलें ना. दांत नाशिल्लो वाग. तरी गुरगुरतालो. हुंदरांकय धरपाचो यत्न करतालो पूण जमनासलें. मॅक आपल्याक जाणटो पहलवान समजतालो. जाणटो जाल्लो, तोंडय विद्रुप दिसतालें. पूण ताचें निवळ रावप, खावप, न्हिदप, उठप, आनी घरांतल्यांचो मोग मात मॅकाक देवान जाणटो कित्याक केलो? हो प्रस्न मनांत हाडटालो. जाणटो जातकच मनीस मरता. मॅकय आतां मरतलो अशें मनांत आईन म्हणिल्लें. उतरां जाप सोदतालीं. मॅकय एक दीस गेलो. नाका नाका... वचनाका म्हण्टा आसतनाय गेलो. पूण एक याद दवरून. मोने जातीचोय, सुकण्यां सावजांचोय मोग करात.... मनशांवरी तांचोय मोग दोळ्यांत दुकां हाडटालो.





# मोगाळ सुकणीं सावजां

## विजया पै घुंगट शेळडेकार



बी.ए. (ऑनर्स), एम.ए. (कोंकणी). वेवसायान शिक्षिका. मडगांवच्या न्यू इरा हायस्कूलांत शिकयतात.

भुरग्यांक मोनोलॉग, नाटकुलीं, नाटकां, काणयो, निबंद, फॅन्सी ड्रेस, वक्तृत्व सर्तीनी मार्गदर्शन केलां. देखुनूच लायन्स क्लबान तांचो भौमान केला.

गोवा कोंकणी अकादमीच्या जावं हेर शिबिरांनी तशेंच शाळांनी शिक्षकांक मार्गदर्शन केलां. सरकारी कर्मचाऱ्यांक कोंकणी शिकोवपाक सरकारान नेमणूक केल्ली. दक्षिण विभाग सांस्कृतिक केंद्राचे समितीचेर नेमणूक जाल्या. कोंकणी भाशा मंडळ आनी अ. भा. कोंकणी परिशदेच्या १९व्या अधिवेशनाचें सरचिटणीसपद तांणी भुशयलां.

भुरगेपणांतल्यान नाटका, मोनोलॉग, रेडियो, टी.व्हीचेर चर्चा, मुलाखती घेतल्यात. हेखातीर खारेवांद नाट्य मंडळान आदले शिक्षण मंत्री भौ. सुभाष शिरोडकार हांचे हस्तुकीं तांचो भोवमान जाला.

सैमांत वावुरतना मनीसजिणेक सुकणीं-सावजांचीय गरज आसता. तांकांय आपलेशेच मानून जियेवपाक येता. अशा वेळार मोनजातीकूय मन आसता, तें जाणा जावन घेवपाची संवेदनशीलताय आमकां जाय.

'काजुले' हो लेखिकेचो पयलो कथा संग्रह हे आदीं उजवाडा आयला. 'स्त्री जिवीत कथा' हो बायलांचे जिणेचेर आधारिल्ल्या कथांचो संग्रह ह्याच पुस्तका वांगडा उजवाडा येता जाल्यार 'सैमाच्या घोटेरांत' हें तांचें पुस्तक उजवाडणेचे वाटेर आसा.





श्रीगुरुकृपा टायपोग्राफिक्स
मडगांव - गोंय.